

पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळयांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.

नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान.

# आनंदमठ




बरोवपी

बंकिमचंद्र चट्टोपाध्याय

अणकारपी

ओलिव्हीन्यु गोमिश्







साहित्य अकादेमी

*Anandmath* (आनंदमठ) :
*Konkani translation by Olivinho Gomes of Bonkimchandra Chattopadhyaya's Bengali novel*
*Sahitya Akademi, New Delhi (1991)*

SAHITYA AKADEMI
REVISED PRICE Rs. 65-00

© Sahitya Akademi
*First Edition : 1991*

A, BAK 'N91

*Published by :*
*Sahitya Akademi*
*Head Office :*
*Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001*

*Sales Department :*
*Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001*

*Regional Offices :*
*172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Bombay - 400 014*
*Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Calcutta-700 053*
*29, Eldams Road, Teynampet, Madras - 600 018*

*ISBN 81-7201-042-7*

196
N->Dev
BAK

*Printed by :*
*Apurbai Printers*
*Volvoi, Post : Savoi-Verem*
*Ponda Goa 403 401*

SAHITYA AKADEMI
REVISED PRICE Rs. 65-00



## पयलें खंड

### 1

1176 * वर्सांतल्या गिमाळयाचो अेक दीस. बंगालच्या पद्चिन्ह गांवांत त्या दिसा सुमाराभायर रखरखीत वोत पडिल्लें. हरशीं गांवांत घरां तर घे म्हणून आसलीं; पुण मनशांची थंय नांव-निशाण दिसनासली. भायल्यान बाजारांत दुकानां-पसऱ्यांच्यो रांगो लागिल्ल्यो, दुसरे वटेन खोंपीं-झोपडयांच्यो चाळी. गल्लीं पायणींनीं मातयेचीं शंबरयांनी घरां कचकचीत चिड्डून आसलीं. तांतले तांतूंत हांगा-थंय ल्हान व्हडल्यो अिमारती उठून दिसताल्यो. पुण आयज सगळेकडेन थंड-किरांव मौन पडिल्लें म्हणपाचें स्पश्ट दिसतालें. बाजार-तिंटयावेले पसरे-मांड बंद आसले; पसरकार खंय पळून गेले जायत म्हणपाची कोणाकूच खबर नासली. आयज बाजाराचो खाशेलो दीस. पुण तरीय सदांच्या बाजारा जाग्यार बाजार भरूंक नासलो. भीक मागपाचो दीस. पुण भिकारी भीक मागूंक भायर सरूंक नासले. विणकार आपले माग बंद उडोवन घराच्या अेका कोनश्याक बसून आपल्या नशीबाक रडटाले. उद्देग-धंदेकार आपणाल्या उद्देगाचेर विसर घालून आनी आपल्या भुरग्यां-बाळांक वोंटयेंत घेवन पिरंगताले. दान-दिवप्यांनी हात उखलून आपलें किनेंय फूल ना पाकळी दिवपाचें बंद केल्लें. गुरू-शिक्षकांनी आपल्यो साळो धांपून उडयल्ल्यो. सुपुल्ल्या-सान भुरग्यांनी घडये आपलें काळीज घट्ट करून घेवन रडपाचेंय थांबयिल्लें जायत. रस्त्यां-मार्गांचेर मनश्यां दिसनासलीं. तळयांनी कोणूच न्हाल्लीं झळखनासलीं. घरांच्या दारां-उंबऱ्यांचेर मनश्यां नाशिल्लीं. झाडां-रूखांचेर सवणें सुकणें दिसनासलें. गोठयांत गोरवां हांबेनासलीं. फकत मसुंडेंत सुणीं कुत्रे आनी गीध दिसताले. तांतले तांतूंत एक उंच इमारत आसली, जिचो अेक उबार गडगंज खांबो खुब पैशिल्ल्यान नदरेक पडटालो. त्या धरांच्या रानांत ती इमारत पर्वताचे तेंगशे भशेन उठून दिसताली. पुण तिची खरेली सोबाय खंय उरिल्ली जेन्ना तिचीं दारां बंद आसलीं? थंय मनश्यांचें येवप-वचप कांयच नाशिल्लें, सगळयाक मरणाच्या मौनाचें वागरें पातळिल्लें. वाऱ्याचो लेगीत थंय उस्वास आतडो नासलो. अिमारती भितर लेगीत भर दनपारच्या

---

* बंगाली संवत्. हाका 594 आंकडो जोडल्यार क्रिस्ती वर्स मेळटा. (1176 अदीक 594 जोडून 1770 क्रि. व. जाता.)

वेळार काळोख पातळिल्लो. आनी ह्या काळखांत मदयान राती फुलून आयिल्ल्यां दोन फुलां भशेन घोव-बायलेची अेक जोडी अेकेकडेन बसून विचारांत बुडून गेल्ली. तांचे मुखार दुखळ उबो जाल्लो.

जावन गेल्ल्या 1174 वर्सांत पीक बरी जाली ना. देखून 1175 वर्सांत तांदूळ–गोटो मात्सो म्हारग जाल्लो. हाका लागून लोकाक जायते त्रास–हालावाल जाल्ले ; तरीय आसतना राजान शेताचो शिदाव पैश्या–पानदुडवान वसूल केल्लो. सगळो शिदाव दिवन उडयल्ल्यान बाबडचा गरीब-दुबळचांक दिसाक अेका जेवणाचेर आदारून रावचें पडिल्लें. 1175 वर्साच्या पावसाळचाक भरपूर घसघश्यांनी पावस पडिल्लो. लोकाक दिशिल्लें कि धनया-देवान ह्या वेळार आपली क्रपा दाखयली. गोरवां-राखण्यांनी परतें अेकदां आनंदान गोठचांत पदां म्हणपाचें धरिल्लें. शेंतकामत्यांच्या बायलांनी आपणाक रूप्याचे वाळे करचे म्हणपाची मागणी करून आपआपल्या घोवांक वेंटीक धरिल्ले. पुण अवचितूच आश्वीन म्हयन्यांत देव रूसून रागार जाले-शे दिसले. आश्वीन आनी कार्तीक म्हयन्यांनी पावसाचो अेक थेंबोय गळ्ळो ना. शेतांतलें उबें, रसरसतें पीक बावून, मानो मोडून, जागच्या जाग्यार, सुकून कर्पून गेल्लें. पिकेचे सुवातेर निखटें सुकें-करकरीत करड उरिल्लें. जांच्या शेतांत चुकून अशें थोडें-भोव धान्य जाल्लें तेंवूय तांचे कडल्यान सरकारी अधिकाऱ्यांनी येवन सैनीकां खातीर म्हणून आदींच विकतें घेतिल्लें. सामान्य लोकाक अन्न मेळपाक कठीण जाल्लें. पयलीं पयलीं लोकाक अेक वेळ उपाशीं रावचें पडलें. उपरांत ते अेकपार उपाशीं आनी एकपार अर्ध्या पोटार रावूंक लागले ; आनी मागीर दोनूय पार उपाशीं रावूंक लागले. चैत्र म्हयन्यांत जें पीक आयलें तें कोणाचें पोट भरपा सारकें इतलें पुरो पडलें ना. तरी आसतना, शिदाव वसुलीच्या धनयान, म्हम्मद रजा खान, हाणें येवजीलें, वयलो हुद्दो मेळोवपाचो होच बरो वेळ आसा. ताणे शिदाव मुदलाचोच धा टक्क्यांनी वाडोवन दिलो तेन्ना सगळचा बंगालांत भयंकर बोवाळ जालो.

हे आवतिकायेंत, सुरवातेक लोकांनी भीक मागपाचें धल्लें. पुण ल्हवू ल्हवू भीक लेगीत कोण घालतलो म्हळचार मागीर उल्लो ना. देखून, उपरांत भुकेन आनी मागीर उपाशीं रावपाची पाळी आयली. लोकां मदीं मागीर रोग पीडा पसरूंक लागली. लोकांनी आपलीं गोरवां-वासरां विकून उडयलीं, शेताक लागतली मुस्तायकी, शेताचीं आवतां, नांगर आदी विकून उडयलीं, बियाक दवरिल्लें भात लेगीत खावन लोक मेकळे जाले. कांय जाणांनी घर-दार विकलें. मागीर जमीन, भाटां-बेंसां विकलीं. ताच्या उपरांत भुरग्यां-बाळांक विकपाक सुरवात जाली. निमाणेकडेन बायलांकूय विकपाक लागले. पुण इतल्या

सगट भुरग्यांक, बायलांक, विकतीं घेवपी तरी कोण आसलो ? सगळेच विकपी आसले म्हणटकच विकतें घेवपी कोण गा मेळटलो ! अन्नाचो पत्तो दिस नाशिल्ल्यान थोडो लोक झाडां - रूखांचीं पानां, तण, कोंवळचो रोंपगो चाबडांवक लागलो. सकयल्या वर्गांतल्या लोकांनी सुणीं, माजरां, हुंदीर मारून खावपाचें धल्लें. जायते जाण गांवच्यान पळून गेल्ले. जे पळून गेल्ले, जंय ते पावले थंयीय अन्न नाशिल्ल्यान, उपाशीं पडून मरून गेलें. आनी जे गेले नात ते कसलेंय – कितें पोटांत उडोवन वा कांयच खायनासतना पीडे - रोगाच्या च्याखांत घुस्पून घुस्मटून पडून अंतरले.

पीडें, - रोगांक तर आयती संद मेळिल्ली – जोर, काभीण, कोड - क्षय, असुक - देवी ; चड करून देवीचो रोग मातून आयिल्लो. घरां - घरांनी असुक - देवीचें वागरें पातळून लोक अेकामेकांर मरूंक लागिल्ले. कोण कोणाची खबर सुध घेंवक पावतलो आसलो ? कोण कोणाची अिलाज - सेवा करूंक पावनाशिल्लो. कोण कोणाक हात दिवंक पावना जाल्लो. कोण कोणाची खबर विचारपूस करूंक मेळटलो आसलो ? मेल्या उपरांत लेगीत कोण कोणाचे निमाणे सस्कार करूंक पाव नासलो. सोबीतांतल्यो सोबीत - सुन्दर कुडी व्हडल्या घरांनी कुसत पडिल्ल्यो अ.सल्यो. ज्या घरांत देवीचो रोग पाविल्लो त्या घरांतलो लोक पिडेस्तांक थंयचे थंय सांडून भंय - भिरांतीन पळून वेतालो.

महेंद्रसिन्ह पद्चिन्ह गांवचे मोटे व्हडले भाटकार आसले. पुण आयज धनी आनी गरिबाची अवस्ता अेकसारकीच जाल्ली. हे अडचणीच्या वेळार, पिडे - रोगान पोखल्लन खावन तांचे सोयरे - धायरे, नौकर चाकरमानाय सगळे तांकां सोडून गेल्ले. तांतले कांय जाण तर मरून गेल्ले, हेर जाण पळून गेल्ले. येव्ह्या व्हडल्या कुटुबांत आतां ते स्वता, तांची घरकान्न आनी सुपुल्ली बाळक धूव, अितलींच उरिल्लीं. तांचीच गजाल हांव तुमकां सांगतलों.

तांचे घरकान्नीन, कल्याणीन सगळो हुस्को सोडून दिल्लो. ती उठली आनी गोरवां गोठ्यांत वचून तिणें गायेचे दुदा पाने वोडले. उपरांत तें दूद तापोवन धुवेक पिययलें आनी मागीर ती गायेक तण दिवपाक गेली. ती परतल्या उपरांत महेंद्रान तिका म्हळें, ‘ हें अशें आनीक कितले दीस चलतलें ?’

कल्याणीन म्हळें : जितले दीस चलतलें तितले दीस हांव चलयतां. मागीर तुमी बायेक घेवन शारांत वचात.

महेंद्र – शारांत वचपाकूच जाय जाल्यार तुका अितले कश्ट कित्याक दिवूं ! वचपाचेंच जाल्यार, आतांच वचूंया.

हाचे उपरांत ह्या विशयाचेर तांचे मदों बरोच वेळ भासाभास जाली.

कल्याणी – शारांत गेल्यार कितें खाशेलो फायदो ...

महेंद्र – घडये तीय सुवात अशीच निर्जन आसूंये ...


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No: 000196

पाणयाचो कायच उपाय नासत !

कल्याणी – घडये मुर्शीदाबाद, कासीम बाजार वा कलकत्ता, हांतल्या अेकाय शारांत गेल्यार जीवां वांचोंव येत. तें कशेंय आसूं, हो गांव सोडून वच्चें, हेंच म्हाका योग्य दिसता.

महेंद्रान म्हळें, "ह्या घरांत जायतो तेंप पिळग्यां-पिळग्यांनी अेकटांय केल्ली पुर्वजांची धन-गिरेस्तकाय भरिल्ली आसा. आमी हांगाच्यान भायर सरून गेल्यार ही सगळी धनदौलत चोर व्हरतले."

कल्याणीन म्हळें, "आनी हांगा रावल्यार आमी दोगांय चोरां पसून ह्या धन - दवलतीची राखण करूंक पावतलीं, व्हय ? आमी जीवीं उल्लीनांत जाल्यार हें सगळे गिरेस्तकायेचो भोग कोण घेतलो ? चलात, आमी सगळे लिपोवन दवरून आमची सांटली-पोटली बांदून रोखडया-रोखडीं हांगाच्यान भायर सरूंया. जितीं उल्लीं जाल्यार परतीं येवन ही गिरेस्ताकाय आमी भोगची !"

महेंद्रान विचाल्लें, "तुज्यान पांयांनी चलूंक जातलें, व्हय ? माचीलांचे तुका बसून व्हरपी सगळे अामचे भोये तर मरून गेले. गाडी आसल्यार बैल नात आनी बैल आसल्यार गाडी ना. गाडयेकार आसात तर बैल नात."

कल्याणीन म्हळें, "हांव चलून येतां तुमी ताचो हुस्को करी नाकात." तिणें मनांतल्या मनांत विचार केल्लो, चडूच जाल्यार कितें जातलें. हांव वाटेर मेल्यार मरूं पुण हीं दोगां जाणां तरी जीतीं उरतलीं.

दुसरे दिसा सकाळीं तीं दोगांय जाणां तयार जालीं. गरजेक लागतलो अितलो दुडू-अाडको गांठीक खोवन, सगळीं दारां गडगंज कुलपांनी घट बरीं बंद करून, गोठयांतल्या गोरवांक सोडून दिवन, बाळक-धुवेक खांकेक मारून, तीं राजधानीचे वटेन वचपाक चालीक लगलीं. चलतां चलतां महेंद्रान म्हळें, "रस्तो मोटचा संकटाचो आसा. पावला कणकणी चोर लूटमारे हेडत भोंवत आसतात. रित्या हातांनी प्रवास करचो म्हळचार सुगूर दिसना." अशें म्हणून ते परते घरांत गेले आनी आपल्या वांगडा बंदूक, काडतूस, दारू-गुळयो घेवन आयले.

हें पळोवन कल्याणीन म्हळें : "तुमी शस्त्र घेवपाचो उगडास केलो देखून म्हणटां थोडो वेळ हे सुकुमारीक सांबाळून घेयात, हांवूय अस्त्र घेवन येता." अशें म्हणून कल्याणीन बाळकाक महेंद्रा कडेन दिलें आनी ती परती घरांत भितर सल्ली.

महेंद्रान विचाल्लें : "आतां तूं कसलें शस्त्र हाडटली."

कल्याणीन घरा भितर वचून विखाची एक शिसली काडली आनी ती तिणे आपल्या कापडांत लिपोवन हाडली. संकटकाळांत आपल्या नशीबान कितें वाडून दवरलां कोण जाणां, अशें म्हणून कल्याणीन विख हाडून दवरिल्लें.

ज्येष्टाचो म्हयनो आसलो. लखलखीत वोत फांकारिल्लें. धर्तरी उष्यान हुलपताली. वारें अिंगळयांचे जळटे वाफेंत रेवडायल्लें-शें लागाल्लें. मळब

तांब्या पत्र्या सारकें भाजतालें. रस्त्यांतले धुल्लीचे कण उज्यां-अंगळर्चा भशेन करपताले. कल्याणीच्या आंगावेल्यान हुमेच्यो पांवळचोगळटाल्यो. कल्याणी थांबत थांबत वचूं लागली. केन्ना बाभळीच्या झाडा सांवळेंत केन्ना खाजराच्या रूखा सांवटांत विसव घेयत ती चमकताली. वाटेक लागतल्यां आटून गेल्ल्या चिकलान भरिल्ल्या तळ्यांतलें खोदळ पाणी पियेवन ती मोटचा कश्टान आपली वाट चलताली. भुरगें महेंद्रांचे वोंटयेंत आसलें. मदीं मदीं तो ताका वारें घालतालो. वाटेर अेके सुवातेर दाट, पांचव्या-चार पानांनी भरिल्लो एक रूख आसलो. ताचेवेल्यान परमळीत फुलांच्यो वेली लांबताल्यो. त्या रूखाचे सावळेंत बसून तीं विसव घेवूं लागलीं. कल्याणीची साणाय-सोसणीकाय पळेवन महेंद्रबाबूंक अजाप दिसलें. ताणी लागसारच्या एका वोंडकुल्यांत आंगावयलो कुडको भिजोवन हाडलो आनी तांतून आपणाचें आनी कल्याणीचें तोंड, हात, पांय, कपाळ भिजोवन पुसून काडलें.

कल्याणीक थोडें-भोव तरी सू जालेंच, हांतूंत दुबाव ना. तरीय दोगांयकूय सामकी कडकडीत भूक लागिल्ली. आपली स्वताची भूक तांच्यांनी कशेंय भशेन सोंसून व्हरूं येताली. पुण धाकल्याची भूक तान सोंसूंक जाय नाशिल्ली. देखून तीं फुडलीं पावलां मारूंक लागलीं. उज्याचीं ल्हारां कशीं सोंशेल्ल्या वाऱ्या दर्यांकडेन झुजा-मरत निमागेकडेन सांजवेळा तीं अेके धर्मसाळेंत पावन सल्लीं. महेंद्राच्या मनांतल्या मनांत व्हडली आस्त दिसताली कि घरकान्नीक आनी बाळक-धुवेक धर्मसाळेंत पावल्या बराबर जेवण आनी थंडगार उदक दिवपा येतलें. पुण हांगा कोणूच लोक नासलो. व्हडल्यो व्हडल्यो कूडी रित्यो पडिल्ल्यों आसल्यो पुण मनशां सगळीं पळून गेल्लीं. महेंद्रान हांगा-थंय बारकायेन पळेवन घेतलें आनी तांतलीं घरकान्नीक आनी धुवेक अेके कुडींत व्हरून न्हिदूंक लायलीं. आपूण भायर वचून हेवटेन तेवटेन उलो मारूंक लागले. पुण तांच्या उल्याक कोणेंच ओ दिलो ना. तेन्ना महेंद्र कल्याणीक म्हणूं लागलें : "तूं अिल्लो धीर धर आनी हांगा थोडो वेळ अेकलीच राव. श्री. कृष्णाचे कृपेन तर खंयीं गाय मेळ्ळी जाल्यार हांव दूदघेवन येयीन."

आनी इतलें उलोवन थंय मेळिल्ले मातयेचो अेक बुडकुलो घेवन ते भायर सल्ले. थंय तर तसले बुडकुले, आयदनां घे म्हणून पडिल्लीं आसलीं.

## 2

महेंद्र भायर सरून गेलो. कल्याणी त्या काळख्या कुडींत अेकली-अेकसुरी त्या सुपुल्ल्या भुरग्याक घेवन बसल्या थंय, चोंयवशीं नदर भोंवडांवक लागली. तिच्या मनांत भंय-भिरांत रिगिल्ली. खंयच कोणूच नाशिल्लो. लागसार कोणूच दिसनासलो. मनशाचें अेक उतर लेगीत आयकूं येनाशिल्लें. फकत कोल्यांच्यो कुयो आनी सुणीं भोंकतालीं तें इतलेंच कानार सादतालें. ती मनांतल्या मनांत

म्हणूं लागली : हांवें कित्याक म्हणून तांकां वचूंक दिलें ? आनीक थोडो वेळ तशीच तान-भूक सोंसून म्हज्या रावूं येतालें. येवजिल्लें, कूड भितल्यान बंद करून बसूं. पूण अेकाय दाराक कवड नासलें, न्हय म्हणून आडांबो खिळी घालपाची वेवस्ता नासली. हे भशेन, ती चारूय दिकांनी बारकायेन निरिक्षण करीत आसली.

अितल्यान, सामकारच्या दारांत तिका कसली तरी सांवळी हाल्ल्या सारकी दिसली. ती आकृताय मनश्याची-शी दिसताली, पुण मनीसूव काय कितें हें स्पश्ट दिसनासलें. ती आकृताय सामकी सुकिल्ली, दुबळी, काळचाकिट्ट अक्राळ-विक्राळ मनश्याची आसली. तो मागीर येवन दारांत उबो रावलो. थोडया वेळान ते सांवळेन आपलो हात उखल्लो-सो दिसलो. निखटीं हाड आनी चामडी शिल्लक उरिल्ल्या त्या लांबूच लांब मनश्यान आपल्या लांब पातळ बोटांनी खुणो करून कोणांक तरी आपयल्ले भशेन केलें. बाबडे कल्याणीक भिरांतीन कांपरो सुटलो. इतले म्हणसर आनीक एक तशीच सावळी - सुकी - सडसडीत, काळी-किट्ट, उंच-लांब, नागडी-उगडी पयले सांवळे कुशीक येवन उबी रावली. तिचे उपरांत तिसरी सांवळी आयली. तिचे फाटोफाट आनीक कितल्योशयोत्र सांवळ्यो आयल्यो आनी येवन येवन वोगीच कुडांत भितर सरूंक लागल्यो. तो काळखी कूड मसणांतलो जाल्ले वरी भिरांकूळ - सो भासूंक लागलो. त्या भुतां सारक्या आकृतींनी कल्याणी आनी तिच्या बाळकाक वेडा घातलो. कल्याणी सयराणा भायर पडली म्हळचार जाता. ते काळे मुर्तींनी कल्याणीक आनी बाळकाक धरून उखल्लीं आनी तांकां घेवन ते थंयच्यान गेले. ताणीं सामकारचें मळ मैदान हुपलें आनी ते एका अरण्यांत रिगले.

थोडया वेळा उपरांत महेंद्र बुडकुल्यान दूद घेवन परतो आयलो. पळे जाल्यार, थंय कोणूच ना. ताणी हांगा थंय पळेवन घेतलें. धुवेचें आनी मागीर घरकान्नीचें नांव घेवन उलो मारलो. कांयच जाप मेळ्ळी ना. कांयच खबर कळ्ळी ना.

## 3

ज्या अरण्यांत कल्याणीक घेवन ते लुटारू गेल्ले तें अती-ओडलायणें आंसलें. थंय उजवाड दिसनाशिलो देखून ती सोबीतकाय पळेतलो म्हळचार दोळ्यां दिस नासली, जशी गरीब-दुबळया मनश्याच्या मनांतली सुन्दरताय कोणाकूच दिसना. तशी त्या रानाची सुन्दरताय आयज मेरेन कोणेंच पळेंवक नाशिल्ली. देसांत अन्न आसूं वा नासूं, रानांत फुलां आसलीं, आनी त्या फुलांच्या परमळाक लागून काळखांतूय उजवाड आसा सो दिसतालो. लुटेऱ्यांनी तांकां रानाच्या मदल्या भागांत पांवण्या तणाचे मोवाळ सुवातेर व्हरून दवल्लीं. उपरांत ताणी तांकां वेडो घालो आनी आप-आपले भितर ते उलोंवक लागले. हांचें आतां कितें

करचें हे विशीं भासाभास सुरू जाली. कल्याणीच्या आंगा-खांदार ज्यो वस्ती आसल्यो त्यो ताणीं आदींच काडून घेतिल्ल्यो. तांतले कांय जाण त्या वस्तींची वांटणी करपांत गूल्ल आसले. ती वांटणी जाल्या उपरांत, तांतल्या एकल्यान म्हळें, निमाणेकडेन हें भांगर रूपें घेवन आमीं करतले किते ? अेक वस्त घेवन म्हाका कोणेय अेक मूठ-भर तांदूळ दिवचे. भुकेन जीव वचचे कडेन पावला. आयज फकत झाडाचीं पानां चाबडावन रावचें पडलें. अेकल्याचें अशें म्हणणें आसलें तर सगळे तेंच तेंच म्हणत थंय बोवाळ करीत रावले.

तांचेच मदीं गोंदळ निर्माण जालो. सगळे जाण तेंच म्हणटाले, 'तांदूळ दी, भुकेन आमचो जीव वचत आसा. आमकां भांगर रूपें नाका.' त्या पंगडाच्या फुडाऱ्यान तांकां थंडावपाचो प्रयत्न केलो. पुण कोणूच ताचें आयकून घेवपाक तयार नासलो. उलयतां उलयतां, उतराक उतर जावन, ते एकामेकाक गाळी संवपाक लागले, मारामारी सुरू जाल्यो. जांच्या वांटयांक त्यो वस्तू पडिल्यो त्यो ताणीं फुडाऱ्याच्या पायांचेर शेवटून माल्ल्यो. फुडाऱ्यान एका-दोगां जाणांक धरून बडोवन काडले. तेन्ना सगळे लुटारे अेक जावन आपल्या फुडाऱ्याच्या आंगार येवन पडले. उपासमारींनी तांचो फुडारी अशक्त आनी दुर्बळ जाल्लो. देखून ताचेर दोन चार कडकडीत धपके दशिल्ल्यान तो कोंसळून पडलो आनी ताचे कुडींत जीव उल्लो ना. तें पळेतना, उपासमारांनी चाळवल्ले आनी भडकल्ले त्या आपणाकूच विसरिल्ल्या लुटारूं मदल्या अेकल्यान म्हळें, आमीं सुण्यां कोल्यांचें मास आतां मेरेन खाल्लें. उपासांनी आमचो प्राण पालोवत आसा. चला, आयज आमीं ह्या पाड पडिल्ल्या फुडाऱ्याचें मास खांवूंया. सगळ्यांनी काली मातेचो जयजयकार केलो. ते म्हूण लागले : "जय काली" आनी "बम काली." आयज आमीं मनश्याचें मास खातले.

अितलें उलोवन त्यो लांब-उंच, काळ्यो मुर्ती काळखांत खळखळून हांसल्यो, ताळयो पेटून नाचूंक लागल्यो. तें मडें भाजचे खातीर एकलो उजो पेटोंवक लागलो. सुके तण, पानां, लांकूड-जळव अेकटांय करून ताणे चकमकिच्या आदारान उजो पेटयलो. जसो जसो उजो पेटूं लागलो तशे तशे सरभोंवतणचे आंबे, जांबूळ, पणस, ताडमाड, लिंच, खांजूर आदी रूखांचीं पांचवीं पानां दिसूंक लागलीं. थोडया वेळान उज्या आगटें वाडलें आनी ताच्या उजवाडान पानां अदिकूच लकलकूंक लागलीं. कांय पानां ज्योतीन लासूंक लागलीं, कांय तण चकचकूंक लागलें आनी कांय कडेन काळोख चडूच दाट जालो. उज्याचें आगटें भगभगीत पेटिल्लें. एकलो दादलो तें मडें ओडीत त्या उज्यांत धुकलतालो तेन्ना दुसऱ्या एकल्यान म्हळें, आसूंदी, सोड ताका. जर मनश्याचेंच मास खावन आमकां जीव वांचोवचो आसा जाल्यार आयज अेका जाणटेल्यांचें सुकें सडसडीत मास आमीं कित्याक खांवचें? आयज जांकां आमीं धरून हाडल्यांत तांकां खांवया.

दुसऱ्या अेकल्यान म्हळें, ज्या कोणाक भाजपाचो आसा ताका भाजात. आतां भूक सामकी वळवळचांची, सोंसूं नजो' अशी जाल्या. तें म्हणना फुडें, सगळे जाण कल्याणी आनी तिचें बाळक जंय न्हिदिल्लीं थंय आधाशी नदरेन पळेंव लागले. पळे जाल्यार, ती सुवात रीती पडिल्ली आसली. भुरगेंय ना आनी तिची आवयय ना. ज्या वेळार हे लोक एकामेका लागीं झगडत झुजत आसले त्या वेळार कुकुल्या भुरग्याक दूद दितले कल्याणीन आपली संद सादिली. ती रानांतल्यान पळून गेल्ली. आपल्या हातांतली शिकार सुटून गेली म्हणपाचें पळेतानांच, सगळे जाण 'मारात मारात' म्हणून आडडत सगळे वटेन धांवत सुटले. वायट -परिस्थितींत मनीस सामको हिंस्त्र जांव येता !

## 4

रानांत दाट काळोख पातळिल्लो. तांतल्यान कल्याणीक खंयच्यानूच वाट सुचनासली. अेक तर रूख, वेली आनी कांटयारीं झाडां–झोंपां अशे दाटयेन मातून आयिल्लीं कि तांतूंतल्यान कशी वाट काडपाची ती दिसनासली. वयल्यान सगळेकडेन भंयकर काळोख. त्या झाडां–झोंपांतल्यान कशेंय भशेन वाट काडीत तेच अवस्थेंत कल्याणी रानांतल्यान वचूंक लागली. भुरग्याच्या आंगा–पांगाक कांटे तोपूंक लागले. तें भौन भौन रडटालें. तो आवाज आयकून लुटारू अधीकबोवाळ करूंक लागले. हे भाशेन, शरीर निमाणेकडेन रक्तबंबाळ जाल्ली कल्याणी रानांतल्यान बरीच पैस गेली. थोडया वेळान चंद्रीम उदेवन आयिल्लो. आतां मेरेन तिका भरवंसो असलो कि काळखांत लुटारू तिका पळेंवक पावचे नात आनी देखून ते वोगी बसतलें. पुण आतां चंद्रीम उदेल्ल्यान ती आस्तूय ना जावन गेल्ली. चंद्रीम मळबा वयर आयलो आनी ताणें रानावनाचेर चान्नें शिवंरायलें. रानांत भितर वसतलो काळोख चान्न्याच्या उजवाडान भिजून गेलो. तेन्ना काळोख आसलो तो उजवाडांत रूपांतर जालो. चान्नें ल्हवू ल्हवू आपल्या उजवाडान रानावेलें पांगरूण काडून उडोंवक लागलें. जसो जसो चंद्रीम वयर येवंक लागलो तसो तसो उजवाड रानांत भितर रिगूंक लागलो. तेन्ना काळोख रानाच्या भितल्ल्या खोलायेंत वचून दडून रावलो. चलयेक घेवन कल्याणी लिपचेलो प्रयत्न करूं लागली. हेवटेन लुटारू आड्डताले, तो आवाज आयकून भुरगें चडूच मोटयान रडटालें. आनी लुटारूय चड आड्डताले. चारूय दिकांनी, धांवत सुट्टाले.

अेका व्हडल्या रुखा पोंदा, तणाचेर बसून, आपल्या भुरग्याक वोंटयेंत घेवन, ती उलो करूंक लागली, हे मधुसुदना, खंय आसा गा तूं ? हांव तुजी नित्य-नेमान पुजा करतां, जाका हांव नेमान भजतां, जाच्या भरवंश्यान ह्या दाट रानांत पळून वचपाचें हांवें धाडस केलें, तो तूं आतां खंय आसा ते म्हाका सांग. इतल्यान, भिरांतीन, भक्तिचे तन्मयतेन, तान-भुकेच्या अतिरेकान, थकून पडिल्ली कल्याणी ल्हवू ल्हवू भायल्या गिन्यांतान शून्य जांवक लागली. पूण तिचें

अंतर्मन जागें जांवक लागलें. अंत्राळांतल्यान गोड स्वरांत कोण तरी गीत गायतालो तें तिज्या कानार पडलें :

हरे मुरारे मधुकैटभारे।
गोपाळ गोविंद मुकुंद शौरे।
हरे मुरारे मधुकैटभारे।

कल्याणी आपल्या भुरगेपणांत सावन आयकत आयिल्ली कि पुराणांत देवर्षी नारद मळबा वटेनच्यान विण्याचेर हरिनामाचो गजर करीत सगळेकडेन पृथ्वीचेर भोंवत आसता. देखून तिच्या मनांत हिच कल्पना जागून आयली. तिका आपल्या मनांतल्या मनांत दिसूंक लागलें कि श्वेत शरीर, धवे-फुल्ल केंस, खाड, धवें-फुल्ल वस्त्र न्हेशिल्लो म्हामुनी हातांत वीणा घेवन चान्न्यान उजवाडायल्ल्या निळ्या मळबा मार्गान गायत वेता :

'हरे मुरारे मधुकैटभारे।'

हे गीताचे स्वर ल्हवू ल्हवू लागीं येवूं लागले. गीत तिका अदीक अदीक स्पश्ट आयकूंक येवूंक लागलें :

'हरे मुरारे मधुकैटभारे।'

वेळ सरता म्हळचार, अदीक लागीं, अदीक स्पश्ट :

'हरे मुरारे मधुकैटभारे।'

आनी निमाणेकडेन रानांतल्यान आयिल्लो त्या गीताचो पडसाद कल्याणीच्या माथ्या वयर घुमूंक लागलो :

'हरे मुरारे मधुकैटभारे।'

आतां कल्याणीन आपणाले दोळे उगडले. रानांत मिसळून गेल्ल्या काळोख आनी चान्न्याच्या उजवाडान तिका दिसलें, तेंच श्वेत आंग-पांग, धवें खाड, केंस, धवेंफुल्ल वस्त्र न्हेशिल्लो मुनी थंय उबो आसा. एका प्रकारच्या अलौकीक चैतन्याच्या प्रभावान कल्याणीन ते मूर्तीक प्रणाम करपाचो निश्चय केलो. पूण ती प्रणाम करूंक पावलीना. तकली बागावपाचो प्रयत्न करतनांच ती बेशुध्द जावन जमनीचेर कोसळली.

## 5

त्या रानांत व्हड व्हड खडपांमदी एक मठ आसलो. पोर्णावळी वस्तू सोदलावप्यान हो जागो पळेल्लो जाल्यार तो सांगतलो आसलो कि पयलीं हांगा बौधांचो अेक विहार आसलो, तो आतां हिन्दुंचो मठ जावन बसला दोन माळयांचीं थंय भवनां आसलीं. मदींच सावार विविध देवतांचीं देवळां आसलीं तांच्या सामकार सभामंडप आसलें. सगळ्यां अमारतीं भोंवतणीं उंच दुर्ग आसलीं. तरी आसतना, रानांतल्या झाडां-रुखांनी त्यो अितल्यो लिपिल्ल्यो आसल्यो कि दीस उजवाडान लागिच्यान पळेल्यार अितल्यो आनी येध्यो व्हडल्यो अमारती

हांगासर आसात म्हणपाचें कोणाक खरें दिसचें नाशिल्लें. अिमारतींचे कपचे वणटींचें कुडके जंय जंय फुटून पडिल्ले, दीसा उजवाडान पळेल्यार कळटालें कि ह्यालींच ह्या अिमारतींची दुरूस्ती करून घेतल्या.

ह्या दाट आनी पैशिल्ल्या रानांत मनशां रावतात म्हणपाचें त्यो इमारती पळेल्या उपरांत लक्षांत येतालें. मठाच्या अेका व्हडल्या कुडांत जळत्राचो अेक उज्या-ग्रोंडको जळटालो. कल्याणी सयराणार (शुद्धीचेर) आयली तेन्ना तिणे देखलें कि गोरो-पिठ, धवें-फुल्ल वस्त्र न्हेशिल्लो म्हापुरुस तिचे सामकार बशिल्लो आसलो. कल्याणी आश्चर्य-चकित जाल्ल्या दोळ्यांनी तांचे कडेन परतून परतून पळेंव लागली. अजून तिची स्मरणशक्ती तिका परती मेळूंक नाशिल्ली. अितल्यान म्हापुरसान म्हळें, 'माते, हें देवस्थान जावन आसा. हांगा कसलीच भंय-भिरांत धरी नाका. थोडेंशें दूद आसा. तें तूं पियेवन घे. मागीर आमी उलोंवचें.'

पयलों कल्याणीक कांयच समजना जालें. पुण मागीर ल्हव्रू ल्हव्रू तिच्यांत भरवंसो निर्माण जालो. तेन्ना तिणें आपल्या गळ्या-भोंवतणी पालव गुटलावन त्या म्हात्म्यांक प्रणाम केलो. ताणें तिका शुभाशिर्वाद दिले. अेका लागशिल्ल्या कुडांत वचून ताणे अेक परमळीत आयदन हाडलें आनी तातूंत दूद घालून सामकारच्या उज्यार तें तापयलें. तें तापून जातकूच, तें कल्याणीक दिवन ताणें म्हळें :

'माते, हांतलें थोडें दूद भुरग्याक पिवय. तुंवूंय थोडेंशें पियून घे. मागीर आमीं गजाल-मात करुंया.'

कल्याणीन खोशयेन भुरग्याक दूद पियेवपाक दिलें. आपुण रोखडो येतां म्हणून सांगून आनी आपुण येयी मेरेन कसलोच हुस्को करी नाका म्हणून तो मंदीरांतल्यान भायर सरून गेलो. थोडचा वेळान तो परतो आयलो. ताका दिसून आयलें कि कल्याणीन भुरग्याक दूद दिल्लें पुण आपणें स्वता दूद घेतलें ना. दूद जितलें आसलें तितलेंच उरिल्लें म्हळचार जाता. सामकें थोडें वापरिल्लें. ताणें तिका लेखून म्हळें, 'मां, तूं दूद पियेवंक ना. हांव परतो भायर सरतां. तूं दूद पियेना जाल्यार हांव परतो येवचो ना.'

इतलें म्हणून रुशी-मुनी सारको तो म्हापुरूस भायर सरूंक लागलो. आनीक एक फावट ताका प्रणाम करून कल्याणीन हात जोडले.

त्या म्हात्म्यान विचाल्लें, 'तुका कितें सांगपाचें आसा, व्हय ?'

तेन्ना कल्याणीन म्हळें, 'तुमी म्हाका दूद पियेवपाची आज्ञा दिवूं नाकात. ह्या विशयांत म्हाका कांय अडचणीं आसात. म्हज्यान दूद पियेंवंक जांवचें ना.'

म्हातम्यान करूणाये स्वरान म्हळें, 'कसली अडचण आसा, व्हय ? म्हाका नी सांग पळेंवया. हांव रानांत रावपी ब्रम्हचारी. तूं म्हजी धूव जाल्ले भशेन. असली कसली ती गजाल जी तुज्यान म्हाका सांगूंक जायना ? हांवें जेन्ना तुका

बेशुद्ध अवस्थेंत उखलून हाडिल्ली तेन्ना दिसतालें कि तूं सुमाराभायर भुकेन आनी तानेन कळवळटाली. तूं खांवचीं ना म्हणटा जाल्यार कशी जगूंक पावतली,?'

हें आयकून व्हांवत्या दोळ्यांनी कल्याणीन म्हळें, 'तुमीं तर देवच जावन आसात. देखून हांव तुमकां सगळें सांगतलीं. खरें म्हळचार आतां मेरेन म्हजो घोव उपाशीं आसा. जो मेरेन तांचे लागीं म्हजी भेट जायना वा ताणी जेवण घेतलें म्हणपाचें म्हाका कळना तो मेरेन म्हज्यान कशें कितें खांवक जायत,?'

ब्रम्हचाऱ्यान विचारलें, "तुजो घोव खंय आसा ?"

कल्याणीन म्हळें, 'तें हांव कांयच नकळों, सायबा. ते दूद हाडपाक म्हणून भायर सरून गेल्ले. इतलें म्हणसर चोरांनी म्हाका उखलून व्हेलें.'

ते उपरांत, ब्रम्हचाऱ्यान तिका एकार एक कितलेशेच प्रस्न विचारले. कल्याणी आनी तिच्या घोवा विशींची सगली ताका म्हायती मेळ्ळी. कल्याणीन आपल्या घोवाचें नांव सांगलें ना. तिज्यान तें सांगुंकूय जालें ना. पूण हेरां खबरांचेर आदारून ब्रम्हचारी समजलो. ताणें विचारलें, "तूं महेंद्राची बायल, व्हय ?' कल्याणी वोगी रावली आनी जे रान्नीर दूद तापतालें तांतूंत मान बागावन तिणे जळवाची एक बडी उडयली. मागीर ब्रम्हचारी म्हणूं लागलो, 'हांव सांगतां तें तूं आयक, दूद पिये. हांव तुज्या घोवाची वासपूस करून खबर हाडटां. पुण तूं दूद पियेना जाल्यार हांव वच्चोना." हें आयकून कल्याणीन म्हळें, "हांगासर थोडें उदक मेळटलें, व्हय ?" ब्रम्हचारीन उदकाच्या कळश्याकडेन बोट दाखयलें. कल्याणीन दोनूय हातांचो पोसो फुडें केलो. ब्रम्हचारीन तांतूंत उदक वोतयलें. पोसो उदकान भरून घेवन कल्याणी उलयली, तुमी ह्या उदकांत तुमच्या चरणांचीं धूळ दियात. ब्रम्हचाऱ्यान आपल्या पांयां-बोटांचो उदकाक स्पर्श केलो. तें उदक पियेवन कल्याणी उलयली, 'हांवें अमृत पियेवन घेतलें, म्हाका आनीक कितेंय खा पिये म्हणपाचो आग्रो करी नाकात. म्हज्या घोवाची खबर कळ्ळ्या शिवाय हांव कांय एक घेंवचीं ना. ब्रम्हचाऱ्यान म्हळें, "तूं कसलोच हुस्को नासतना ह्या मंदिरांत राव. हांव तुगेल्या घोवाचे सोदीक वेतां."

## 6

बरीच रात जाल्ली. चंद्रीम माथ्यार आयिल्लो. पुनव नाशिल्ल्यान चान्नें तितलें तेजाळ नासलें. आयस पयस पातळिल्ल्या एका मैदानाचेर असो काळखाची सांवळी आशिल्लो मोवाळ चान्न्याचो उजवाड पडटालो. ह्या मंद उजवाडान मैदानाच्या एका तोंकार सावन दुसऱ्या तोंकार आरपार दिसनासलें. मैदानार कोण आसा, कितें आसा तें निश्चित दिश्टी पडनासलें. सामकें दाट मौन पसरिल्ल्यान तें भंय भिरांतीचो निवासस्थान कशें दिसतालें. तेच वटेनच्यान मुर्शिदाबाद आनी कलकत्ता वचपांचो रस्तो वेतालो. रस्याचे कुशीक एक ल्हानशी दोंगुल्ली आसली. दोंगुल्लेचेर आंब्या सारके आनीक साबार रूख आसले. रुखांचे तेंगश्यो

चान्न्याच्या उजवाडान लखलखून सळसळटाल्यो. तांच्यो सांवळ्यो काळ्या फातरांचेर पडून चडूच काळ्यो दिसताल्यो आनी थरथरून व्हेताल्यो. ब्रह्मचारी ते दोंगुल्लेचे तेंगशेर उबो रावून वोगी ध्यानस्त कियाक तरी कान दितालो. तो कितें आयकूंक रावतालो तें सांगूंक कठीण आसलें. त्या विशाल शेंकानशेंक पातळिल्ल्या मैदानार कसलोच आवाज जायनासलो. फकत झाडां रुखांची सळसळाट आयकूंक येताली. दोंगुल्लेच्या मुळसांत अेकेकडेन दाट रान आसलें. वयर दोंगुल्ली, सकला रस्तो आनी तांचे मदीं हें जंगल. थंयच्यान कसलो तरी आवाज आयकूंक आयलो. तो आवाज कसलो जायत म्हणपाचें सांगूंक येनाशिल्लें. ब्रह्मचारी त्या आवाजाचे दिकेन चलूंक लागलो तो त्या दाट अरण्यांत रिगलो. थंय वचून ताणें पळेलें कि रूखां पोंदां काळखांत अेके रांगेंत लोक बशिल्ले आसात. ते सगळे मनीस काळेकिट्ट, धिप्पाड, उंच - लांब आनी सशस्त्र आसले. दोन रुखां मदीं जंय मळ उगतें पडिल्लें थंय फांकारिल्ल्या चान्न्यांत तांच्या हातांत धारेचीं शस्त्रां चकचकतालीं: ते सुवातेर दोनशीं मनीस बशिल्ले आसले. पुण तांचे मदलो कोणूच एक उतर उलयनाशिल्लो. ब्रह्मचारी ल्हवू ल्हवू तांचे मदीं पावलो आनी ताणें कसलीशी कुरू केली. तांगलो कोणूच उठलो ना, कोणेंच कांयच म्हळें ना. कोणें कांयच विचाल्लें ना. ब्रह्मचारी सगळ्यांच्या सामकार वचून दरएकल्याचें निरिक्षण करीत फुडें गेलो. त्या काळखांत कोणाक सोदिल्ले भशेन सांस्पत गेलो. सोदतां सोदतां निमाणे कडेन तो अेकल्याक वळखलो. ताच्या आंगाक हात लायत ताणे कितें तरी कुरू केली. कुरू करतकूच तो उठलो. ताका घेवन ब्रह्मचारी थोडो वेळ मेरेन अिल्ल्या पैस अंतराचेर वचून उबो रावलो. तो मनीस दांडगो आसलो. काळ्या खाड-मिश्यांनी ताचें चंद्रीमा सारकें मुखकमळ धांपिल्लें. ताचें घटमुठ सांगपांग पळेल्यार तो शिरवंत, देखणो दिसतालो. ताणें भगवीं वस्त्रां आपणायल्लीं. ताचें सगळें आंग-पांग चंदनान सोबयल्लें. ब्रह्मचारीन ताका विचाल्लें, 'भवानंद, महेंद्रसिंहाची कितें खबर आसा, व्हय ?'

तेन्ना भवानंदान म्हळें, "महेंद्रसिन्ह आयज सकाळीं बायल भुरग्याक घेवन घरांतल्यान भायर सरिल्ले. धर्मसाळेंत . . . ." ताचें वाक्य पुराय जांवचे आदींच ब्रह्मचारी म्हणूं लागलो, 'धर्मसाळेंत कितें-कात घडलां ताची म्हाका खबर आसा. पूण तें कोणें केलें जायत ?'

भवानंदान म्हळें , "तें घडये गांवच्या शेतकामत्यांनी केलें जातलें. गांवांतले शेतकामती ह्या वेळार सगळेकडेन उपासमारांक लागून डाकू-लुटारू जाल्यात. आयजकाल लुटारू कोण न्हय गा ? आयज आमीं सगळ्यांनी लुटूनूच पोट भरलां. कोतवाल सायबांचे दोन मण तांदूळ व्हांवयताले. तेव लुटून व्हरून आमीं वैष्णवांक पोट भर जेवण दिलें."

हांसतां हांसता ब्रह्मचारीन म्हळें, "हांवें महेंद्राचे घरकान्नीक आनी धुवेक लुटारूंच्या हातांतलीं सोडयल्यांत. तांका आतां मठांत दवरल्यांत. आतां महेंद्राक सोदून काडून ताची घरकान्न आनी धूव ताचे सुवादीन करपाची जबाबदारी तुजी. हांगा जिवानंद रावलो जाल्यार काम निश्चित जातलें.

भवानंद कबूल जालो. ते उपरांत ब्रह्मचारी दुसरे कडेन वचपाक गेलो.

## 7

धर्मसाळेंत बसून चिंतून, विचार करीत कांय निकाल लागवो ना म्हणपाचें येवजून महेंद्र थंयचो उठलो शारांत वचून सरकारी अधिकाऱ्यांच्या पालवान आपले घरकान्नी - धुवेचो सोद घेवचो म्हणून येवजून तो थंयचो कडसल्लो आनी भायर सरून गेलो. कांय वेळ चलून गेल्या उपरांत ताका अशें दिसलें कि अेके बैलगाडये भोंवतणी किल्लेशेच शिपाय चलून वेताले.

1163 वर्सा बंगालांत अिंग्लेजांचें शासन येंवक नाशिल्लें. त्या काळार अिंग्लेज बंगालचे दिवाण आसले. ते शिदावाची वसुली करताले. पणून बंगालच्या लोकांच्या जीविता मालमत्त्याची राखण करपाची जापसालदारकी ताणीं आपल्याचेर घेंवक नाशिल्ली. दुडू वसूल करपाचे धनी अिंग्लेज आसले. आनी जीवित आनी मालमत्त्याचो सांबाळ ताणीं पातकी, नराधम विस्वासघातकी मनीसकुळा-कळंक अशा मीर जाफराचेर सोंपयल्लो. जंय मीर जाफरा लागीं आपली स्वताची राखण करूंक जाय नासलो थंय तो बंगालचो सांबाळ कसो करतलो आसलो? मीर जाफर अफीम खावन नशेंत न्हिदून पडिल्लो आसतालो. अिंग्लेज कर वसूल करताले आनी डिस्पैच बरयताले. बंगालचे लोक रडटाले आनी आपल्या पाडया नशिबाक खेपताले.

हाचो अर्थ असो कि बंगालची सगळी येणावळ अिंग्लेजांक मेळटाली. पुण राजकारबार चलोवपाची जबाबदारी नवाबाचेर पडिल्ली. ज्या ज्या सुवातांर अिंग्लेज आपल्या धनीपणाची वसुली आपूण करताले, थंय थंय ताणी एक एक वसुलीदार कलेक्टर नेमिल्लो. तरीय वसूल केल्लो शिदाव सगळो कलकत्त्याक वेतालो. लोक भुकेन पसून वळवळून मेल्यार, कराची वसुली बंद जाय नाशिल्ली. तरी आसतना फावो तितली वसुली जाय नासली. हाचें कारण म्हळचार जो मेरेन धर्तरी माता धन पिकय नासली. तो मेरेन ते मेळटलें तरी कशें?

तें कशेंय आसूं. जी वसुली एकटांय जाल्ली ती बैलगाडयांनी भरून कलकत्त्याक (ईस्ट अिंडया) कंपनीच्या खजीन्यांत घालूंक व्हरताले. त्या काळार लुटारूंची गिडापीड भोवूच मातून आयिल्ली. देखून ह्या मालगाडये फुडें फाटीं पन्नास हाथियारां - आशिल्ले शिपाय शिस्तीन चलताले. वोतावे त्रास जातात देखून शिपाय दिसाचो प्रवास करी नासले. ह्या पंगडाचो मुखेल आसलो एक

गोरो अपशान जो घोडयां फाटल्यानूच चलतालो. चलतां चलतां तेच मनीस हें महेंद्राक वाटेक सांपडिल्ले. गाडयांनी आनी शिपायानी रस्तो आडायल्लो पळेल्ल्यान महेंद्र एके कुशीक उबो रावलो. तरी आसतना शिपाय ताका धुकलून फुडें वचूंक लागले. तांचेशीं झगडीं करपाचो वा वादविवाद करपाचो हो वेळ नासलो, असो विचार करून तो रस्त्या पसून लागिच आशिल्ल्या रानाचे देगेर वचून उबो रावलो.

तें पळोवन एका शिपायान म्हळें, "हो तो पळय एक डाकू पळून वेता." महेंद्राच्या हातांत बंदूक आसली ताका लागून तांका ताचो दुबाव दिसूंक लागलो. ताणें महेंद्राक घट धरलो. 'चोर चोर' अशें म्हणून ताणी ताचेर अेक तोणको माल्लो आनी तांच्या हातांतली बंदूक चपकावन काडून घेतली. आतां महेंद्रानय ताचेर एक थापट फुलयलें. महेंद्रांचो राग कितलो उसळून आयल्लो तें सांगपाची गरज ना. तांचे थापट पडटनांच शिपाय घुवळ येवन रस्त्यारूच कोंसळ्ळो. तें पळेतकीर तीन-चार शिपाय थंय धांवले आनी ताणी महेंद्राक धरून फरफरीत ओडीत आपणाल्या सेनापतीच्या फुडयांत व्हेलो. ताणीं म्हळें, "ह्या दादल्यान एका शिपायाचो खून केला.." सायब गुडगुडी पायप ओडटालो. तो थोडोभोव सो-याचे नशेंतूय लांब जाल्लो. तो म्हणूंक लागलो. 'पाडपडिल्ल्याक धरून ताचे कडेन लग्न करू.' लुटारू कडेन कशे लग्न करप शिपायाक समजना जालें. पुण सयराणार आयल्या उपरांत सायबाचें मत बदललें म्हणपाचें येवजून आनी 'लग्न करचें लागचें ना, अशें धरून, तांणीं महेंद्राचे हात-पांय बांदले आनी ताका बैलगाडयेंत उडयले. महेंद्राक दिसलें कि इतल्या सगट लोकांकडेन जबरदस्ती करपांत कांय अर्थ ना. आनी फोर्सान सुटल्यार तर कितें जातलें? घरकान्नीच्या आनी धुवेच्या धक्क्यान तो अदींच गळसगून पडिल्लो. जगपाची इत्सा तांच्यांत उरूंक नाशिल्ली. शिपायानी महेंद्राक गाडयेच्या चाकांक बांदून घाल्लो आनी मागीर फुडें वचूंक लागले.

## 8

ब्रम्हचारीच्या हुकूमा प्रमाणें भवानंद ल्हव आवाजान हरिनामाचो जप करीत, महेंद्र जे धर्मसाळेंत बशिल्लो आसलो थंयचे दिकेन वचूंक लागलो. थंयच ताची कितें तरी खबर मेळटली म्हणपाचें ताका दिसतालें.

आयज आमकां अिंग्लेजांनी बांदिल्ले आधुनीक पक्के रस्ते दिसतात तशे त्या काळार नासले. कलकत्त्याक येवपाचें आसल्यार मुसलमान पातशायांनी जे कच्चे रस्ते तयार केल्ले तांतल्यानूच येवचें पडटालें. महेंद्र आपल्या गांवांतल्यान दक्षिणेक सावन उत्तरेकडचे वटेन वचत आसलो. हाका लागून तांची भेट त्या शिपाया लागीं जाल्ली. भवानंद ते दोंगुल्लेचे तेंगशेवेल्यान धर्मसाळेचे वटेन चलतना तीव्रूय वाट दक्षिणेकडल्यान उत्तरेकडेन वेताली. ताका लागून, चलतां

चलतां मार्गार तांची त्या शिपायालागीं गांठ पडिल्ली. तेन्नूय महेंद्रां प्रमाणे मुखेल राय - रस्तो सोडून कुशीक उबे राविल्ले. त्या शिपायांक दुबाव आशिल्लो कि चोर - लुटारू अ.पली तिजोरी लुटचे खातीर तर प्रयत्न करतले. आनी एकल्या डाकूक तर वाटेर धरिल्लो. म्हणटकीर, भवानंद येदचा रातयांत रस्त्याचे देगेक उबो आशिल्लो पळेवन, तोन्नूय तांतलो एक लुटारू आसूंक जाय, अशें तांकां निश्चित दिसलें. देखून शिपायानी ताकाय बी धल्लो.

भवानंदान मात्शें हांसून तांका विचारल्लें, ' हें रे कितें, बाबांनो ?'

शिपाय म्हणूं लागलो, 'तूं सालो डाकू, न्हय?'

भवानंदान म्हळें : " तुमी तर पळेतातूव कि हांव भगवीं वस्त्रां धारण केल्लो ब्रम्हचारी म्हणून. डाकू केन्ना अशे आसतात, गा ?"

शिपायान म्हळे, " जायते जाण ब्रम्हचारी आनी संन्याशी असल्यो डाकेती - चोरयो करीत आसतात."

आनी ताच्या मानगुटेक धरून ताका फरकरीत ओडून व्हेलो. भवानंदाचे दोळे त्या काळखांत रागान तांबडे जाले. पुण, आनीक कांयच उलयनासतना, खूब नमळायेन ताणें म्हळें. 'महाराज. हांवें कितें करचें, असो तुमचो हुकूम आसा, ?'

भवानंदाचे नमळायेन शिपाय खोशी जालो. तो म्हणूं लागलो, 'घे, माथ्यार हें वजें घे ? आनी ताणें ताच्या माथ्यार एक पोटली दवरल्ली. हें पळोवन, दुसरो एक शिपाय ताका म्हणूं लागलो. 'अशें करूं नाका गा तो पळून वचत. दुसऱ्या एकाक थंय बांदून घाला थंयच हाकाय बांदून दवर. हें आयकना फुडें भवानंदाक हे विशीं उत्सुकताय उत्पन्न जाली. थंय आनीक कोणाक बांदून दवरला जायत काय म्हणपाचे पळोंवक मेळटलें, अशें ताच्या मनांत आयलें. तेन्ना ताणें माथ्यावेली पोटली सकल उडयली आनी ज्या शिपायान ती ताच्या तकलेर दवरिल्ली ताच्या मुस्कटार एक फुलयलें. देखून मागीर शिपायांनी भवानंदाकूय बांदून गाडयेर महेंद्रांचे कुशीक उडयलो. भवानंदान तो महेंद्रसिंह म्हणपाचे रोखडें वळखलें.

गाडये वांगडा शिपाय आदले भशेन गजाली मारीत, उलयत चलत रावले. बैलगाडयेच्या चाकांचो करकर-वरचर आवाज जांवक लागलो. ताचो फायदो घेवन फकत महेंद्रसिन्हांक आयकूंक येवचें अश्या आवाजान भवानंदान म्हळें. 'महेंद्रसिन्ह, हांव तुका वळखतां. तुका मदत करचे खातीरूच हांव हांगा आयलां. हांव कोण तो जाणा जावपाची सध्या तरी तुका गरज ना. जें हांव सांगतां तेंच तूं शादूरकायेन कर. तुज्या हाताक बांदिल्लो दोर गाडयेच्या चाकाचेर." धर.

हें आयकना फुडें महेंद्राक रानांत पडिल्ले वरी जालें. पुण चड कांयच

उलयनासतना ताणी भवानंदान सांगिल्ले प्रमाणें केलें. काळखाच्या आदारान ल्हवू ल्हवू सरकत ते चाकाचे वटेन हाल्ले आनी हातांचो दोर ताणी चाकाचेर सहजपणीं दवल्लो. चाकाचेर घांसून वचत तो दोर ल्हवू ल्हवू कातरून गेलो. ताच्या उपरांत पांयांक बांदिल्ली दोरी ताणी तशीच झरोवन कापून उडयली. भवानंदान आपणाले बांदपास अशेच रितीन तोडून उडयलें. आनी निमाणे दोगूय गाडयेचेर बसून कांयच हालचाल करी नासतना वोगी पडून रावले.

त्या रानाचे कुशीक ज्या रायरस्त्यार उबे रावन ब्रह्मचारीन चोंयवशीं पळेवन घेतिल्लें त्याच रस्त्या वेल्यान सगळयांक वचयें पडटालें. जेन्ना शिपाय ते दोंगुल्लेचे लागीं पावले तेन्ना तागीं देखलें कि दोंगुल्लेचे सकलये वाटेन एके उंचायेर एक मनीस उबो आसलो. चान्न्याच्या उजळळेल्या निळया मळबाचे फाटभुंयेर ताचें आंग-पांग चित्रांत रेखाटिल्ले भशेन दिसतालें तें पळोवन हवालदारान म्हळें, "तोंपळेयात, आनीक एक चोर आसतलो ! ताका धरून हाडात वजें व्हरपाक उपकारा पडटलो !" हें आयकून एक शिपाय ताका धरून हाडुंक गेलो. शिपाय ताका धरूंक येता तें पळोवन लेगित तो थंडशांत, थीर रावलो. मात्तूय हाल्लो ना. शिपायान ताका धरलो. तोंड उगतें करून तो कांयच उलयलो ना. ताका धरून हवालदारा मुखार उबो केलो. हवालदारान फर्मायलें, "ताच्या मांथ्यार एक वजें दवरात." शिपायान तें दवरल्लें. ताणें तोंड धांपून तें वजें आपल्या माथ्यार घेतलें. ते उपरांत हवालदार फाटीं वळून गेलो आनी गाडयां वांगडा चलूंक लागलो.

इतले म्हणसर अवचित पिस्तोलाचो फार सोडिल्ल्याचो आवाज जालो. हवालदाराचे तकलेक गुळी लागिल्ली आनी तो जमनीचेर कोंसळून पडून मेलो ! " हाणेंच त्या हवालदाराक मारला, " अशें म्हणून शिपायानी त्या वजेकाराच्या हाताक धरलो. ताच्या हातांत अजून पिस्तोल आसलें. वजेकारान आपल्या माथ्यावेलें वजें शेवटून मारलें आनी परतून शिपायाच्या मस्तकाचेर ताणें फार सोडले. शिपायाची तकली फुटली आनी त्याच खिणा ताणे जीव सोडलो. त्याच वेळार ' हरी ! हरी !' अश्यो घोषणा करीत सशस्त्र लोक त्या जाग्यार पावले आनी ताणीं शिपायाक वेडो घालो. हेवटेन, शिपाय आपलो सायब केन्ना येतलो काय म्हूणन ताची वाट पळेत आसले. तांचेर घुरी पडल्या म्हणपाचें लक्षांत येतकीर, तांचो सायबूय गाडयां लागीं आयलो आनी ताणे शिपायाक चौकोन करपाचो हूकूम दिलो. अिंग्लेजांची नशा आपत्तीच्या वेळार सट्ट करून निसरता. ताच्या हूकुमा प्रमाणें शिपायानी तोंड वळयलें आनी आप - आपलीं आर्मी - बंदुकां घेवन तयारी करून मांडून रावले. अितल्यान अकस्मात सायबाच्या कमरेची तरसाद कोणे तरी झोंबून काडली आनी एकाच धपक्यान ताची गोमटी मारली.

सायबाचें तकली - नाशिल्लें धड घोडया वेल्यान लुंडया भशेन कोंसळून पडलें. फार सोडपाचो हुकूम दिवपाचो उरलो. तेन्ना सगळयांनी देखलें कि एक मनीस गाडयेर उबो रावन तरसाद हातान वावडीत 'हरी हरी' असो जयघोष करीत आसलो आनी 'ह्या शिपायांकांक मारून उडयात, त्या शिपायांकांक मारात' म्हणून हुकूम सोडटालो. तो भवानंद आसलो.

आपणाल्या सेनापतीची गोमटी कापिल्ली पळोवन चकित जाल्ले आनी तांच्या मडया कडेन भयभीत जावन देखतले शिपायक तांकां हूकूम दितलो ना जाल्ल्यान, सामके अडचलले. किते करचें तें तांकां सुचना जाल्लें. अितले म्हणसर त्या लुटारूंनी तांतल्या जायत्या शिपायांकांक जीवेशीं मारून उडयल्ले आनी घायाळ केल्ले. गाडयां लागीं वचून तिजोरीच्यो सगळयो पेटो ताणीं आपल्या ताब्यांत घेतिल्ल्यो. तेन्ना शिपायांचो धीर गळसगलो आनी ते भियेवन पळत सुटले.

ते उपरांत जो मनीस दोंगुल्लेचे उंचाटेर उबो आशिल्लो आनी जाणें हे चकमकीचें फुडारीपण चलयल्लें, तो भवानंदा लागीं आयलो. दोगानीय एकामेकांक वेंग मारली. मागीर भवानंदान म्हळें :

" भावा जीवानंदा, तुवें जें व्रत घेतिल्लें आसा ताचें सार्थक जालें."

जीवानंद उलयलो, " भवानंद, तुजें नांव सार्थक जांव."

लुटिल्लें धन त्या उपरांत ताणी फावो त्या अेका जाग्यार व्हरून पावोवपाची जबाबदारी जीवानंदाचेर घाली. ते प्रमाणे आपल्या वांगडयांक घेवन तो रोखडया - रोखडो दुसरेकडेन भायर सरून गेलो. भवानंद थंय अेकलोच उरलो.

## 9

महेंद्र गाडयेवेलो सकला देंवलो. ताणें अेका शिपायकाच्या हातांत आशिल्लें शस्त्र काडून घेतलें आनी ह्या झुजांत आपणाल्या वांटचाचो तेंको दितलो म्हणून तो तयार जाल्लो. पुण रोखडेंच ताच्या लक्षांत आयलें कि हे सगळे लोक लुटारू. तिजोरी लुटपाक जाय म्हणून हाणी ह्या शिपायकांचेर धुरी घाल्ली. देखून तो कुशीक सरून उबो रावलो. कित्याक लुटारूंक मदत केल्यार तांच्या नाड-करण्यांक सहकार दिल्ले भशेन जातलें म्हणपाचें ताका दिसलें. हातांतली तरसाद उडोवन महेंद्र ल्हवू ल्हवू थंयच्यान पयस वचपाक लागलो जेन्ना भवानंद तांचे बगलेक येवन उबो रावलो. तेन्ना महेंद्रान ताका विचारलें, 'तुमी कोण गा सायबा ?'

भवानंदान म्हळें – हें जाणा जावन तुमी किते करतले ?

महेंद्र – ताचें कारण आसा. आयज हांव तुमच्या उपकारां रिणांत उल्लों.

भवानंद – हें सगळें तुमकां समजलां अशें म्हाका दिसना. हातांत शस्त्र घेवन तुमी पयस कशे उबे रावले ? तुमी जमीनदार - भाटकाराचे पूत. दूद - तूप खावन घटमूट पुण कामाचो वेळ येता तेन्ना उणे पडटात !

भवानंदाचे उलोवन जाल्या उपरांत महेंद्र तिरस्कारान म्हणूंक लागलो, "हें

तर सामकें वायट काम जालें. ही चोरी डाकैती."

भवानंद : आमी घातल्या आसत धुरी - डाकैती, पुण आमीं तुमचेरय थोडे भोव उपकार केल्यात. आनीक थोडे उपकार करपाची आमची अित्सा आसा.

महेंद्र : तुमीं लोकांनी म्हजेर थोडेभोव उपकार केल्यात, हें खरें आसा. पुण आनीक कसले उपकार करूंक तुमी अित्सितात ? आनी डाकैतांकडल्यान उपकार करून घेतिल्ले परस ते घेनासतना दवरिल्ले चड बरे जातीत.

भवानंद : बरें तर, उपकार करून घेवपाचे आसल्यार तें तुमीच थारायात तुमचे अित्से प्रमाणें. तुमका खोशी आसल्यार म्हज्या वांगडा येयात. तुमकां तुमचे घरकान्नी आनी धुवेलागीं मेळोवन दितां.

महेंद्र तेन्ना परतलो आनी नीट उबो रावलो – तें कशें ?

भवानंदान कांयच जाप दिली ना. तो फुडें वचत रावलो. दुसरो उपाय दिसनाशिल्ल्यान महेंद्र ताचे फाटीं वचत रावलो. तो येवजूंक लागलो, असलो कसलो लुटारू तर हो ?

## 10

त्या चान्याचे राती दोगूय जाण वोग्गी तोंड धांपून मैदान पार करूंक लागले. महेंद्र जागमाग नासतना चलतालो. सामको दुखांत बुडिल्लो तरी स्वाभिमानी तसोच उत्सुकतायेन भरिल्लो.

भवानंदान अकस्मात वेगळें रूप धारण केल्लें. तो थीर-धिरिश्ट सन्याशी उल्लो ना. त्या झुजांत कुशल सेनापतीची गोमटी मारिल्लो वीर उल्लो ना. जो आतांच, थोडया वेळा आदीं, गर्वीश्ट वृत्तीन महेंद्राचो तिरस्कार करतालो, तो आतां तसो उल्लो ना. ज्योत्स्नामयी शांतीशालनी धर्तरीची रान-वन, पर्वत, न्हंय-नदी, हांची सोबितताय पळेवन आनी नियाळून ताच्या अंतस्करणांत खास स्फूर्त फुलून आयिल्ली. समूद्र जसो काय चंद्रीम उदेल्लो म्हणून हांसूंक लागला. भवानंदाच्या मुखकमळार हांशें फुलून आयिल्लें आनी तोंडांतल्यान गोड भास व्हांवताली. गजाली करपाची ताच्यांत उत्सुकताय निर्माण जाल्ली. भवानंदांनी उलोवपाचो जायते प्रयत्न केलो पुण महेंद्र कांयच उलयना जालो. दुसरो उपाय नासून भवानंदान अेक गीत गावपाक सुरू केलें –

‘वन्दे मातरम्
सुजलां सुफलां
मलयज शीतलां
शस्य श्यामलां
मातरम् ।’

हें गीत आयकून महेंद्र अजापभरीत जालो. ताका कांयच समजलें ना कि सुजला, सुफला, शीतला, शस्य श्यामला माता कोण जायत ? तागें विचारलें,

'ही माता कोण ?'

ताऱ्या प्रस्नांक जाप दिनासतना भवानंदान गावपाक सुरू केलें –

शुभ्र – ज्योत्सना – पुलकित – यामिनीम्
फुल्ल कुसुमित – द्रुमदल शोभिनीम्
सुहासिनीं सुमधुर भाषिणीम्
सुखदां वरदां मातरम् ।

महेंद्रान म्हळें, 'हो तर आमचो देस; ही माता कशी ?' भवानंदान सांगलें, 'आमीं दुसरे मातेक मानीनांत. जननी जन्मभूमिश्च स्वर्गादपि गरीयसी ! आमीं मानतांव कि जलमभूंय हीच आमची जननी. आमकां आवय ना, बापूय ना, भाव ना, भयण ना, अिश्ट ना मित्र ना, पुत ना अस्तुरी ना, घर-दार ना, आमचे पास्वत आसा फकत तीच सुजलां, सुफलां मलयजशीलता-शस्यश्यामला'–

महेंद्राक आतां सगळें समजलें. ताणें म्हळें, 'तशें जाल्यार, तें गीत परतें गावन दाखय.'

भवानंदान परतें गांवक सुरू केलें –

'वंदे मातरम्
सुजलां सुफलां
मलयजशीतलां
शस्यश्यामलां
मातरम् !
शुभ्र – ज्योत्सना– पुलकित – यामिनीम्
फुल्लकुसुमित – द्रुमदलशोभिनीम्
सुहासिनीं सुमधुरभाषिणीम्
सुखदां वरदां मातरम्
सप्तकोटि कंठ कलकल निनाद कराले,
द्विसप्तकोटि भुजैधृत खर करवाले
अबला केनो मां एतो बले ।
बहुबल धारिणीं
नमामि तारिणीं
रिपुदलवारिणीं
मातरम्
तुमि विद्या तुमि धर्म्म
तुमि हृदि तुमि मर्म्म
त्वंहि प्राणा : शरिरे ।
बाहुते तुमि मा शक्ति

हृदये तुमि मा शक्ति
तो मारह प्रतिमा गडि
मंदिरे मंदिरे।
त्वं हि दुर्गा द्रशप्रहरणधारिणी
कमला कमल – दल विहारिणी
वाणी विद्यादायिनी
नमामि त्वां,
नमामि कमलाम्
अमलां अतुलाम्
सुजलां सुफलाम्
मातरम्
वंदे मातरम्
श्यामलां सरलाम्
सुस्मितां भूषिताम्
धरणीं भरणीम्
मातरम् "।

महेंद्रान पळेलें कि तो लुटारू तें गीत गायता गायता रडूंक लागलो. तेन्ना अजाप जावन ताणें ताचे लागीं विचारलें, 'तुमी सगळे लोक आसात तरी कोण ?'

भवानंदान सांगलें, 'आमीं संतानां ?'

महेंद्र : संतानां ? कोणाची ?

भवानंद : मातेचीं संतानां -- भुरगीं.

महेंद्र : बरें आसा. पुण संतानांनी चोरी, डकैती करून आवयची पुजा करची पडटा, व्हय ? ही कसली आवय - भक्ती गा ?

भवानंद : आमीं चोरी डाकैती करीनांत.

महेंद्र : आतांच तर तुमी बैल - गाडयो लुटल्यात.

भवानंद : ही लूट म्हणपाची ? कोणाचे दुडू लुटले आमीं ?

महेंद्र : कित्याक, राजाचे दुडू न्हय ते ?

भवानंद : राजाचे? हो दुडू घेवपाचो राजाक कसलो अधिकार आसा ?

महेंद्र : राजाक पडटा तो ताचो वांटो.

भवानंद : जो राज्याचो सांबाळ करीना, तो कसलो राजा ?

महेंद्र .– तुमकां सगळयांक शिपायक तोफाच्या तोंडांत दिवन उडयतले. तो दीस चड पयस ना.

भवानंद – कितल्याश्याच तसल्या - शिपायकांक देखल्या हांवें, आयजय

देखल्यात !

महेंद्र :– अजून बरे तरेन तूं पळेंवक पावलो ना. केन्नाय पळेतलो.

भवानंद :– बरें आसा, तें पळेवन घेवूं. मरपाचें तर अेकदांच. परतें आनीक कांय मरण येवचें ना.

महेंद्र :– पुण जाणा जावन मरणाचे भकीक पडपांत कितें फायदो आसा ?

भवानंद :– महेंद्रसिन्ह, तुका हांव दादलो म्हूणून मानतालों, पुण आतां कळून आयलें कि हेर आसात तेच तरेचो तुंवूय. निखटो दूदा - तुपाचो दुस्मान. हें पळे, सोरोप धर्तरेचेर आपलें हड्डें तेंकोवन सरपटत फुडें सरता. ताचे परस उणाक प्राणी वा जीव - जीवाणें म्हज्या समजा प्रमाणें दुसरें ना. पुण ताचेर कोणाचोय पांय पडलो जाल्यार तो रोखडीच आपली फोडा फुलयता. तुजो धीर कसलेच परिस्थितींन सुटना काय कितें ? चितून पळे कि मगध, मिथिला, काशी, दिल्ली, कांची, कश्मीर आनी अितले देस भाग आसात तांतल्या कोणाचीय तरी येदी दुर्दशा जाल्या काय ? हांतल्या खंयच्या तरी भागांतले लोक भुकेन वळवळून तण खातात ? कांटे चाबडायतात ? मुयांचे रोयणीची माती खातात ? खंयच्या भागांतले लोक गीध, सुणीं खावन उडयतात, मेल्लीं मडीं उखलून हरून खातात ? खंयच्या देसांत गा लोकांच्या पेटुलांत पैशे आसून लेगित सवस्तकाय ना ? शिवासनाचेर शाळिग्राम आसूनूय शांतताय ना ? घरांत भुरगीं सुनो धुवो आसूनूय समाधान ना ? सुने-धुवेच्या कुसव्यांत भुरगीं - बाळां जावन लेगित घरांत सुख-शांती ना ? पोट चिरून भुरग्याक भायर काडून घेतात. खंयचोय देस आसूं, राजा लागीं प्रजेची राखण करपाचो आनी बरेपण पळेवपाचो संबंद आसता. पुण आमचो मुसलमान राजा आमचो सांबाळ राखण खंय करता ? धर्म गेलो, जात गेली, मान गेलो, कूळ गेलें, आतां तर प्राणय वचपाचो वेळ आयला. ह्या बेबदयां-सुराड्यांक धांवडावन घाल्या शिवाय हिंदुत्वाचो सांबाळ करूंक येवचो ना.

महेंद्र : पुण ताका कसो धांवडावन घालतलो गा ?

भवानंद : ताका मारून उडोवन.

महेंद्र : तूं अेकलोच तांका धांवडायतलो ? अेक थापट मारून ?

हें आयकून ताच्या प्रस्नाची जाप जाल्ले भशेन लुटारू गावंक लागले :

"सप्तकोटिकंठ - कलकल - निनाद कराले !
द्विसप्तकोटि भुजैर्धृत खरकर वाले
अबला केनो मां एतो बले ।"

महेंद्र : पुण तूं तर म्हाका अेकलोच दिश्टी पडटा.

भवानंद : कसो गा, तुवें तर आतांच दोनशीं सशस्त्र मनीस पळेल्यात.

महेंद्र : हें सगळे जाण भूंयचे भुरगे काय कितें ?

भवानंद : व्हय.

महेंद्र : असलीं आनीक कितलीं मनशां आसात?

भवानंद : हजारांनी आसात. दिसानदीस ल्हवू ल्हवू आनीक चडत रावतलीं.

महेंद्र : बरें आसा. समजुंया कि तांचो आंकडो धा-वीस हजार आसा. तितल्या लोकांच्या नाडचार मुसलमानांक राजगादयेवेले निखळवच्याक जातले?

भवानंद : प्लासीच्या झुजांत अिंग्लेज फौज कितली आसली ?

महेंद्र : खय अिंग्लेंज आनी खंय बंगाली ? तांकां अेका मापान मेजून तांची सराबरी करूं येता ?

भवानंद : कित्याक जायना ? शरीर-बळाचेर कितें आसा ? आंगांत शक्ती चड आसली म्हणून दारू-गुळो चड मारपाक जाता काय कितें ?

महेंद्र : तशें जाल्यार मुसलमानां आनी अिंग्लेजां मदीं अितलो फरक कित्याक तर ?

भवानंद : सगळयांत पयलीं हें ध्यानांत दवरात कि अिंग्लेज मनीस प्राण गेलो तरी पळून वच्चो ना. ताचे उलट सत्ताधारी मुसलमान निखटो घाम आयल्यारूच पुरो, पळत सुट्टा, शेरबतीचो सोद घेयत धांवपळ करता. त्या भायर अिंग्लेजां मदीं अेके तरेची जिद्द आसता. जें ते हातांत घेतात तें काम पुराय केल्या शिवाय रावनांत. (हाचे उलट हे सत्ताधिश म्हणजे अलगर्जीपणाचो मूर्तिमंत नमुनो. खंयचेंच काम वेवस्तीत करीनांत.) दुडवांक लागून मनीस आपलो जीव सोडूंक तयार जाता पगुन शिपायकांक वेळार पाग मेळनाशिल्ल्यान ते मरपाक कित्याक तयार जातले, व्हय ? आनी सगळयांत म्हत्वाची गजाल म्हळयार साहस. तोफेचो गुळो अेकाच जाग्यार पडटा ; धा सुवातांर न्हय. देखून अेक गुळो पडिल्लो पळेवन धा जाग्यांर पळून वचपाची गरज नासता. पुण अेक गुळो पळेना फुडें मुसमानांची अेक पुराय जमात धांवत सुट्टली, मात तोफांच्या गुळयांचो पावस पडलो तरी अिंग्लेज आपल्या जाग्यावेलो केन्नाच हालचो ना.

महेंद्र : तुमच्या आंगांत हे सगळे गूण आसात ?

भवानंद : नांत. पुण धिराचे असले गूण तर झाडावेल्यान झडून पडनांत ! तांचो अभ्यास सराव करचो पडटा.

महेंद्र : तुमी तांचो अभ्यास - सराव करीत आसतात, व्हय ?

भवानंद : आमीं सगळे सन्याशी जावन आसांव, हें तर तूं पळेताच आसतलो ! आमचो हो सन्यास ह्याच अभ्यास - सरावा खातीर आसा. आमचो अभ्यास - सराव पुराय जातकूच, आमचें ध्येय सादलें म्हणटकूच आमी सगळे घर - संवसारी जातले. निमाणेकडेन पळेल्यार आमकांय बायल - भुरगीं आसात.

महेंद्र : तुमी ह्या सगळयांचो त्याग केला हें खरें ! तुमका मायेचो, संवसाराचो मोह ना ?

भवानंद : संतानांनी फट मारूंक उपकारना. तुजे सामकार हांव लटकी बडायमारचो ना. माया बांदपास तोडून कोणाच्यान जंय जोडूंक जातलें ? आपणें माया पास तोडले जो म्हणटा ताचे बाबतींत अेक तर माया अस्तित्वांतूच नाशिल्ली वा तो वेश्टो पोल-पोको बडवाचार सांगता. खरें म्हळ्यार आमीं मायापासांतले मुक्त-मेकळे जायनांत. पुण आमीं आमचें व्रत पाळटांव. तूं संतान जातलो?

महेंद्रान म्हळें, "म्हजे बायलेक आनी भुरग्याक मेळ्ल्या शिवाय म्हज्यान कांयच सांगूंक जायना."

भवानंदान म्हळें, 'तशें जाल्यार चल, तांकां मेळून घे.

दोगूय फुडें चलत रावले. भवानंद 'वंदे मातरम्' गांवूंक लागलो. महेंद्राचो तालो सुरबूस आसलो. ताका संगीताचो मोगूय आसलो, थोडी-भोव म्हायतीय आसली. भवानंदा वांगडा गायत वेता आसतना ताच्या दोळ्यांनी दुकां भरून आयलीं. तेन्ना तो भवानंदाक सांगूंक लागलो : 'घरकान्नीक आनी धुवेक सोडून दिवपाची अट नासल्यार म्हाकाय हें व्रत तुमी घेवन दियात.'

भवानंदान म्हळें, "जो ह्या व्रताची दिक्षा घेता तो आपल्या भुरग्यां-बाळांचो त्याग करता. तुका हें व्रत घेवपाचें आसल्यार घरकान्नीक आनी धुवेक तुज्यान मेळूंक जावचें ना. तांचे राखणे-सांबाळाची वेवस्ता जातली पुण जो मेरेन व्रताचें फळ-येस येवचें ना तो मेरेन तांचें तोंड लेगीत तुका पळेंवक मेळचें ना.

महेंद्रान म्हळें : तशें जाल्यार हांव तें व्रत घेवचो ना.

## 11

रात सोंपून फांतोड उदेवन आयली. त्या लोक नाशिल्ल्या रानांत जंय आतां मेरेन काळोख आनी मौन वसतालें, थंय आतां सुकण्यां-सवयांच्या चिवचिवाटान उजवाड फांकारून येतालो आनी आनंद भरतालो. त्या सोबीत सकाळच्या वेळार धादोसभरीत रानांतल्या आनंदमठांत सत्यानंद ब्रह्मचारी हरणाच्या चामड्या मृगाजिनाचेर आसन मांडून बसून आन्हिक करीत आसले. तांच्या म्हयांतूच जीवानंद बशिल्लो. असल्या ह्या वेळार भवानंद महेंद्रसिन्हांक वांगडा घेवन थंय पावले. ब्रह्मचारी मोन्यानी आपलें आन्हिक करीत रावले. तांचे लागीं कोणाकूच कांय उलोवचलो धीर जाय नासलो. थोड्या वेळा उपरांत आन्हिक पुराय जातकीर जीवानंद आनी भवानंद, हाणीं तांकां प्रणाम केलो आनी तांची पांयधूळ कपलाक लावन विनम्र भावान ते आप-आपल्या जाग्यार वचून बसले. त्या उपरांत सत्यानंद भवानंदाक कुरू करून भायर घेवन गेले. थंय दोगांय मदीं कसल्यो खबरो जाल्यो ताची सुलूस कोणाक लागली ना. थोड्या वेळान ते दोगूय परते आयले. हांसत ब्रह्मचारानी महेंद्राक म्हळें, 'पुता, तुगेल्या दुखाची खबर आयकून म्हाका खुब वायट दिसलें.

कालचे राती, भगवंताचे कृपेन म्हणूंक जाय, तुमगेले घरकान्नीक आनी धुवेक वाटावपांत म्हाका येस फावो जालें. मागीर, त्या घडणुकांचें वर्णन करीत ताणी सांगलें, " चलात, तीं असात थंय तुमकां व्हरतां हांव."

ब्रह्मचारी फुडें आनी तांचे फाटल्यान महेंद्र मंदीरांतल्या भितल्ल्या भागांत गेले. भितर पावना फुडें महेंद्रान पळेलें कि ती एक व्हडली, आयस-पयस पातळिल्ली. उंच उबार कूड. न्व्याच उदेवन आयिल्ल्या सूर्याच्या उजवाडान लागशिल्लें रान जरी किर्णांचे ज्योतीक लागून हिऱ्या भशेन लखलखतालें तरी ते व्हडले कुडींत काळोख आशिल्लो. कुडांत कितें आसा म्हणपाचें भितर सरताना महेंद्रांचे नदरेक पडलें ना. पळेतां पळेतां मागीर झळकलें कि थंय एक व्हडली गडगंज चतुर्भुज म्हूर्त आसली. ती म्हूर्त शंखचक्रगदापद्माधारी आसून तिच्या हडड्याचेर कौस्तुभमणी सोबून दिसतालो. तिचे सामकार सुदर्शनचक्र असलें. मधु आनी कैटभ, ह्या दोग राखेसांच्यो मस्तकहीन रक्तबंबाळ म्हूर्ती सामकार असल्यो. दाव्यान मेकळे सोडिल्ल्या केंसांची लक्ष्मीची मूर्ती आसली ; तिच्या आंगाखांदार कमळां फुलांचो सोबीत हार घाल्लो. उजव्यान उबी आसली सरस्वती - तिच्या हातांत पुस्तक आनी वीणा राग-रागिण्यो तिचे भोंवतगी मूर्तीमंत उब्यो असल्यो. विष्णुच्या गोपांत मोहिनीचीं एक मुर्ती आसली. ती लक्ष्मी आनी सरस्वती हांच्यां मूर्तीं परस अदीक सुन्दर आनी चड ईश्वर्यसंपन्न आसली. गंधर्व, किन्नर, देव, यक्ष, राखेस तिची पुजा करताले. ब्रह्मचारींनी व्हडल्या ताळ्यान आनी गंभीर स्वरान महेंद्रांक विचाल्लें, 'तुका हें सगळें दिश्टी पडटा मू ?' महेंद्रान म्हळें, 'व्हय दिसता.'

ब्रह्मचारी : विष्णुचे मांडयेर कोण आसा पळेल्या तुमी ?

महेंद्र : पळेल्या ! कोण ती ?

ब्रह्मचारी : माता.

महेंद्र : खंयची माता ?

ब्रह्मचारी : जिचीं आमीं सगळीं संतानां जावन आसात, ती.

महेंद्र : ती कोण सांगशी ?

ब्रह्मचारी : तें योग्य वेळार तुका कळून येतलें. आतां म्हण, वंदे मातरम्. बरें तर आतां फुडें चल. आनीक जायते दाखोवपाचें आसा तुका.

उपरांत ब्रह्मचारींनी महेंद्राक दुसऱ्या कुडांत व्हेलो. थंय ताका एक दिव्य, सर्वांग-संपन्न, सगळ्या आभुषणांनी विभुशीत केल्ली म्हूर्त दिश्टी पडली. ती जगध्दात्रीची मूर्ती आसली. महेंद्रान विचारलें, 'ही कोण ?'

ब्रह्मचारी : माता. ती अशी आसली.

महेंद्र : म्हळ्यार कितें ?

ब्रह्मचारी : हिणें हत्ती, शींव आदी सगळ्या जंगली मुकण्यां - मावजांक

आपल्या पांयां खाला माडडून जंय हिंस्र सावजां रावतालीं थंय आपणालें पद्मासन थापिल्लें. ही सर्व प्रकाराच्या अलंकारांनी विभूषित, हांस्त्या मुखकमळाची सुन्दरी आसली. निकतोत्र उदेवन आयिल्ल्या सूर्याच्या उजवाडा साग्को तिचो रंग सोबीत आसलो. ती सगळचा देवदेवतांची स्वामिनी. तिका प्रणाम करात.

जगध्दात्री रूपाचे आवय-भूयेक महेंद्रान भक्तिभावान प्रणाम केलो. ताच्या उपरांत, ब्रह्मचारींन ताका काळखान भरिल्लें अेक भूंयार दाखयलें, आनी सांगलें, 'हेवटेन वचपाचें !' ते आपुण फुडें फुडें वचन रावले. महेंद्र भियेवन भियेवन तांचे फाटल्यान वचूंक लागलो. जमनी पोंदाक आशिल्ल्या अेका काळखा कुडांत खंयच्यान तरी येतलो थोडोसो उजवाड पाझरतालो. त्या अिल्ल्याश्या उजवाडान काली देवीची मूर्ती नदरेक पडली.

ब्रह्मचारी म्हणूं लागले, "ती पळे, आवयची ती आतां अशी स्थिती जाल्या."

महेंद्रान भियेवत म्हळें. "काली !"

ब्रह्मचारी : काली ! काळखान भरिल्ल्यान ती कालिकामयी जाली. तिचें सगळें आसलें नासलें काडून व्हेलें. देखून ती नागडी उगडी पडल्या. आयज, देसांत खंयीं पळे, सगळेकडेन स्मशानांव पातळ्ल्यांत. देखूनूच मातेन आपणाल्या गळयांत मुंडक्यांच्यो माळो घाल्ल्यात. ती आसा कंकालमालिनी काली. ती आपल्या शीवाक आपल्याच पांयां पोंदा माड्डीता. हाय माते !

ब्रह्मचाऱ्यांच्या दोळयांतल्यान दुकांच्यो धारी व्हांवूंक लागल्यो.

महेंद्रांन विचारलें : आवयच्या हातांत हो सोडो आनी खापर कित्याक ?

ब्रह्मचारींनी म्हळें : आमीं संतांनी. आवयच्या हातांत आमीं आतांच तें हातयार दिलां. म्हण, वंदे मातरम्.

'वंदे मातरम्' अशें म्हणून महेंद्रान कालीक प्रणाम केलो. उपरांत ब्रह्मचारीन म्हळें, 'हेच वाटेन यो.' अितलें उलोवन ते दुसऱ्या अेका भूंयारात रीगले. अकस्मात तांच्या दोळयांचेर सकाळीं उदेवन आयिल्ल्या सुर्याचीं किरणां पडलीं. चारूय वशीनच्यान सुकण्यांचें गोड गायन सुरू जालें. पळे जाल्यार, संगमरवरीच्या अेका प्रशस्त मंदीरांत भांगराची अेक धा-भुजां मुर्ती कोंवळ्या किर्णांनी लकलकीत जावन हांशें खेळयताली. ब्रह्मचारी तिका नमस्कार करून म्हणूं लागले, "आमची माता अशी आसतली. हीं तिचीं धा भुजां धाय दिकांनी पसरिल्लीं आसतलीं. भुजां मदीं तरेनरेच्या आयुद्दांच्या रूपान जिनसांवार शक्ती सोबतल्यो, पाया तळा दुस्मान मडिल्ले आसतले. पांयां पोंदाक आशिल्लो शींवरूपी वीर शत्रूंचो नाश करपांत गुल्ल आसतलो. दिग्भुजां !..." अशें म्हणून सत्यानंद थांबले. तांचो गळो भरून आयिल्लो ते बुटबुटीत रडूंक लागले. "दिग्भुजा, साबार प्रकाराचीं शस्त्रांधारिणी. शत्रुविमर्दिनी – शिवाचे फाटीर

बशिल्ली, उजव्यान भाग्यरूपिणी लक्ष्मी, दाव्यान वाणी - गिन्यान - विज्ञान दिवपी सरस्वती. तांचे वांगडा बळरूपी कार्तिकेय आनी कार्यसिद्धिरूपी गणेश. येयात, आमीं दोगूय अेकटांय मातेक प्रणाम करूंया."

दोगांयनी हात जोडून, वांगडाच म्हळें:

"सर्वमंगलमांगल्ये शिवे सर्वार्थसाधिके।
शरण्ये त्र्यंबके गौरि नारायणि नमोस्तु ते ।।"

दोगूय भक्तिभावान प्रणाम करून उठून उबे रावले. महेंद्रचो गळो भरून आयलो, "मातेचें हें रूप आमकां केन्नां पळेंवक मेळटलें काय ?" ताणें विचारलें.

ब्रह्मचारीन म्हळें, "जेन्ना मातेचीं सगळीं संतानां ते आवयेक मां म्हणून उलो करतलीं तेन्नाच ती प्रसन्न जातली."

अवचित महेंद्रान विचारल्लें, "म्हजी बायल आनी धूव खंय आसात ?"

ब्रह्मचारी : फुडें वचात, तांकां मेळूंया.

महेंद्र : फकत अेकदांच तांकां मेळून, मागीर हांव तांचो निरोप घेतलों.

ब्रह्मचारी : कित्याक ? कित्याक तांचो निरोप घेतलो ?

महेंद्र : हांव ह्या म्हामंत्राची दिक्षा घेंवक सोदतां.

ब्रह्मचारी : बरें आसा. पुण तांका खंय धाडटलो ?

थोडो वेळ येवजून महेंद्रान म्हळें "म्हज्या घराकडेन कोण्च ना. आनी दुसरी सुवातूय ना. ह्या कॉलेराच्या तेंपार आनीक खंय जागो मेळटलो ?"

ब्रह्मचारी : "तूं जे वाटेन हांगा मेरेन आयला तेच वाटेन परतो वचून मंदिराच्या भायर राव. तुगेलीं घरकान्न आनी धूव मंदिराच्या दाराकडेन तुका मेळटलीं. थंयच जेवण खाण दवरलां. कल्याणीन अजून कांयच खावंक ना. तिका जेवूंक घाल; आनी मागीर तुजे अिच्छे प्रमाणें करून घे. आतां आमच्यांतल्या कोणाकडेन तुगेली भेट जांवची ना. तुगेले आतांचे विचार तशेच तिगून उरत जाल्यार हांव योग्य त्या वेळार तुका मेळूंक येतलों."

ब्रह्मचारी हें सांगून खंयचे तरी वाटेंतल्यान नांच जाले. महेंद्र आदीं पळेल्ले वाटेंतल्यान परते वचूंक लागले. थोडयाच वेळान ते सभामंडपांत आयले. पळे जाल्यार, थंय तांची घरकान्न धाकले बायेक घेवन बशिल्ली आसली.

हेवटेन सत्यानंद दुसऱ्या अका भूंयारांतल्या मार्गावेल्यान सकला देंवले; आनी अेका गुपीत तळघरांत पावले. थंय जीवानंद आनी भवानंद धर्तरेचेर बसून दुडू मेजताले आनी तांची लावणी करताले. त्या कुडांत भांगर, रूपें, तांबें, हिरे, मोतयां, प्रवाळ, हांच्यो राशी पडिल्ल्यो. फाटले रातीचे लटींत मेळिल्ल्या दुडवांचें ते मेजमाप करताले आनी ते वेवस्तीतपणीं मांडटाले. थंय भितर सरतनांच सत्यानंदांनी म्हळें, "जीवानंद, महेंद्र आमच्यांत भितर सरतलो. तो आयिल्ल्यान संतानांक खाशेलो लाब मेळटलो. कित्याक तांच्या पुर्वजांनी पिळग्यान पिळग्यांनी सांटयल्ली धन-दौलत मातेची

सेवा करपांत आमकां अपूर्क मेळटली. पुण जो मेरेन तो तन-मन-उतर धरून मातेचो भक्त जायना, तो मेरेन ताका तुमी आमचो बांगडी म्हणून मानून घेवूं नाकात. तुमच्या वांट्याक दिल्लें काम पुराय जाल्या उपरांत तुमी वेगळ्या वेगळ्या वेळार ताचे पाळटेर रावात. फावो ते संदीक धरून ताका श्रीविष्णूच्या मंडपांत घेवन येयात. खंयच्याय वेळार आनी परिस्थितींत ताची राखण करात. दुश्टांक ख्यास्त दिवची, हो जसो संतानांचो धर्म जावन आसा तसोच सुश्टांचो सांबाळ करचो, होवूय तांचो धर्म.

## 12

जायत्यां कश्टां आनी संकश्टां उपरांत महेंद्र आनी कल्याणी, हांची अेकामेका लागीं कळकळीची भेट जाल्ली. कल्याणी जाल्यार हुडके हुंडकेवन रडत धर्तरेचेर कोंसळ्ळी. हें पळेवन महेंद्र अदीक रडूंक लागलो. रडून जाल्या उपरांत, दोळे पुसपाची चडाओड जाली. जितले फावटीं तो आपले दोळे पुसतालो तितले पावटीं ते परते भरून येताले. दुकांचो धार बंद करचे खातीर कल्याणीन खावपा-पिवपाची गजाल काडली. ब्रह्मचारींच्या सेवकान जी जेवणा-भूती हाडून दवरिल्ली ती जेवपाक कल्याणीन महेंद्राक परासून विनंती केली. दुखळाच्या त्या दिसांनी पक्वान्नांचें जेवण मेळपाची तर आस्त बाळगूं नजे आसली. तरीय आसतना, जें ह्या देसांत लोकांक मेळटालें तें जाल्यार संतानां खातीर सोंपेपणीं फावो तशें गावतालें. हें रान सामान्य लोकां पासत तर पैशिल्लें अशें आसलें जंय जंय झाड रूख आसलो थय थंय फळ मेळटालें ; भूकेन वळवळटले लोक तेंच तोडून खाताले. ह्या पैशिल्ल्या रानांतल्या झाडां-पेडांचे फळ खावपाक सामान्य लोकांक नशीब नासलें. देखून, ब्रह्मचारींच्या सेवकाक बरींवशीं जंगली फळां मेळिल्लीं. आनी तांचे बांगडा थोडेंशें दूद हाडूंक ताका जमिल्लें. संन्याशी ठाकुरांच्या ताब्यांत धन-दौलत म्हणपा सारकी कांय गायो बी आसल्यो. कल्याणीन आग्रो केल्ल्यान महेंद्रानूच पयलें थोडें खाल्लें. नांतलें जें उरिल्लें तें कल्याणीन अेकली बसून खालें.

मागीर भुरग्याक दूद पिवयलें. आनीक अेक फावटीं बायेक दिवचें म्हणूत थोडें राखून दवरलें. मागीर मातशी न्हिदून घेवन तिची थकावट अिल्ली उणी जाली. जागीं जाल्या उपरांत तीं दोगांय चिंतूंक पडलीं, आतां खंय वचपाचें ! कल्याणीन म्हळें, "घरांत रावचें म्हळ्यार संकटांचें दिसलें म्हणून आमीं घर सोडून भायर सरलीं. आतां म्हाका दिसता कि भायर घरा परस चड संकश्टांचें आसा. देखून म्हाका दिसता कि आमीं परतीं घरा गेल्लीं बरीं." महेंद्राकूय तेंच करीन दिसतालें. ताची अिच्छा आसली कि कल्याणीक कोणाचे देखरेखी खाल घरा दवरची आनी आपणें घर सोडून हें पवित्र मातृव्रत घेवचें. ताका लागून, ते कल्याणीच्या विचारां कडेन सहमत जाले. आनी, थोडया वेळा उपरांत,

भुरग्याक खांदार घालून घरकान्नीक घेवन ते परतून गांवचरा वचपाक म्हणून थंयच्यान उठले.

पुण त्या दाट रानांतल्यान आपणाल्या पद्चिन्ह गांवाकडेन खंयचे दिशेन वचूंक जाय म्हणपाचें तांकां कांयच समजना जालें. अेकदां रानांतल्यान भायर सल्लो म्हणटकूच रस्तो सांपडटलो म्हणपाचें तो येवजीतालो. पुण त्या जंगलांतल्यान भायर सरतलो म्हळचार ताका मेकळी वाट मेळनासली. तीं खूब वेळ रानांतल्यान हेवटेन तेवटेन भोंवत रावलीं. कितलींय चल्लीं भोंवलीं तरी तीं परतीं निमाणीं त्याच मठा लागीं पावतालीं. रानांतल्यान भायर सरपाचो मार्ग तांकां कितेंच केल्यार मेळनासलो. तेन्ना वैष्णवांचो भेस केल्लो अेक अनवळखी ब्रह्मचारी तांच्या सामकार मंद हांसत उबो जालो. हें पळेवन महेंद्राक राग आयलो आनी ताणें तिडकीन विचारलें, "आरे, गोंसाव्या, तूं हांसता कित्याक?"

गोंसाव्यान म्हळें, 'तुमी ह्या रानांत आयलीं कशीं.'

महेंद्र : कशींय जांव, आमीं आयलीं तीं खरीं.

गोंसावी : 'आयलींच जाल्यार तुमच्यांनी भायर सरूंक कशें जायना ?' अशें म्हणून तो परतो हांसूंक लागलो.

तेन्ना भिरभिरी मारिल्ल्यान महेंद्रान विचारलें, 'तूं हांसता ; पुण तुज्यान तरी ह्या जंगलांतल्यान भायर सरूंक जायत,?'

ब्रह्मचारीन म्हळें, 'म्हज्या वांगडा यो, हांव तुमकां वाट दाखयतां. तुमीं खंयच्यांनीच खंयच्याय संन्याश्या वांगडा हांगा आंयल्यां आसतलीं. ना जाल्यार, हांगा येवपाचो आनी हांगाच्यान वचपाचो मार्ग तर आनीक कोणाकूच खबर ना.'

हें आयकून, महेंद्रान विचारलें, 'तुमी संतान आसात?'

वैष्णवान म्हळें, 'हय. हांवूंय संतान जावन आसा. म्हज्या वांगडा यो. तुमकां वाट दाखोंवचे पासतूच हांव हांगा उबो आसां.'

महेंद्रांन ताका विचारलें, 'तुमचें नांव कितें?'

वैष्णवान म्हळे, 'म्हजें नांव धीरानंद गोस्वामी.'

अितलें उलोवन धीरानंद फुडें चलूंक लागलो. ताचे फाटल्यान महेंद्र आनी भुरग्यासंत कल्याणी चलतालीं. धीरानंदान चड पॅशिल्ले अेके वाटेंतल्यान तांका रानांतलीं भायर व्हेलीं आनी तो अेकलोच परतो रानांत रीगलो.

त्या आनंद रानांतल्यान भायर सरल्या उपरांत थोडयाच अंतराचेर झाडां पेडां आगिल्लें मैदान लागलें. अेके वटेन तें मैदान, दुसरे वटेन रान आनी ताचे देगेक राय-रस्तो वेतालो. रानामदीं अेके सुवातेर अेक ल्हानशी न्हंय खळखळीत व्हांवताली. तिचें रसरशीत उदक स्फटीका सारकें नितळ निवळ आसलें. पुण रानाच्या दाट काळखींतल्यान व्हांवतना तें दाट कुपां सारकें काळसार दिसतालें. दोनूय देगेर पांचव्याचार रूखा-झाडांनी आपणाली शीतळ सांवळी न्हंयेचेर

उडयल्ली आनी तांच्या खांदयां-ताळयांचेर बसून सुकणीं सवणीं चिवचिवतालीं आनी बोवाळ करतालीं. सुकण्यांचें गोड म्होंवाळ चिवचिवप न्हंयेच्या मधूर खळखळांत भरसतालें. तेच भशेन रूख-झाडांची सांवळी उदकाच्या रंगांत मिसळ जाल्ली. कल्याणीचें मनूय ते सांवळेशीं जशें कितें अेकरूप जाल्लें. ती न्हंयेचे देगेर अेका रूखा पोंदाक बसली आनी आपणाल्या घोवाकय तिणें आपले बगलेक बसपाक सांगलें. महेंद्र बसलो. कल्याणीन धुवेक घोवाचे व्होंटयेंतली काडून घेवन आपले वेंगेंत घेतली. घोवा हात आपल्या हातांत घेवन कांय वेळ मेरेन ती वोग्गी बसून रावली. मागीर तिणें विचारलें, "आयज तुमी खूब उदास दिसतात, आमचेर कांय संकेंश्टां आयिल्लीं तीं आतां पयस जालीं. आतां ही उदासी कित्याक ?"

महेंद्रान अेक लांबदीक सुस्कारो सोडलो. आनी म्हळें, "हांव आतां म्हजो स्वताचो असो उल्लो ना. कितें करचें, तेंच म्हाका समजना."

कल्याणी : कित्याक अशें म्हणटात तुमी ?

महेंद्र : तुजी म्हजी गांठ तुटिल्ल्या उपरांत जें म्हज्या वांटयाक आयलें ताची तुका कल्पना ना. तें आयकून घे.

अशें म्हणून ताणे सुरवातेक थावन अंता मेरेन कितें घडून आयलें ताची विस्तारान सगळी खबर सांगली.

तेन्ना कल्याणीन म्हळें "म्हजेरूय व्हडलीं संकटां आयलीं आनी गेलीं. तें आयकून कितें करतले ? ह्या अितल्या सगळ्या आपत्तिच्या जाळांत आसतना म्हाका कशी न्हीद लागली तें म्हाका कळना. पुण कालचे राती, निमाण्या पारा म्हाका खोल न्हीद लागिल्ली. ते न्हिदेंत म्हाका अेक सपन पडलें. म्हाका अशें दिसलें कि कसल्या तरी पुण्याच्या बळार हांव अेक अनवळख्या जाग्यार पावल्यां. थंय धर्तरी नासली. सगळेकडेन फकत उजवाड फांकारून आयिल्लो. तो उजवाड सामको शितळ, कुपांतल्यान वाट काडून आयिल्लो उजवाड जो अेकदम मधूर आसलो. थंय कोणूच दादलो नासलो भायरावन प्रकाशाची मूर्ती. अेक उतर ना, खूब पयस थावन गायन वादनाचोसो आवाज येतालो. दर खिणाक थंय निकरयोच फुलिल्ल्यो जायो - जुयो, मोगरीं, हांचो परमळ फांकारिल्लो. आनी सगळ्यांचे वयर सगळ्यांक दिसतात्या जाग्यार कोण तरी बशिल्लो आसलो. जसो कितें अग्निच्या प्रभावान भितल्ले भितर नीळ पर्वत जळटालो. ताच्या माथ्यार उज्याचोच विशाल मुकुट झळझळटालो. ताका जशें कितें चार हात आसले. ताचे दोनूय कुशींनी कितें आसलें तें म्हाका सारकें वळखूंक आयलें ना. घडये त्यो अस्तुऱ्यांच्यो मूर्ती आसल्यो जायत. पुण अितली सुंदरताय, अितलो लखलकाट, अितलो परमळ, धमधम कि ते वटेन पळेतनाच दोळे दिपावताले. ताका लागून म्हज्यान तेवटेन पळेंवक जायना जालें. ती कोण जायत काय

म्हणपाचें बारीक पळेवन वळखून घेंवक म्हाका जमलें ना. अशें दिसलें कि त्या चार भुजांचे मूर्ती मुखार अेक नारी - मूर्ती उबी आसली. तिवूय बी ज्योतीर्मय, पुण तिचे सरभोंवतणी कुपांची दाटी जाल्ल्यान तिचें तेज सारकें बरें निवळ रूपान फांकारून येनासलें. ते धुंवरी उजवाडान अितलेंच झळकलें कि दुबळीशी पुण व्हड रूपेस्त अशी ती नारी - मूर्ती विकळाप करून रडटाली.

थोडचा वेळान असो भास जालो कि मंद परमळीत वाऱ्यान ल्हारेवन येवन म्हाका जशें काय चतुर्भुज मूर्तीच्या चरणां कडेन पावयल्लें. आनी तेन्ना कुपांनी सोबयल्ले हे दुबळे बायलेन म्हाका बोट दाखोवन ते चतुर्भुज मुर्तीक सांगलें, "हीच ती, जिका लागून महेंद्र म्हजे वेंगेंत येना."

तैन्ना बांसुरी वाजिल्ले भशेन गोड उतर म्हज्या कानार पडलें. जशी किंतें नी चतुर्भुज मूर्ती म्हाका लेखून म्हणटाली,

"तूं तुज्या घोवाक सोडून म्हजे लागीं यो. हीच तुमच्या सगळचांची आवय. तुजो घोव तिची सेवा करतलो. तूं घोवा म्हऱ्यांत रावली जाल्यार तिची सेवा करूंक पावची ना. देखून तूं भायर सरून यो." हांवें रडत रडत म्हळें, "तांकां सोडून हांव कशी येवूं,?" तेन्ना बांसुरीच्या सुरा सारके शब्द आयले, "हांवूच घोव, हांवूच आवय, हांवूच बापूय, हांवूच पूत, हांवूच धूव. म्हजे लागीं यो." हें आयकून हांवें किंतें जाप दिली ताचो म्हाका बरो उगडास जायना. हांव अेकदम जागीं जावन उठलीं.' अितलें उलोवन कल्याणी वोगी रावली.

महेंद्र अजापभरीत आनी भयभीत जावन वोगी रावलो. माथ्या वयर निळीं सवणीं चिवचिवूंक लागलीं. सगळेकडेन कोगळाचीं गायनां आयकूंक आयलीं. भोंवरांच्या गुंजणांत रान थरथरूंक लागलें. पांयां कडेन व्हांवतली न्हंय खळखळीत आवाज करताली. वारें रानांतल्या फुलांचो धमधम घेवन येतालें. न्हंयेच्या उदकांत खंय खंय जोताचीं किर्णां विरविरीत घिसघिसतालीं. मदींच मंद वाऱ्याक लागून ताडमाडांची सळसळ आयकूं येताली. पैशिल्ल्यान निळचा दोंगरांच्यो रांगो लागिल्ल्यो दिसताल्यो.

दोगांय जाणां बरोच वेळ मेरेन देखाव्यांत गुल्ल जावन तो तोखेत रावलीं. बऱ्याच वेळा उपरांत कल्याणीन परतें विचारलें, 'कसलो विचार करतात तुमीं?'

महेंद्र : "किंतें करचें, हेंच चिंततां हांव. सपन म्हळचार अेक भयंकर कल्पनांच आसता. ती आपल्या मनांत जल्म घेता आनी मनांतूच विलीन जावन विरगळून वेता. उदकाचेर पडिल्ली जिविताची सांवळी कशी, पडबिंब कशें. चल. आमी घरा वचूंया."

कल्याणी : "देवान तुमकां जंय वचात म्हण सांगलां थंयच तुमी वचात."

अितलें उलोवन कल्याणीन धुवेक घोवाकडेन दिली.

भुरग्याक व्हॉटयेंत घेवन महेंद्रान विचारलें, "आनी तुजें किंतें ? तूं खंय

घेतली ?''

कल्याणीन दोनूय हातांनी दोळ्यांतल्यान व्हांवतलीं दुकां लिपोवन म्हळें, ''हांव थंय वेतलीं जंय देवता म्हाका वच म्हणून सांगता.''

महेंद्राक धक्को बसलो, ''खंय गो तें ? कशें वेतलें तूं.''

कल्याणीन विखाची डबी दाखयली.

महेंद्रान अजापान चकित जावन विचारलें, ''हें किते ? तूं वीख घेतलें.''

कल्याणीन सांगलें, '' तें खावचें म्हणून थारायल्लें खरें, पुण . . . ''

अितलें उलोवन कल्याणी वोगी रावली आनी विचारांत शेणली. महेंद्र तिच्या तोंडाकडें पळेत रावलो. अेक अेक खिण अेका वर्सा सारको लागलो. जेन्ना ती फुडें कांय उलयली ना, तेन्ना महेंद्रान विचारलें, 'कितें ! उलयता उलयता थांबलेंशें?'

कल्याणीन म्हळें, ''हांवें वीख घेवचें अशें येवजिल्लें. पुण तुमकां आनी हे सुकुमारीक सोडून वचपाची म्हजी अिच्छा जायनासली. आतां हांव मरची ना.''

कल्याणीन ती डबी जमनीर दवरली. दोगांय फाटल्या-फुडल्या काळाच्यो खबरो करीत वचूंक लागलीं. तांचें लक्ष आपले भोंवतणी उल्लें ना. अितले म्हणसर खेळटां खेळटां तांची सुपुल्ली धुव त्या डबये कडेन पावली. तिणें ती उखल्ली. तिका कोणेंच पळेली ना.

भुरग्याक अेक भोव बरें खेळणें मेळ्ळें. तिणें ती डबी घेवन, उजव्या हातांत धरून खूब धाडायली. मागीर दोनूय हातांनी ती डबी उगडपाचो प्रयत्न करूं लागली. निमाणेकडेन तिची डबी उगडली आनी तांतूंनल्यान विखाची अेक गुळी सकला पडली.

गुळी वचून महेंद्रांच्या सदऱ्याचेर पडली. हें पळेतनाच सुकुमारीक दिसलें कि ही आनीक अेक खेळपाची वस्त. डबी शेवटून दिवन तिणे गुळी काडून घेतली.

सुकुमारीन विखाची डबी कित्याक तोंडांत घातली ना, हें सांगूंक जायना. पुण गुळी तोंडांत उडोवपाक तिणें थोडो लेगिन वेळ वगडायलो ना. 'प्राप्तिमात्रेण भोक्तव्यं' – गुळी हातांत पडना फुडें ती सुकुमारीन तोंडांत उडयली. ह्याच वेळार आवयची नदर तिचे कडेन पडली.

'' कितें खालें गो ? कितें खालें तें सांग. सर्वनाश जालो, सायबा !'' अशें म्हणून कल्याणीन भुरग्याच्या तोंडांत बोट घातलें. तेन्ना विखाची डबी रीती थंय पडिल्ली आसा म्हणपाचें तांच्या दोगांयच्या लक्षांत आयलें. ल्हान बाळाक होय खेळ कसो दिसलो. निकत्याच वयर आयिल्ल्या आपल्या दोन - चार दांतां मदीं गुळी घट्ट धरून ती आवयचे कडेन पळेत हांसूंक लागली. अितले म्हणसर घडये विखाचो सुवाद तिका कोडू असो लागलो जायत. कित्याक तिणेंच आपशींच तोंड उग्तें केलें. तेन्ना कल्याणीन रोखडी ताच्या तोंडांतल्यान ती गुळी काडून घेतली. त्या

बरोबर भुरगें रडूंक लागलें.

ती गुळी धर्तरेचेर पडली. कल्याणी धांवत न्हंयेकडेन गेली आनी आपल्या पालवाचें पोंत भिजोवन ती अिल्लें उदक घेवन आयली. तें भुरग्याच्या तोंडांत घातलें. महेंद्रांन विचारलें, 'हाच्या पोटांत बी वीख गेलां जायत काय ?'

आवय - बापायच्या मनांत सगळ्यांत पयलीं वायट अशुभ ती गजाल येता. जंय चड मोग वसता थंय भंय-भिरांतूय चड आसता. विखाची गुळी केदी आसली म्हणपाची महेंद्रान त्या आदीं पळेंवक नाशिल्लें. आतां ती गुळी हातांत धरून तागें अदमास केलो आनी म्हळें, "ताच्या पोटांत बरेंचशें वीख गेलां जातलें अशें दिसता."

कल्याणीकूय तशेंच दिसलें. तिणें बरोच वेळ गुळी हातांत घेवन तिचें निरिक्षण केलें. हेवटेन थोडेशें विख पोटान गेल्ल्यान भुरग्याचेर वायट परिणाम जाल्लो. तें तडफडूंक लागलें, रडलें आनी निमाणेकडेन पुरो जावन सूस्त पडलें. तेन्ना कल्याणीन घोवाक म्हळें, "आतां कितें येवजतात, देवतेन जंयच्या मर्गान वच म्हणून सांगिल्लें त्या मार्गान आमची सुकुमारी वचूंक लागली. आतां म्हकाय त्याच मार्गान वचचें पडटलें." अशें म्हणून कल्याणीन ती विखाची गुळी आपल्या तोंडांत उडयली आनी रोखडी ती गिळून खाल्ली.

महेंद्रान रडत, आकांतान विचारलें, "कल्याणी, हें तुवें कितें केलें गो ?"

कल्याणीन कांयच जाप दिली ना. घोवाच्या चरणांची धूळ आपल्या मस्तकाक लायली आनी तिणें म्हळें, "प्रभू, उलोवप्यान उलोवणें वाडत वेतलें. हांव वेतां."

"कल्याणी, हें तुवें केलें कितें ?" अशें म्हणत महेंद्र मोटयान हुंडके हुंडकेत रडूंक लागलो. कल्याणीन ल्हव, मंद आवाजन म्हळें, "हांवें जें केलें तें बरेंच केलें. म्हजे खातीर तुमी घडये देवाच्या कार्याकडेन बेपर्वा करश्यात, देखून हांवें अशें केलें. हें पळेयात, हांव देवतेच्या वाणीचें उलंघन करताली देखून म्हजें बाळ म्हाका सोडून गेलें. हांवें आनीक कितेंय आस्त बाळगिली जाल्यार घडये तुमीय म्हाका सोडून वेतले आसतले."

महेंद्रान रडत म्हळें, "हांव तुमकां दोगांयकूय खंय तरी सुगूर सुवातेर दवरून येंतलों आसलों. जेन्ना आमचें कर्तव्य पुराय जातीत तेन्ना तुजे वांगडा हांव सुखान जियेतलों आसलों. कल्याणी ! म्हजें सगळें सर्वस्व तूंच गो ! तुवें अशें कित्याकूच म्हणून केलें ? ज्या हाताच्या वळार हांव तरसाद धरतलों आसलों तोच हात तुवें कापून उडयलो. तुजे शिवाय म्हज्या अस्तित्वाक मोल कितें उल्लें गो ?"

कल्याणी : "तुमी म्हाका खंय व्हरूंक सोदताले? असलें सुगूर स्थान खंय आसा जायत? आवय, बापूय, सोयरे-धायरे हे सगळे ह्या संकट काळांत मरून कावार जाले. आतां कोणाच्या घरांत जागो आसा? खंय वचपाचो आमकां

आतां मार्ग उल्ला जायना कि तुमी म्हाका थंय वरतले ? हांव तुमच्या गळ्या भोंवतणी एक फातरा-वजें जाल्ले भशेन. बरें जालें कि हांव मरतां. म्हाका तुमचो आशिर्वाद दियात. त्या आदारानूच हांव त्या उजवाडीन स्वर्गलोकांन पावन परतीं तुमचें दर्शन घेवंक पावतलीं." कल्याणीन परती आपल्या स्वामिची पांयधूळ घेवन आपणाल्या मस्तकाक लायली.

महेंद्राक कांयच उतर सुचना जालें. तो परतून रडूंक लागलो. तेन्ना एकदम मोवाळ, गोड आनी स्नेहभरीत स्वरान कल्याणी परती म्हणूं लागली, "हें पळेयात, देवाची आज्ञा कोणाच्यान टाळूं नजो. देवतेन म्हाका वचपाची आज्ञा दिल्या. देखून म्हाका जाय जाल्यार लेगित म्हज्यान रावूं येता? हांव आपूण जावन मेल्लीं नाशिल्लीं जाल्यार, म्हाका कोणूय मारतलो आसलो. देखून, हांवेंच मरून घेंवन बरें केलें. तुवें जें व्रत घेतलां तें मनान आनी उतरान पाळून घेयात. तुमकां पूण्य मेळटलें. त्या पुण्याच्या नाडयार म्हाका सर्ग लाबतलो. त्या उपरांत आमीं दोगांय अनंतकाळा मेरेन सर्ग - सुखाचो लाब भोगतलीं."

हेवटेन बाळकाक दुद पियेल्ल्याचो वोंकारो आयलो आनी तें सांवरलें. ताच्या पोटांत विखावो जो अंश गेल्लो तो जीवघेणो नासलो. पुण त्या वेळार महेंद्रांचें लक्ष तेवटेन नासलें. बाळकाक कल्याणीचे वोंटयेंत दवरून दोगांयकूय घट्ट वेंगेंत घेवन तो रडूंक लागलो. ह्या वेळार जंगलांतल्यान ल्हव मंद पुण मेघ-गंभीर स्वरान फुडलीं उतरां कानार सादलीं :-

"हरे मुरारे मधुकैटभारे।
गोपाळ गोविंद मुकुंद शौरे।।"

अितले म्हणसर कल्याणीच्या रगतांत विखाचो परिणाम जावपाक लागिल्लो. तिची शुद्धी - चेतना ल्हवूं ल्हवूं विरगळून वेताली. ती मुग्ध जावन आयकूं लागली, जशी काय आयकूंक आयिल्ली तीच ध्वनी बांसरीचेर वाजताली—

"हरे मुरारे मधुकैटभारे।
गोपाल गोविंद मुकुंद शौरे।।"

ह्या वेळार कल्याणी अप्सरांक लजेवन घालपा असल्या ओडलायण्या सुरान मुग्धपणी गांवक लागली :

"हरे मुरारे मधुकैटभारे।"

तिणें महेंद्राक लेखून म्हळें, "येयात, आमी देवाक उलो मारूंया. म्हणात, 'हरे मुरारे मधुकैटभारे।?"

रानांतल्यान येतलो गोड सूर आनी कल्याणीचो मोहक ताळो आयकून भारावन गेल्ल्यान आनी 'आतां ईश्वरच मदत करूंक शकतलो.' अशे भावनेन महेंद्रसिंहूय कातर चित्तान तिका गावपांन साथ दिवंक लागलो :

"हरे मुरारे मधुकैटभारे।"

त्या खिणा चारूय दिशांनी तोच आवाज धुमूंक लागलो-सो दिसलो. जशीं सुकणीं सवणीं बी तेंच गीत गावूंक लागलीं ; न्हंयेच्या खळखळांतूय तोच आवाज आयकूंक येतालो आनी रानांतल्या कोनश्या कोनश्यांतल्यान ताचे पडसाद घणघणूंक लागले.

कल्याणीचो ताळो ल्हवू ल्हवू मंद जायत गेलो. तिच्या दोळयांक लकणी येंवक लागली. आंग-पांग थंड-गार जावन पडलें. पुण कल्याणी 'हरे मुरारी' म्हणत म्हणत वैकुंठाक गेली. अशें महेंद्राक जाणोवलें तें लक्षांत येतनांच पिश्या भशेन तो रानाक कांपरून थरथरून उडय सारक्या आनी सुकण्यां-सावजांक भेश्टावपी आवाजांत म्हणूंक लागलो

"हरे मुरारे मधुकैटभारे।"

ह्याच वेळार खंयच्यान तरी कोण आयलो आनी ताकां बळान वेंगेंत घेतलो आनी तितल्याच उंच स्वरान गावूं लागलो :

"हरे मुरारे मधुकैटभारे।"

आनी मागीर त्या अनंताचे महिमेन, त्या अनंत रानांत, अनंतपथगामिनी कल्याणीच्या शरीरा मुखार ते दोगूय अनंताचें गीत गावूं लागले. सुकणीं-सावजां मौन पाळटालीं. पृथ्वी सामकी सोबीत-सुन्दर दिसताली. ती त्याच गीताक फावोशें अशें मंन्दिर जाल्लें. सत्यानंद महेंद्राक आपले कुशींत घेवन बसले.

## 13

हेवटेन राजधानींत रायरस्त्यार मोटो गडबड जावन गेल्लो. राज्य सरकाराकडल्यान जो दुडवां पोटलो कलकत्त्याक वेतालो तो संन्याश्यांनी लुटलो म्हणपाची खबर हाच्या ताच्या तोंडांतल्यान सगळयाक पसरिल्ली. त्या संन्याश्यांक धरचे खातीर सरकारी शिपायकांची धांवपळ सुरू जाल्ली. त्या काळार त्या दुखळाक सांपडिल्ल्या भागांत खरेले संन्याशी अशे नासले म्हळयार जातालें. हाचीं कारणां स्पश्ट आसलीं. ते भीक मागूनूच आपलें पोट पाणयांचें करताले. लोकांकूच जर स्वता आपले खातीर अन्न नाशिल्लें तर संन्याश्यांक भीक कोण घालतलो आसलो ?

अशें आसून, जे कोण खरेले संन्याशी आसले ते पोटा खातीर काशी, प्रयाग आदी भागांत पळून गल्ले. पुण संतान लोक आपले इत्से प्रमाणें संन्याश्यांचो भेस आपणायताले. गरज पडल्यार तो भेस सोडूनूय दिताले. आतां संन्याश्यांची धर-पकड सुरू जातनांच जायत्या संन्याश्यांनी आपणालो संतानांचो भेस सोडून दिल्लो. सरकारी शिपायांकांक संन्याशी म्हणटात ते खंयच मेळ्ळेनांत. देखून ताणीं गृहस्थी लोकांचीं आयदना फोडून उडयलीं आनी जें हाताक लागतालें तें खात्रन पियेवन ते संतूश्ट जाल्ले. तांतलो अेकलोच सत्यानंद आसलो जो आपणालें भगवें वस्त्र केन्नाच सोडिनासलो.

कल्याणी तेन्न न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या रूखा पोंदा आड पडिल्ली आसली. महेंद्र आनी सत्यानंद एकामेकांक वेंगेंत धरून दुकांभरीत दोळ्यांनी ईश्वरा कडेन प्रार्थना करताले, जेन्ना नजरूद्दीन जमादार आपल्या शिपायकांसैत थंय पावलो. तेन्ना ताणें एकदम येवन सत्यानंदाचे गोमटेक धरलो. तो आडुलो, "हो पळे संन्याशी !"

तेच भशेन एका शिपायकान महेंद्राक धल्लो. कित्याक काय म्हळ्यार जो संन्याश्या वांगडा आसा तोवूय संन्याशीच आसतलो म्हणपाची ताची खात्री आसली. आनीक एकलो शिपायक पांचव्या तणाचेर पातळिल्ले कल्याणी कडेन वचून तिकाय धरूंक सोदतालो. पुण ताणें पळेलें कि तें एके बायलेचें मेल्लें मडें. ती घडये संन्याशी न्हय जायत, अशें ताका दिसलें. देखून ताणें तिका सोडून दिली आनी तशेंच येवजून ताणें बाळकाकूय सोडून दिलें. त्या दोगांय सन्याश्यांक ताणीं धरून व्हेले. कल्याणीचें प्रेत आनी तिचें सुपुल्लें बाळक निराधार अवस्थेंत त्या रूखा पोंदा पडून उल्लीं.

सुरवातेक एकदम धक्को बशिल्ल्यान भयभीत जावन आनी ईश्वर - भक्तिच्या मोगान देहभाव हरपल्ल्यान कितें घडटा तें महेंद्राच्या लक्षांतूच आयलें ना, अितले अचेतनांत तो रोंबिल्लो आसलो. जेन्ना तांका धरून बांदताले तेन्ना ताणें कांयच आडखळ हाडली ना. पुण मागीर, दोन तीन पावलां चलत गेल्या उपरांत आपणाक बांदून खंय तरी व्हरतात म्हणपाचें ताका समजलें. कल्याणीचें मडें थंयच पडून असलें, ताचेर अग्नी-संस्कार करपाचे आसात, बाळक अकलें-एकसुरें उरलां, दोगांयकूय खयचीय मोनजात खांवक शकता, हें सगळें मनांत येवन, तो येवजूंक पडलो. त्याच वेळार महेंद्रान आपल्या दोनांय हातांचेर ताण दिलो आनी एकाच धपक्यान ताच्या हाताक बांदिली ती दोरी तोडून उडयली. त्या जमादाराचेर नेटान एक खोंट माल्ली. ती पडना फुडें जमादार जमनीर कोंसळ्ळो. मागीर तो आनीक एकल्या शिपायकाचेर घुरी घालपाक वेतालो. अितल्यान उरिल्ल्या तीन शिपायकांनी ताच्या आंगार पडून ताका परतो धरलो आनी वोगी बसयलो. दुखान भरून येवन महेंद्रान सत्यानंद ब्रह्मचाऱ्यांक म्हळें, "तुमी जर थोडी मदत केल्ली जाल्यार ह्या पांचूय जाणांक हांव काबार करतलों आसलों." तें आयकून सत्यानंदान म्हळें, "म्हजे हे म्हातारे कुडींत कितलेंशें बळ आसत. हांव जाका उलो मारतालों ताचे विरेत म्हज्यांत आनीक कसलें सामर्थ्य आसा ? तूं हांच्या आड कांयच करूं नाका. आमी दोगूय ह्या पांच जाणांक हारयतले म्हळ्यार कशेंच जांवचेंना. चलात, हे आमकां खंय घेवन व्हरतात तें पळेंवया. जगदीश्वर सर्व आंगांनी आमची राखण सांबाळ करतलो."

मागीर, आपले सुटकेचो कांयच प्रयत्न करीनासतना ते दोगूय

शिपायकांच्या फाटल्यान चलूंक लागले. थोडी फुडली वाट चल्ल्या उपरांत सत्यानंदानी शिपायकां लागीं विचारलें, "बाबांनो, हांव तर हरिनामाचो जप करीत आसतां. हरिनामाचो गजर केल्यार तुमची कांय आडखळ आसा, व्हय ?" सत्यानंद हो बरो-भलो मनीस आसतलो म्हणपाची जमादाराची समजूत जाल्ली देखून ताणें तांकां म्हळें, "ना. तुज्यान हरिभजन करूं येता. तुका आमीं आडांवचेनांत. तूं म्हातारो ब्रह्मचारी. घडये शारांत पावल्या उपरांत रोकडोच तुका सोडून दिवपाचो हुकूम जायत ! ह्या बदमाश्याक जाल्यार गोळार मारतले."

मागीर ब्रह्मचारी गोड ताळयान गावूंक लागले :

" धीरसमीरे तटिनीतीरे
वसति वने वरनारी
मा कुरू धनुर्धर गमनविलंबन
अति विधुरा सुकुमारी . . . !"

शारांत पावल्या उपरांत त्या दोगांय जाणांक पुलीस-कोतवाली सामकार उबे केले. कोतवालान राज्य सरकाराक ही खबर कळयली आनी ब्रह्मचारी आनी महेंद्र, हांकां तात्पुरते कच्चे कैदेंत दवरचे म्हणपाचो हुकूम काडलो. ती बंदखण सामकी भयंकर आसली. जो कोण एकदां थंय भितर सरतालो तो चड करून भायर सरनासलो. हाचें कारण म्हळ्यार न्याय नीत करपी थंय कोणूच नासलो. आयज कायद्या-नेमांचे दीस आसात, तेन्ना तसले न्याय-नीतीचे नेम नासले. तो अंदा-धुंदीचो काळ आसलो. कायदे-नेमाचे दीस आनी बेकायदयान, नेम नासतना चलतल्या दिसां मदीं कितलें अंतर आसा ताची तुमीच कल्पना करात.

## 14

रात जावन आयिल्ली. बंदखणींत अडकून पडिल्ल्या सत्यानंदानी महेंद्राक सांगलें, "आयचो दीस भोवूच आनंदाचो जावन आसा. कित्याक आमी हे बंदखणींत पडून आसांव. म्हण पळेंवया, हरे मुरारे . . "

महेंद्रान थरथरत्या आवाजान म्हळें, "हरे मुरारे !"

सत्यानंद : पुता, तुजो स्वर अितलो दुखेस्त कित्याक ? तुवें हें म्हाव्रत घेतिल्लें जाल्यार तुवें तुजे घरकान्नीचो आनी बाळकाचो त्याग करचोच पडटलो आसलो. तांचेकडेन तुजो कसलोच संबंद उरवो नासलो.

महेंद्र : त्याग आनी यमदंड, हांचे मदीं व्हडलें अंतर आसा. जे शक्तीच्या नाड्यार हांव हें व्रत घेतलों आसलों ती शक्ती म्हजे घरकान्नी आनी बाळका वांगडा व्हांवून गेली.

सत्यानंद : शक्ती मेळटली. हांव तुका शक्ती दितलों. तूं म्हामंत्राची दीक्षा घे. म्हाव्रत ग्रहण कर.

महेंद्रान तापून-तिडकीन उबगण आयिल्ले भशेन म्हळें, "म्हजे बायलेक आनी भुरग्याक थंय कोले, सुणीं चाबडायतात जातलीं. अशें आसुन म्हजे कडेन कसल्याच व्रताची खबर काडूं नाकात आतां."

सत्यानंद : "ते विशीं तूं हुस्क्या मेकळो राव. संतानांनी तुजे बायलेचे अंत्यसंस्कार करून काडले. तुगले धुवेक एका सुरक्षीत जाग्यार व्हरून दवरल्या.

महेंद्र हें आयकून अजापलो. हे गजालीचेर ताचो विस्वास बसना जालो. ताणे विचाल्लें, "तुमी कशें ज्ञाणांत तुमी तर पयलीं पसून सामके सतत म्हज्या वांगडा आसात !"

सत्यानंद : आमीं सगळयांनी म्हाव्रताची दीक्षा घेतिल्ली आसा. देखून देवता आमचेर दया करता. आयचे रातींतूच तुका ही खबर कळटली. आयचे राती तू हे बंदखणींतलो सुटून भायर सरतलो.

हें आयकून महेंद्र कांयच उलयलो नां. सत्यानंदाक समजलें कि जें ताणे महेंद्राक सांगिल्लें तें ताका पटलें ना. ताणे म्हळें, "तुजो विस्वास बसना जाल्यार तूं प्रत्यक्ष परीक्षा करून पळे." अितलें उलोवन सत्यानंद बंदखणीच्या दारवंटचा मेरेन गेले. थंय ताणी कितें केलें तें काळखांत महेंद्राक दिश्टी पडलें ना. पुण ते कोणाकडेन तरी उलयले. अितलें ताका समजलें. ते परते आपल्या जाग्यार आयले, तेन्ना महेंद्रान तांकां विचारलें, "कसली परीक्षा ?"

सत्यानंद : तूं ह्याच खिणा बंदखणींतलो सुटलो.

ते अशें उलयत आसतनाच बंदखणीचें दार उगतें जालें. अेका मनश्यान भितर सरून विचाल्लें, 'महेंद्रसिन्ह कोणाचें नांव ?'

महेंद्रान जाप दिली, 'म्हजेंच नांव महेंद्रसिन्ह.'

आयिल्ल्या मनश्यान म्हळें, "तुका सोडचो म्हणून हुकूम आयला. तुज्यान वचूं येता."

महेंद्राक पयलें जाल्यार अजापूच दिसलें. मागीर ताणे चिंतलें, ही फट आसूंक जाय. ते गजालीचो कस लावपाक म्हणून तो भायर सरलो. ताका कोणें आडायलो ना. तो ल्हवू ल्हवू राय-रस्त्या मेरेन चलत गेलो.

ह्याच वेळार तो मनीस सत्यानंदाक म्हणूं लागलो, 'महाराज, तुमीय कित्याक वचनांत ? हांव तर तुमचेच पासत आयिल्लों.'

सत्यानंद : तूं कोण ? धीरानंद गोसावी ?

धीरानंद : व्हय, महाराज.

सत्यानंद : तूं हांगाचो पाहरेकार कसो जालो ?

धीरानंद : म्हाका भवानंदान धाडिल्लो. हांव ह्या शारांत येतनांच तुमीं बंदखणींत आसात म्हणून म्हाका खबर मेळ्ळी. देखून म्हजे वांगडा थोडी भांग

हांवें हाडिल्ली. पाहऱ्याक आशिल्ल्या खानसायबाक हांवें भांग पियली आनी आतां तो जमनीचेर सयराणा भायर पडिल्लो आसा. हांवें जो गणवेश आंगार चडयला, भालो हातांत घेतला, माथ्याक पगडी बांदल्या, ती सगळी मुस्तायकी ताचीच.

सत्यानंदान म्हळें, "तूं हो भेस घालून शारांतल्यान भायर वच. हांव असो वच्चो ना."

धीरानंद : अशें कित्याक म्हणटात तुमी ?

सत्यानंद : आयज संतानांची परीक्षा आसा.

अितले म्हणसर महेंद्र परतो आयलो. सत्यानंदान ताका विचारलें, "परतो कित्याक आयलो ?"

महेंद्र : तुमी तर दुबाव विरैत सिध्दपुरूस जावन आसात. पुण हांव तुमकां सोडून वच्चो ना.

सत्यानंद :तशें जाल्यार, बरें आसा, मागीर राव. आमीं दोगूय आयज रातयांत दुसऱ्या मार्गान भायर सरचे.

धीरानंद भायर सरून गेलो. सत्यानंद आनी महेंद्र बंदखणींतूच रावले.

## 15

ब्रह्मचाऱ्यांचें गीत-गायन जायत्या जाणांनी आयकल्लें. हेरां कितल्याश्याच लोकां भशेन जीवानंदांच्याय कानांर तें गीत पडिल्लें. वाचप्यांक उगडास आसतलो, महेंद्रांच्या फाटल्यान राव म्हणपाचो ताका आदेश आशिल्लो. वाटेन येतना ताका अेक बायल मेळिल्ली. सात दीस तिणें कांयच खांवक नाशिल्लें. ती रस्त्या कुशीक पडिल्ली आसली. तिका वाटावपाच्या प्रयत्नांनी ताका थोडो वेळ लागिल्लो. तिचो जीव वांचोवन तिका परती स्वस्थ करून घेवन तिका लागून आनल्याक जाल्लो उशीर नियाळून तिका चार चणचणीत गाळी घालून जीवानद येतालो. तेन्ना सत्यानंद स्वामीक मुसलमान शिपायक धरून व्हरतात ते ताचे नदरेक पडले. ते गीत गायत वेताले तांचो संदेश ताका समजलो. तांचे सगळे संकेत जीवानंदाक समजताले.

"धीर समिरे तटिनीतीरे
वसति वने वरनारी ।"

न्हंयेचे देगेर आनीक कोणूय तसली अभागी अस्तूरी उपासमारांनी पडली आसत म्हणपाचें येवजून जीवानंद न्हंयेच्या कांठां कांठांनी पळेत भोंवक लागलो. खुद ब्रह्मचाऱ्यांक सोडोवपाचें तांचे पयलें कर्तव्य आसलें, कित्याक तांकां मुसलमान शिपायक धरून व्हरतात तें ताणें पळेल्लें. पुण ताका दिसलें कि त्या संकेताचो तसो अर्थ न्हय. तांच्या जीवाचो सांबाळ करचे परस तांच्यो आज्ञा पाळच्यो, हें चड म्हत्वाचें, तांचे लागच्यान हेंच आपुण शिकलां. देखून तांचे सांगणेचें

पालन हांव पयलो करून उडयतलों, अशें ताणे येवजीलें.

जीवानंद न्हंयेचे देगेवेल्यान वचूंक लागलो. वेतां वेतां ताचे नदरेक पडलें कि अेका रूखा पोंदा अेके बायलेचें मडें पडिल्लें आसलें, आनी तिच्या म्हऱ्यांत तिचें जीतें-जीवें बाळक बशिल्लें आसलें. घडये वाचप्यांक उगडास आसतलो कि महेंद्रांचे बायलेक आनी भुरग्याक जीवानंदांन अेक फावट लेगित पळेल्लीं नासलीं. ताणें येवजीलें, घडये ही बायल महेंद्रांची घरकान्न जायत ; आनी तें ताचें भुरगें आसत. कित्याक महेंद्रांक स्वामीजीं वांगडा वेतना ताणे देखिल्लो. तें कशेंय आसू, जरी आवय मेल्ली, तिचे भुरगें आसलें. देखून आदीं तांच्या सांबाळाची वेवस्था करची पडटली. ना जाल्यार वाग वा कोले तांकां फापसून खातले म्हणपाची ताका भिरांत दिसताली. भवानंद हांगाच खंय तरी लागींच आसतलो म्हणून तो अदमास करतालो. तो तिचे अंत-संस्कार करतलो म्हणून येवजून जीवानंद त्या भुरग्याक उखलून खांदार मारून घेवन गेलो.

त्या भुरग्याक घेवन जीवानंद दाट जंगलांतल्या सामक्या भितल्ल्या भागांत रीगले. जंगल पार केल्या उपरांत तो अेका ल्हानश्या गांवांत गेलो. त्या गांवचें नांव आसलें भैरवीपूर. लोक भारूयपूर म्हणूनूय त्या गांवाक वळखताले. साधारणश्या कांय लोकांची वस्ती आसली. ताच्या लागसार आनीक खंयचोच व्हडलो गांव नासलो. बसतीच्या दुसऱ्या अर्दान परतें रान, चारूय वशींनी रानाचे मदींच ही ल्हानसी बसती, पुण अती सुन्दर. लवलवीत कोंवळ्या तणान भरिल्लें चर्वामळ, कवकवीत पांचवीचार पानांभरीत रूखावळ जशे आंबे, पणस, जांबूळ, ताडमाड. मदींच निळें नितळ उदकाचे व्हड तळें आसलें. त्या तळयांत उदकान हांयसां, बकीं, नीळकंठ आदी सुकणीं सवणीं पेंवतालीं. तळयाचे देगेर कोगूळ आनी चातका आसलीं. थोडया अंतराचेर मोर उंच किरकिरीत ताळयान आड्डतालो. दर अेका घराच्या आंगणांत गायो-गोरवां बदिल्लीं आसलीं. घरांनी धान्य-गोटयाच्यो मुडयो आसल्यो. पुण आतां दुखळाचे परिस्थितीक लागून कडयां-मुडयांनी फावो तितलो ओरोव-गोटो नासलो. कोणा घराचे बाणयेक मैनांचे पांजरें हुमकळटाले. कांय घरांचे वण्टींचेर तरेतरेचीं चित्रां काडिल्लीं आसलीं. कोणाच्या आंगणांत भाजी-पालो दिसतालो. पुण सगले दुखळाक सांपडिल्ल्यान दुखी दुबळे दिसताले. तरी आसतना हे बसतीच्या लोकांचेर लक्ष्मीचो वरदहस्त आसलो. आनी थंयच्या मनशांची तोंडां, मुखकमळां सदांभशेन आसलीं. ताचें कारण म्हळ्यार रानांत खावपा सारक्यो जायत्यो वस्तू तांकां मेळटाल्यो. तांच्याच आदारान तो लोक आपलो जीव आनीं भलायकी सांबाळूंक पाविल्लो.

आंब्यांचे अेके व्हडलेशे बागेंत बसयल्लें अेक ल्हानशें घर आसलें. चारूय वशींनी मातयेच्यो वणटी, चार कुशीनी चार कूडी. घर-ग्रहस्थ्याचे घर तें,

थंयच्या धनया लागीं गाय आसली, बोकडी आसली, मोर आसलो, मैना आसली आनी अेक कीर आसलो. ताचे लागीं अेक माकडूय आसलो, पुण आजकालचे परिस्थितींत जेन्ना ताच्या पोटभर जेवणाची वेवस्था करतलो म्हळ्यार जड जाल्लें तेन्ना ताणें ताका सोडून दिल्लो. भात कांडपाची अेक उखळी आसली. आंगणांत ल्हानशे खळे, लागिंच लिंबिणीं आसल्यो. कांय जाया-जुयांच्यो वेली आसल्यो, पुण हें फावटीं अजून तांचेर फूल फुलूंक नाशिलें. सगळयां कुडींचे पडवेर अेक अेक चरखो आसलो. पुण त्या घरांत बडूडलींशीं कांय मनशां तर दिसनासलीं. जीवानंद ते धाकले बायेक घेवन त्याच घरांत सल्लो.

भितर सरून जीवानंद अेके कुडीचे पडवेर गेलो आनी थंय आशिल्लो अेक चरखो घुंवडावन तांतल्यान धर्रर धर्रर असो आवाज काडूंक लागलो. त्या मुपुल्ल्या बाळकान तो चरख्याचो आवाज ह्या आदीं केन्नाच आयकल्लो ना. खास करून जेन्ना आवय भायर पडिल्ली तेन्ना सावन तें अेकसारकें रडत आसलें. देखून चरख्याच्या आवाजान ते सामकें भियेलें आनी भिरांतीन चडूच मोटयान हुंडकेवन रडूंक लागलें. तें रडणें आयकून भितल्ल्या कुडींत सावन सतरा-अठरा वर्सांची अेक तरनाटी भायर सल्ली. भायर येवून आपल्या उजव्या पोल्यार उजव्या हाताचें बोट दवरून, मान वांकडी करून, ती तांकां पळेत उबी रावली. "आरे, हें रे बाबा कितें ? दादा, चरखो कित्याक घुंवडायतात ? हें बाय तुगेलें ? परतें दुसरें लग्न केलें ?

जीवानंदान त्या भुरग्याक उखलून ते तरनाटेचे वोंटयेंत दिलें. तिचेर हात भोंवडावन मायेन ताणें म्हळें, 'माकड खंयचे कडलीं ! म्हज्या घरांत बाय खंयचें आसतलें गो ? हांव कोण असो वाळेस दिसलो तुका ? घरांत दूद आसा मू ?"

जाप दिवन तरनाटेन म्हळें, "आसा तर, तुका पियेंवक जाय ?"

जीवानंदान सांगलें, "व्हय, म्हाका पियेंवक जाय."

रोखडचा रोखडी ती दूद हून करचे खातीर म्हणून भितर गेली. तो मेरेन जीवानंद चरखो घुंवडायत रावलो. ते तरनाटेच्या गोपांत वेतानांच त्या बाळकान रडपाचें बंद केल्लें. ताच्या मनांत कसले विचार घोळटाले तें सांगपाक भोव कठीन आसलें. अशें जांव येता कि ते सुन्दर फुला सारके निकतेच फुलूय येतले चलयेक ताणें आपली आवय समजल्ली आसतली. पुण थोडयाच वेळान तें परतें रडूंक लागलें. घडये चुलींतल्या उज्याचो धग ताच्या आंगाक लागलो जांवये. ताचें रडणें आयकून जीवानंदान म्हळे, "आगो निम्मे काळतोंडये, माकडा ! अजून तुजें दूद तापना गो ?"

भितल्ल्या कुडींतल्यान निम्मीन जाप दिली, "हें पळे जालें !" तिणें अेके वाटलींत दूद घालून हाडलें. जीवानंदान राग दाखयल्ले भशेन म्हळें,

"ही हुनहुनीत दुदान भरिल्ली बाटली तुज्या आंगार शेवटून मारची, अशें म्हाका दिसता. हें दूद हांव पियेतलों अशें दिसलें काय कितें तुका ?"

निम्मीन विचाल्लें, "तर कोण पियेतलो ?"

जीवानंदान म्हळें, "तें भुरगें पियेतलें, हें तुका दिसना ! घे, हें दूद ताका पिवय !"

हें आयकून निम्मी मांडी घालून जमनीचेर बसली. तिणे त्या भुरग्याक आपले वोंटयेंत घेतलें आनी मामेरान ताका दूद पियेंवक लागली. अवचित तिच्या दोळयांतल्यान दुकांचो कांय-थेंबे गळून आयले. तिका बाबडेक अेक भुरगो जावन भायर पडिल्लो. दूद पियेवपाचो तो मानर ताचोच आसलो. पुण निम्मीन सट्ट करून अेका हातान आपल्या दोळयांवेलीं दुकां पुसलीं आनी तोंडार हाशें खेळयत ती विचारूं लागली, "दादा, हें भुरगें कोणालें ?"

जीवानंदान म्हळें, "तुका गो कित्याक जाय, काळतोंडये ?"

निम्मीन विचाल्लें, "हें वाय म्हाका दिवशी ?"

जीवानंदान म्हळे, "तूं ताका घेवन कितें करतलें गो?"

निम्मी : हांव ह्या भुरग्याक दूद दितलीं, वोंटयेंत धरून खेळयतलीं, ताका व्हडाचें व्हड करतलीं.

ती अशीं उलयतना तिच्या दुर्दैवी दोळयांतल्यान आनीक अेक फावट दुकां व्हांवूंक लागलीं. निम्मीन तीं परतों हातान पुसलीं आनी ती मंद हांसूंक लागली.

जीवानंद : तूं ताका घेवन कितें करतलें, तुका आनीक कितलींशीच तुजीं स्वताचीं भुरगीं-बाळां जातलीं.

निम्मी : तीं जेन्ना जातलीं तेन्ना जातलीं. आतां म्हाका हें भुरगें दिवन उडय. तुमकां जाय जाल्यार तुमच्यान मागीर परतें व्हरूं येता ताका.

जीवानंद : बरें तर, घे तुका आनी मागीर भोग ! हांव केन्ना केन्नाय हांगा पासय मारून तुजी खबर घेयन. ही कायस्थांली चली. समजलें? बरें तर, हांव येतां.

निम्मी : चल्ले? हें कितें दादा, कांयच खांवचे नांत? बरोच वेळ जालो, आतां दोन गोटे तोंडांत उडयल्या शिवाय तुमी वच्चेनांत, म्हजो सोपूत तुमकां.

जीवानंद : तुवें आतां येदो व्हडलो सोपूत घेतलो म्हणटकूच हांव आतां वेनलों कसो? चल तर, तुजो सोपून कुशीक दवर आनी दोन मुठी शीत वाडून घेवन यो.

हें आयकून निम्मी भुरग्याक खांकेक मारून ताका जेवण काडपाची तयारी करूंक लागली. जागो तर नितळ आसलो. ताचेर उदक शिंपडावन तांकां बसपाक पाट मांडलो. मागीर अेका ताटांत निकतींच फुलून येतल्यां जायी-जुंयां फुलां सारकें धवें-फुल्ल शीत, उडीद-दाळीचें वरण, जंगली उत्रांचीं कोयंबीर भाजी, तळयांतल्या

रोट्ट नुस्त्याचें हुमण, आनी वाटलींत दूद ताचे मुखार हाडून तिणें मांडलें. जेवूंक सुरू केल्या उपरांत जीवानंदान पाटार सावन म्हळें, "निम्मी, कोण सांगता दुखळ पडला, म्हूण? तुज्या गांवांत तर अजून दुखळ पाविल्लो दिसना!"

निम्मीन म्हळें, 'दुखळ कित्याक पडलो ना ? हांगा भयंकर दुखळ पडला. पुण घरांत आमीं दोगांच मनशां आसांव. घरांत जें कितें आसा तें आमीं हेरांकूय दितांव आनी आमींय खातांव. आमच्या गांवांत पावस पडिल्लो, हाची तुकां अचिरकाय उरलीना? तुवेंच म्हणिल्लें न्हय कि रानांत पावस पडटा. आमच्या गांवांत थोडें-भोव धान्य पिकलां, ना न्हय. लोकांनी आप-आपलें धान्य शारांत व्हरून विकलें. पुण आमीं तें विकलें ना."

जीवानंदान विचाल्लें, "भावोजी खंय आसात तर?"

मान खाला घालून निम्मीन ल्हवान सांगलें, "दोन-तीन शेर तांदूळ घेवन खंय तरी गेल्यात. कोणे तांदूळ मागल्या जातले कोण जाणा!"

जीवानंदांक अितलें सुरबूस जेवण खूब तेंपान मेळिल्लें. देखून ताणे अर्थ -नाशिल्ल्या उलोवण्यांत वेळ वगडायनासतना वोगी सगळें जेवण पानावेलें पुसून काडिल्लें. तेन्ना निम्मीन आपणाक आनी आपल्या घोवा पुरतें जेवण रांधिल्लें, तांतले आपल्या वांटयाचें जेवण तिणें ह्या दादाक दिवन उडयिल्लें. ताट रितें पळेवन, घोवाक दवरिल्लो वांटोय तिणें हाडून दादाक वाडलो. जीवानंदान जाय नाका कांय म्हणीनासतना पानार घाल्लें तें सगळें रगडलें.

तेन्ना निम्मीन विचारलें, "आनीक कितें जाय, दादा?"

जीवानंदान उत्सुकतायेन म्हळें, "आनीक किते आःसा?"

निम्मीन सांगलें, "अेक पिकिल्लो पणस आसा."

अशें म्हणून तो पिकिल्लो पणस हाडून तिणे ताचे मुखार दवरलो. चड कांय उलयनासना तोवूय सगळो जीवानंदान खावन उडयलो. हें अजाप पळेवन निम्मीन हांसत हांसत म्हळें, "दादा, आतां जाल्यार कांयच उरलें ना."

दादान म्हळें, "तर आसूं दी. आनीक केन्नाय येवन खायन."

आनीक उपाय नाशिल्ल्यान निम्मीन जीवानंदाक हात धुवपाक म्हणून उदक दिलें. उदकाचो तांबयो ताच्या हातांत दितना तिणें म्हळें, "दादा, तूं म्हजें अेक म्हणणें आयकशी?"

जीवानंद : कितें गो तें?

निम्मी . म्हजो गळचा सोपूत !

जीवानंद : काळतोंडचा, कितें तें बेगीन सांगशी कि ना?

निम्मी : तूं मानतलो जाल्यार सांग?

जीवानंद : पुण कितें तें आदीं सांग पळेंवया.

निम्मी : म्हजो तुका सोपूत आसा. हांव तुज्या पांयां पडटां.

जीवानंद : हें गो कितें ? तूंच सोडून घेताय आनी तूंच पांयां पडटाय ? पुण कितें करपाचें आसा तें म्हाका सांग ना !

निम्मीन तेन्ना आपणाल्या अेका हातान दुसऱ्या हाताचीं बोटां मोडलीं आनी आपली मान खाला घातली. थोडो वेळ ती तशीच सकला पळेत रावली. तिणें अेकदां जीवानंदाच्या तोंडाकडेन पळेलें आनी मागीर ती परती जमनीकडेन पळेंवक लागली. निमाणेकडेन तोंड उगडून तिणें अेकदम म्हळें, "अेकदां व्हनीयेक आपोवन घेंवूं ?"

हें आयकतनाच जीवानंद आपल्या हातांत घेतिल्लो तांबयो निम्मीक मोखून मारूंक फुरफुल्लो. "म्हाका म्हजें भुरगें परतें दी ; आनी हांव अेक दीस तुजें शीत, वरण आदी परतें फारीग करून उडयतलों. तूं माकड खंयचें कडलें. तूं काळतोंडें. जें तोंडाक येता तें उलयत सुट्टा ?"

निम्मीन म्हळें, "व्हय, हांव माकड, हांव काळतोंडें, पुण अेकदां व्हनीयेक आपोवन हाडटलींच."

"हांव चल्लों", अशें म्हणून जीवानंद सडसडीत वचपाक म्हणून भायर सल्लो. निमीन धांव मारून दार आड करून घेतलें आनी ताका फाट लावन उबें रावलें. म्हणूं लागलें, "म्हाका मारून उडय आनी मागीर भायर सर. व्हनीयेक भेटल्या शिवाय तुका वचूंक मेळचें ना."

जीवानंदान म्हळें, "हांवें कितल्या लोकांक जीवेशीं मारून उडयल्ले आसात, हें तुका खबर आसा, व्हय ?"

निम्मीन आतां रागान म्हळें, "व्हडलें नांव जोडलें तुवें न्हय ? तूं तुजे बायलेक सोडटलो, लोकांचो जीव काडटलो आनी हांव तुका भियेतलीं म्हणून समजला काय कितें ? निमाणेकडेन ज्या बापायचो तूं पूत त्याच बापायची हांव धूव. कोणाकूय मारून तुका व्हडवीक फावो जाता जाल्यार म्हाका मारून उडय आनी नांव जोड !"

जीवानंद हांसून म्हणूं लागलो, "बरें तर, सायबिणी, खंयचे पापणीक आपयता तिका आपोवन हाड. पुण अेक मात लक्षांत दवर. आनीक अेक फावट तुवें केन्नाय असली गजाल काडली जाल्यार तुका हांव कशें फरफरीत उलोवन कितें म्हणूं वा ना म्हणूं. पणून त्या साल्याक - तुज्या घोवाक गाढवाचेर उरफाटो बसोवन ताका ह्या देसांतलो खोंट मारून धांवडायतलों."

निम्मीन मनांतल्या मनांत म्हळें, "तशें जाल्यार मागीर म्हजी सुटका जातली ! अशें म्हणून ती घरांतल्यान भायर सरली आनी थंयच्यान लागींच आशिल्ले अेके तणा-चुडटांचे खोंपीत गेली. खोंपटे भितर अेक तरणी बायल बसून चरखो कांत्ताली. तिच्या आंगार आशिल्ल्या वस्त्राक शेंकडयांनी कपयाळीं आनी गांठी मारिल्ल्यो. तिचे केंस पिस्डून गेल्ले. तिचे लागीं वचून निम्मीन म्हळें'

"व्हनीये, चल, बेगीन, ताकतिकेन यो."

व्हनीयेन विचारलें, "कसली ताकतीक गो ! घोवान बडयलें काय कितें? दुखापत जाल्या ताचेर तेलाची मालीश करूंक जाय?"

नीम्मीन म्हळें, "उणें-पुणें तसलेंच कितें तरी समज. तेल आसा घरांत?"

ते बाबडेन तेलाचें आयदन हाडून दिलें. निम्मीन सडसडीत आपल्या ताळटार भरभरीत तेल वोतयलें आनी तें तिच्या केंसांक सारयलें. ताकतिकेन कामा-पुरतो उपकारता तसलो अेक शेंडो बांदलो. मागीर तिच्या भुजांर अपुरबायेचें अेक थापट मारून तिणें म्हळें :

"तुजी ती ढाकयाची साडी खंय आसा गे, सांग पळेंवया?"

ते बायलेन अजापभरीत जावन विचारलें, "कितें गो आडायलां ? तुका पिशें - बिशें लागलां काय कितें ? जालां तरी कितें, तें सांग."

निम्मीन आनीक अेक फावट तिचे फाटीर थापट मारलें आनी म्हळें, "साडी तर काडून घे आदीं."

मजा म्हणून तिणें आपणाली दाक्याची साडी भायर काडली. अितलें दूख कश्ट सोंसुनूय मजा पळेवपाची जी वृत्ती आसता ती तिच्या मनांतली नश्ट जावंक नासली. नवें रसरशीत तिचें जुवानपण शिवशिवतालें, चडटे पिरायेची फुलून येतल्या फुला सारकी सोबिताय. पिसुडिल्ल्या केंसांत तेल नाशिल्ले, तिच्या आंगा - खांदार वेशभुषा नासली. पोटांत अन्न नासलें. तरी आसतना तिजे भितर आशिल्ली रसरशीत सुन्दरकांय, तिचे बोंतर जाल्ले साडयेंतल्यान तिकतिकताली. उजवाड आनी सांवळी हांचो जसो खेळ चलता तसो तिचो सांवळो रग आसलो. दोळयांत थिल्लार कटाक्ष आसलो. वोंटांचेर हांशें, काळजांत बिटाय. जेवण जाल्यार पोट-भर मेळ नाशिल्लें. तरी आसतना तिचें आंग-आंग पूश्ट लावण्यमय, वेशभुषा केल्ली नासली तरीय तिची घसवशीत सोबीताय अुफेवन येताली. कुपांत कशी बिजली, मनांत जशी प्रतिभा, संवसारांत उतरांनी जशें संगीत, मर्णांत जशें सुख, तशेंच त्या रूपराशींत अनिर्वचनीय अशें कितें तरी आसलें. अनिर्वचनीय मधुराय, अनिर्वचनीय उन्नत भाव, अनिर्वनीय मोग-माया, अनिर्वचनीय भक्ती. हांसत हांसत (तें हांशें कोणे पळेलें ना) तिणें ती ढाक्याची साडी काडून घेतली. आनी म्हळें, "निम्मी, आमी कितें करपाचें?" निम्मीन जाप दिवन सांगलें, "तूं न्हेस मगे व्हनीये, आनीक कितें?" व्हनीयेन परतें विचारलें, "हांव न्हेसून कितें जातलें, तें सांग तरी पळेंवया !"

निम्मीन आपले मोवाळ सुन्दर हात तिच्या कोंवळ्या गळ्या भोंवतणी उडयले आनी म्हळें, "दादा आयिल्लो आसा. तुका आपयल्या ताणें." तिणे जाप दिवन सांगलें, "आपयल्या जाल्यार हे साडयेची कितें गरज आसली, व्हय ? चल, हांव अशींच येतां." निम्मीन तिच्या पोल्यार अेक थापट लायलें. व्हनीयेन

निम्मीच्या खांदार हात धरून तिका खोंपींतली भायर धुकली. म्हळें, "ह्याच पिंजक्या वस्त्रांनी हांव तांकां भेटूंक वेतलीं." तिणे आपल्या आंगावेले कपडे कितेंच केल्यार बदल्ले नात. उपाय नासून निम्मीक आपली हार मानची पडली. तिका घेवन निम्मी आपणाल्या घरा मेरेन गेली आपल्या घरांत तिका लोटून धाडून दिवन दार बंद करून ती दारा भायर थीर उबी रावली.

16

ते बायलेची पिराय उणीवुणी म्हळचार पंचवीस वर्सांची आसली. पुण तिका बारकायेन पळेल्यार ती निमी परस चडशी जाणटी दिसनासली. पिंजिल्ले कपडे न्हेसून आनी म्हेळो वेश आंगार चडोवन ती कुडींत भितर सरली तेन्ना ती कूड हांसून उठय कशी दिसली. झाडा-रुखा वेल्यो जायत्यो कळयो अकस्मात फुलून आयिल्ल्यावरी भास जालो. गुलाबां-उदक आशिल्लीं बंद आयदनां अवचित उकतीं जाल्यांत, जसो कितें पालवत वेतल्या उज्या आगटयाचेर कोणें तरी धूंप उडयला असोच भास जालो. ती सुन्दरी घरांत भितर सरून हेवटेन तेवटेन आपल्या पतीक सोदूंक लागली. पयलीं तो तिका खंयच दिसलो ना. उपरांत तिचे नदरेक पडलें कि घराच्या आंगणांत आशिल्ल्या अेक ल्हानश्या आंब्या रुखाक तकली तेंकोवन जीवानंद रडटा. ती सुन्दरी ल्हवू ल्हवू ताच्या म्हऱ्यांत गेली आनी तिणे ल्हवूच ताचो हात आपल्या हातांत घेतलो. तिच्या दोळयांनी दुकां आयलीं नांत, अशें हांव म्हणना. जगदिश्वराक खबर आसा कि तिच्या दोळयांनी दुकांचो जो हुंवार आयलो तो व्हांवूंक लागिल्लो जाल्यार तांतल्यान जीवानंदूय लोटून वेतलो आसलो. पुण तिणें तो हुंवार आळाबंदा हाडलो. जीवानंदाचो हात आपल्या हातांत घेवन ती उलयली, "शी, रडूं नाकात. हांव जाणां कि तुमी म्हजे खातीर रडटात. म्हजे पास्वत तुमी रडूं नाकात. तुमी म्हाका दवरून गेल्ले तेच अवस्थेंत हांव सुखी आसां."

जीवानंदान आपली तकली वयर काडली. दुकां पुसलीं. बायलेकडेन पळयत विचारलें, "शांती, तुज्या आंगार हीं म्हेळीं आनी पिजकीं वस्त्रां कित्याक गो? तुका अन्न वस्त्राचे बाबतींत कांय उणें पडलें ना मू?"

शांतीन म्हळें, "तुमगेली धन-दवलत तुमचेच खातीर आसा. दुडवांचें कितें करतात तें म्हाका कांयच कळ ना. तुमी जेन्ना परते येतले तेन्ना म्हाका परते स्वीकारतले . . ."

जीवानंद : कित्याक भिरेलां गो? खंयच्यानींव हांव तुजो स्वीकार करतलों, शांती! हांवें कितें तुका सोडलां, व्हय?

शांती : तुमी म्हाका सोडलां अशें हांवें म्हळें ना – पुण जेन्ना तुमी घेतिल्लें व्रत पुराय जातलें तेन्ना तुमी परतो म्हजो मोग करतले, व्हय?

तिची गजाल सोंपूंक नाशिल्ली जेन्ना अवचित जीवानंदान तिका आपल्या

हड्ड्याक तेंकोवन कळकळीत वेंग मारली. तिच्या भुजांर आपली तकली दवरून बरोच वेळ ते वोग्गी समाधान मानीत थंय रावलो. मागीर लांबदीक असो सुस्कारो सोडून ताणें म्हळें, "हांव तुका कित्याक म्हणून भेटलों गो ?"

शांती : कित्याक भेटले ? ताका लागून तुमी घेतिल्लें व्रत मोडलें ?

जीवानंदान म्हळें, "मोडूं दी व्रत ; ताचे खातीर प्राचीत आसतलें. ताचो तूं हुस्को करी नाका. पुण तुका सोडून वचूंक म्हज्यान जांवचें ना. देखूनूच हांवें निम्मीक सांगिल्लें कि तुका मेळचेलें म्हका नाका म्हणून. तुका मेळ्ळ्या उपरांत आतां म्हज्यान वचूंक जावचें ना. अेके वटेन धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष, दिसा-दिसपट्टो घर-संवसार, व्रत, होम, याग, यज्ञ, हें सगळें, आनी दुसरे वशीं तूं, फकत तूं. जायते फावट हांव समजूंक पावना कि तागडेचें खंयचें दालें चड जड आसा. देस म्हळ्यार अेक थंड-किरांव गुळो. असलो देस घेवन हांव कितें करतलो ? ह्या देसांतली म्हाका अेक मागभर जमीन मेळ्ळी जाल्यार तुजे वांगडा म्हज्यान अेक सर्गूच घडोवन हाडूंक जाता. म्हाका देसाकडेन कितें करपाचें आसा, व्हय ? देसांतल्या लोकांच्या दुखा संबंदान उलोवचें जाल्यार तुजे सारकी बायल मेळ्ळी आसतनाय जाणें तिचो त्याग केलो ताचे परस अदीक दुखी आनीक कोण आसूंक जायत ? जाणें तुज्या आंगापांगार असलें म्हेळे आनी पिंजकें कापड पळेलें ताचे परस अदीक दळदिरो मनीस ह्या देसांत कोण आसता ? म्हज्या सगळ्या धर्मकार्यांत आदार-आलाशिरो दिवपी तूंच आसा. त्या आदाराचो जाणें त्याग केलो ताचे नदरेन सनातन धर्माक कितें अर्थ उरलो ? निमाणेकडेन हांव खंयच्या धर्मा खातीर देसा देसांतल्यान, राना वनांतल्यान, बंदूक खांदार मारून, हेरांचो प्राण काडपाचें पातक म्हज्या माथ्यार घेतां ? ही धर्तरी संतानांच्या ताब्यांत येतली कि ना, हें हांव नकळों. पुण तूं जाल्यार म्हाका मेळ्ळी आनी म्हज्या गोपांत आयली. चल तर, घरा वचूंया. हांव आतां थंय परतो वच्चो ना."

शांती कांय वेळ अेक उतर उलयली ना. मागीर तिणें म्हळें, "शी ! तुमी वीरपुरूस जावन आसात. हांव अेका वीराची बायल, हेंच म्हजें ह्या जगांतलें व्हडलें सुख. अेके तुच्छ बायले पासत तुमी ह्या वीर धर्माचो त्याग करूंक फुडें सरल्यात ? तुमी म्हजेर मोग केलो ना जाल्यार जातां. तें सुख हांव तितलें आंवडे ना. पुण तुमी तुमचो वीरधर्म मात सोडूं नाकात. हां, अेक गजाल सांगात पळेंवयां, हें व्रत मोडल्यार प्राचीत कितें आसा ?"

जीवानंदान म्हळें, "प्रायश्चीत म्हळ्यार दान, उपास आनी बावीस रुपया दंड ?"

शांती मुमुरकीच हांसली. तिणे म्हळें, "ह्या अितल्याक प्रायश्चीत कित्याक म्हणटात तें हांव नकळों. तरी आसतना, म्हाका हें सांगा, अेका अपराधाक लागून जें भोगचें पडटा तेंच शेंवर अपराधांक लागून आसता ?"

जीवानंदान विस्मीत आनी उदास जावन विचारलें, "पुण हें सगळें तुं कित्या खातीर विचारून घेता ?"

शांती : हांव तुमचे लागीं भीक मागतां. म्हाका परते भेटल्या शिवाय तुमी प्रायश्चीत करी नाकात.

जीवानंदान हांसून म्हळें, "ते बाबतींत तूं हुसको करी नाका. तुका पळेल्या शिवाय हांव मरचो ना. मरपाची म्हाका अितली ताकतीक ना. पुण आतां हांगा हांव चड वेळ थांबचो ना. तुका हांवें दोळे भरून पळेंवन घेतलें ना अजून. अेक दीस हांव तुका दोळे भरून पळेवन घेतलों. केन्नाय तरी हो म्हजो खतखतीत आंवडो पुराय जातलो. आतां हांव चल्लों. पुण म्हजें अेक सांगणें आयकून घे. ही वेशभुषा सोडून दी. म्हज्या आज्या-पणज्यांच्या घरांत तूं वचून राव."

शांतीन विचारलें, "आतां तुमी खंय वेतले ?"

जीवानंद : आतां ब्रह्मचारींचो सोद घेंवचे खातीर हांव मठांत वेतलों. जे रीतीन ते शारांत गेल्यात ताचेवेल्यान म्हाका तांचो हुसको जांवक लागला. ते म्हाका देवळांत मेळ्ले नांत जाल्यार हांव शारा वटेन वेतलों.

## 17

भवानंद मठांत बसून हरिभजन करताले. अश्या वेळार ज्ञानानंद नांवाचो अेक तेजस्वी संतान बावेिल्ल्या मुखकमळान ताचे लागीं वचून उबो रावलो. भवानंदान ताचे लागीं विचारलें, "गोसाव्या, तुजें मुखकमळ अशें पडलाशें कित्याक ?"

ज्ञानानंदान जाप दिली, "कितेंय तरी घोटाळो जाल्लो काय दिसता. काल जी घडणी घडून आयली तिका लागून सरकारी लोक भगवीं वस्त्रां घाल्ल्यां मनश्यांक दुभावान पळेतात, आनी तांकां धरून व्हरतात. देखून आयज संतानांनी आपणालीं भगवीं वस्त्रां सोडून दिल्यांत. फकत सत्यानंद प्रभू (स्वामी) भगवीं वस्त्रां न्हेसून शारा वटेन गेल्ले आसात. ते मुसलमान शिपायकांच्या हातांत सांपडत म्हणपाची भिरांत आसा.

भवानंदान म्हळें, "तांकां धरून बंद दवरतलो असलो मुसलमान बंगाल देसांत सोदून मेळचो ना. म्हाका खबर आसा कि धीरानंद ताचे फाटो-फाट गेला. तरीय आसतना अेकदां हांव शारांत वचून पासय मारून येतां. तो मेरेन तूं ह्या मठाची राखण कर."

अशें म्हणून भवानंद अेका गुपीत कुडांत गेलो. ताणें अेके व्हडले पेटेंतले कांय कपडे भायर काडले. थोडयाच वेळान भवानंदा रूपांतर जावन आयलें. भगव्या वस्त्राच्या जाग्यार चुडीदार पायजामा, कमरापर्यान अंगरखो, शेरवानी, माथ्यार पगडी आनी नागरा जोतीं. असो भेस ताणें आपणायल्लो, कपलावेलें चंदानाचें छाप पुसून काडिल्लें. भोंवरां भशेन काळी खाड-मिशी आशिल्ल्यान

ताचें मुखकमळ सुन्दर दिसूंक लागलें.

अशे रितीन मुगल तरनाटयाचें रूप धारण करून आनी शस्त्र घेवन भवानंद मठांतल्यान भायर सरलो. त्या ठिकाणा पसून सुमार दोन कोसांच्या अंतराचेर दोन ल्हानश्यो दोंगुल्ल्यो आसल्यो जंय रान मातून आयिल्लें. त्याच दोंगुल्ल्यां मदीं अेक गुपीत जागो आसलो. थंय जायते घोडे राखून दवरिल्ले. ती मठाची घोडे-साळ आसली. भवानंदान त्या गोठ्यांतलो अेक घोडो भायर काडलो आनी ताचे फाटीर बसून तो शाराचे वटेन धांवत सुटलो.

वेतां वेतां ताचो वेग अकस्मात मंदावलो. रस्त्याचे कुशीक खळखळीत व्हांवतले न्हंयेचे देगेर मळबावेल्यान निखळून पडटल्या अेक नखेत्रा भशेन अेक बायल जमनीर पडिल्ली ताका मेळली. ताणें पळेलें कि तिच्या आंगा-पांगांत जीविताचें कांयच लक्षण दिसनासलें. विखाची रीती डबी तिच्या म्हऱ्यांतूच पडिल्ली. भवानंदाक अजाप जालें. ताच्या तोंडार दुखेस्त भाव उदेलो. जीवानंदा भशेन भवानंदान महेंद्राचे बायलेक ह्यां आदीं केन्नाच पळेंवक नाशिल्ली. ज्या अनेक कारणांक लागून जीवानंदाक ती बायल महेंद्राची घरकान्न जांवक जाय म्हणून दुभाव येतालो तीं कारणां भवानंदाचे बाबतींत संभवीत नासलीं. ब्रह्मचारींक आनी महेंद्राक कैदी करून व्हरतना ताणें पळेंवक नाशिल्ले. तें भुरगेंय आतां थंय नाशिल्लें.

विखाची डबी थंय पळेना फुडें ताणें येवजीलें, कोण तरी बायल विख खावन मेल्या जातली. भवानंद त्या प्रेता लागीं बसलो. थंय बसून, माथ्यार हात दवरून, बरोच वेळ चिंतूंक पडलो. तिच्या कपलार, खांकेंत, हातार, पांयांर आपलो हात दवरून ताणे आपले भशेन अदमास केलो. जायतो लोक नेणो तसल्या अनेक प्रकाराचो गूढ रीतीन ताणे त्या मडयाची तपासणी केली. त्या उपरांत ताणें आपल्या मनांतल्या मनांत म्हळें, "अजून आस्त आसा, चड वेळ गेल्लो ना. पुण हिका वांचोवन तरी हांव कितें करतलो?" तो बरोच वेळ चिंतत रावलो. मागीर रानांत गेलो आनी अेका झाडाचो पालो तोडून घेवन आयलो. त्या पानांचो रोस मुडडून काडलो आनी तिजें तोंड उकतें करून बोटान त्या रोसाचे कांय थेंबे ताणे तिच्या तोंडात कशेय करून घातले. थोडो रोस नाकांत घालो आनी उरिल्लो रोस तो तिच्या आंगाक चोळूंक लागलो. तो भौन भौन अशें करीत रावलो आनी नांकाकडेन हात व्हरून तिचो स्वास सुरू जालो काय कितें हाजो अदमास घेत रावलो. पयलीं ताका दिसलें कि आपले सगळे कश्ट फुंकट गेले. पुण कांय वेळा उपरांत भवानंदाच्या तोंडार खोशेचें किर्ण झळकलें. बोट दवरून त्या स्वासाचो ताणें अणभव घेतलो आनीं ताका आस्त दिसली.

मागीर ताणें आनीक तसलो पालो बुड्डून हाडलो. आनी ताचो रोस काडून तो तिका लायत रावलो. ल्हवू ल्हवू तिचो स्वास वाडूं लागलो. तिच्या हाताची

नाडी धरून पळेली. आतां ताका कळून आयलें कि नाडी चलूंक लागिल्ली. निमाणेकडेन उदेंतेच्यान फांत्यार उदेवन येतल्या पयल्यावयल्या किर्णां भशेन, जशीं तीं वेळोवेळान फांकारून येतात, सकाळच्या पारा जशें कमळाचें फूल पयलेंच फुलून येता, पयल्या-वयल्या मोगा भशेन, कल्याणी ल्हवू ल्हवू आपले दोळे उकते करूंक लागली. तें पळोवन, ती अर्द जिवी कूड घोडयाचे फाटीर घालून भवानंद शाराचे दिकेन तार्कातिकेन वचूंक लागलो.

## 18

सांज पडटा म्हणसर सत्यानंद ब्रह्मचारी आनी महेंद्र, ह्या दोगांयकूय कैदी करून शाराचे बंदखणींत उडयले म्हणपाची खबर सगळ्या संतानांक कळून आयिल्ली. ही खबर आयकना फुडें अेक अेक, दोग-दोग, धा-धा, शेंबरयांचे अशे संख्येन हजारांनी संतान देवळा भोंवतणी आशिल्ल्या रानात जमूंक लागले. सगळे जाण सशस्त्र आसले. तांच्या दोळयांत क्रोधाच्यो उज्या किट्टयो उसळटाल्यो. मुखकमळार ओज, ते दांत किल्लिताले आनी वोंट रागान फडफडायताले. तांच्या वोंटार प्रतिज्ञा आसली. पयलीं शेंबर, उपरांत हजार, मागीर दोन हजार, हे भशेन तांचो आंकडो वाडत वेतालो. ह्या वेळार मठाच्या दारवंटचार हातांत तरसाद घेवन उबो आशिल्लो ज्ञानानंद उंच ताळयान उलोंवक लागलो, "आमी जायते दीस जाले चिंतीत आयल्यांव कि ह्या घोंटेराची धाना-धिस्पत करून, ते भवनपुरीची जाळरोळ करून, तिचो गोबर राख न्हंयेंत उडोवन दिवक जाय; ह्या दुकरांचे कोंड लासून उडोवन धर्तरे मातेक आमी परती तिच्या जाग्यार पवित्र करून घेंवूंक जाय. आयज तो दीस आयला, म्हज्या भावांनो आमगेले गुरू, परम्गुरू, जे अनंत गिन्यानी जावन आसात, सदां सर्वदां शुद्धाचारी, लोक आनी देसाचे हितकारी, सनातन धर्माचो परतो प्रचार करपा खातीर जाणी आपलें शरीर समर्पीत करतलो म्हणपाची प्रतिज्ञा केल्ली आसा. जांकां आमीं विष्णुचो अवतार मानतांव, जे आमचे मुक्तीचो मार्ग जावन आसात, ते आयज मुसलमानांचे बंदखणींत अडकून पडिल्ले आसात. तांकां सोडोवपाक आमगेले तरसादींत धार ना ?

आनी मागीर आपलो हात पातलावन ज्ञानानंदान म्हळें, "ह्या भुजांनी बळ ना ? छातीचेर हात मारून ताणें म्हळें, ह्या काळजांत साहस ना ? भावांनो, उलयात, म्हणात, 'हरे मुरारे मधुकैटभारे!' जाणे मधुकैटभांचो नाश केलो, जाणे हिरण्यकश्यप, कंस, दंतवक्र, शिशूपाल आदी जीवाक कठीन असल्या असुरांक जीते मारून उडयले, जाच्या सुदर्शनचक्राच्या घर्घर निर्घोषान मरणाचेर

जैत जोडपी शंकर लेगित भयभीत जावन कांपिल्लो, जो अजय आसा, झुजा-मळार विजय दिवपी आसा, ताचे आमीं उपासक आसांव. ताचे शक्ती वरवीं आमच्या हाता-भुजांत शीम-मेर नाशिल्लें बळगें सांटलां. ताची आसा असल्यार आमी खऱ्यांनीच जिखतले. चलात, आमी ते भवनपुरीक मातये-भरवण करूंया. ताच्या घोंटेराक पाणयांत बुडोंवन उडोंवया. म्हणात सगळे, 'हरे मुरारे मधुकैटभारे।

हजारांनी जमिल्ल्या लोकां ताळयांतल्यान ते ध्वनीचो पडसाद रानांच्या कोनश्या कोनश्यांतल्यान घुमूंक लागलो. एकाच वेळार 'हरे मुरारे मधुकैटभारे' हो जयघोष मळबांतल्यान चिरून गेलो. हजारांनी तरसादी एकदम खणखणल्यो हजारांनी भाले वयले वटेन उखल्ले. झुजप्यांच्या भुजांर आशिल्ल्या हजारांनी ढालींच्या आवाजान जोगलावणे आदलो कडकडाट जाल्ले भशेन भास जालो. थंय जाल्ल्या भयंकर कोलाहलाक लागून सावजां भिरांकूळ जावन रानांतल्यान पळत सुटलीं. सुकणीं उडून गेलीं. त्याच वेळा, एकदम शेंकडयांनी धोल-ताशे तडातड वाजूंक लागले. हाच्या उपरांत 'हरे मुरारे मधुकैटभारे' असो जयघोष करीत शेंकडयांनी संतानांच्यो पळटणी रांगेन शिस्तीन भायर सरूंक लागल्यो. ल्हवू ल्हवू संतानांची फौज शारांत भितर सल्ली; अकस्मात येदी व्हडली फौज पळेवन शारांतल्या लोकाक खंय पळून वच्चें खंय नाका, तें समजना जालें. शाराचे राखणदारय काचाबूल जाले.

संतानांनी पयलीं शाराचे राजबंदखणी कडेन वाट धल्ली. ताणी बंदखणीचीं दारां फोडलीं, पाहरेकारांक मारून उडयले. ताणी सत्यानंद आनी महेंद्रांक सोडोवन घेतले आनी तांकां माथ्यार घेवन ते नाचूंक लागले. तेन्ना हरिनामाच्या जयघोषान सगळें वातावरण गाजून गेलें. तांका सोडयल्या उपरांत संतानांनी मुसलमानाच्या घरांक उजो लायलो. सत्यानंदांनी तेन्ना म्हळें, "आतां तुमी परते वचात. कारण नासतना, हो असो अनर्थ करपांत कांय अर्थ ना."

संतानांच्या ह्या धुमाकुळीची खबर पावल्या उपरांत सरकारान तांकां चेपून उडोंवचे खातीर म्हणून फौज धाडली. फौज येता म्हणपाची खबर मेळना फुडें संतानांनी तिचो फुडो करचो म्हणपाचें येवजीलें. पुण फौजीच्या तोफां मुखार लाटी, भाले आनीक थोडीं बंदुकां किते करतलीं आसलीं तें कळिल्लेंच आसलें. देखून संतान आपली हार जातली म्हणपाचें येवजून पळूंक लागले.

※※

# दुसरें खंड

## 1

शांती ऎकदम ल्हान पिरायेचें आसतना ताची आवय भायर पडिल्ली. ताचें चरित्र घडोवन हाडपी जायत्या गजालीतले हेंच मुखेल अशें कारण आशिल्लें. ताचो बापूय ब्राह्मण आसलो आनी तो शिक्षकाचें काम करतालो. ताच्या घरांत दुसरी कोण बायल मनीस नाशिल्ली.

अशें आसून, जेन्ना शांतीचो बापूय शाळेंत वचून विद्यार्थ्यांक शिकयतालो तेन्ना शांती ताच्या वांगडा वचून थंय बसतालें. कांय विद्यार्थी ते शाळेंतूच रावतले. हेर वेळाय शांती तांचे मदीं वचून बसतालें आनी तांच्या वांगडा खेळटालें. केन्नाय तें वचून त्या भुरग्यांचे ओंटयेंत बसतालें आनी केन्नाय तांचे फाटकुळेर बसून घोडो करून घेयी. तीं भुरगीं ताचीं खूब माया करतालीं.

भुरगेपणांत सावन सदांच चल्यांच्या वांगडा राविल्ल्यान परिणाम असो जालो कि शांती चलयां भशेन कपडे न्हेसूंक शिकलें ना. शिकुनूय तें ताणें सोडून दिल्लें. ताणें चल्यां भशेन न्हेसपाचें धरिल्लें. कोणेंय ताका पातळ न्हेसयलें जाल्यार तें सोडोवन उडयतालें आनी चल्यां भशेन पुडवें न्हेसतालें. चले आपले केंस बांदिनाशिल्ले देखून शांती विणी घाली नासलें. आनी ताची विणी कोण घालतली आसली, शाळेंत ताचे केंस विद्यार्थी वाकड्डो दांतोणेन सोडोवन पिसडून उडयताले... ताचे केंस ताचे फाटीर, खांदार, भुजांर आनी पोल्या-गालार स्वैर पातळिल्ले आसताले. भुरगे लायतात ते भाशेन तींवूय चंदन लायतालें. चल्या भशेन आपल्याकूय कोण जानवें घालूंक दिनांत म्हणून शांती खुब रडटालें. पुण तांचें संध्यावंदन आन्हिक चालू आसतना तें विद्यार्थ्यां लागीं वचून बसतालें आनी तांचें अनुकरण केल्या शिवाय रावनासलें. अध्यापक नासल्यार विद्यार्थी अश्लील संस्कृत श्लोकांच्या आदारान शृंगार-रसाच्यो गजाली करी. कीरा भशेन त्यो गजाली शांतीन शिकून घेतिल्ल्यो. आनी कीरा भशेनूच तांचो अर्थ कितें आसा म्हणपाची ताका कांयच खबर नाशिल्ली.

दुसरो परिणाम असो जालो कि शांती मातशें व्हडलें जाल्या उपरांत विद्यार्थी जीं पुस्तकां वाची तींच तें तांच्या वांगडा बसून शिकूंक लागलें. व्याकरणांचें ताका अेकूय उतर येनासलें. पुण भट्टी, रघुवंश, कुमारसंभव, नैषधचारित आदी, हांचे श्लोक व्याख्ये-सैत तें तोंडपाठ करूंक लागलें. हें पळेवन आयकून शांतील्या बापायन 'यद् भविष्याति तद् भविष्यति' (जें जावपाचें आसा तें जांवदी) असो

विचार करून ताका संस्कृत व्याकरणाचे 'मुग्धबोध,' हें प्रारंभिक पुस्तक शिकोवपाक सुरवात केल्ली. शांती तें झपझपीत शिकूंक लागलें. ताचो बापूय सामके अजापान भारावन गेलो. ताणें ताका व्याकरणा वांगडा साहित्याचेय बी अेकदोन ग्रंथ शिकयले. पुण रोखडोच शांतीचो बापूय भायर पडिल्लो आनी सगळें अस्ता-व्यस्त जावून विस्कटून गेल्लें.

शांती बाबडें निराश्रित जाल्लें. शाळा बंद पडली. विद्यार्थी थंयच्यान भायर मरून गेले. पुण ताकां सगळयांक शांतीची मोग-माया लागिल्ली. शांतीक सोडून वच्चें म्हळयार तांच्या जीवार येतालें. तांतल्या अेकल्याक तिची-काकुळट येवन ताणें तिका आपल्या घरा व्हेली. तोच तो जो ह्या फुडें संतानी संप्रदायांत सामील जावन जीवानंद नांव घेवन राविल्लो. आमी ताका जीवानंद, ह्याच नांवान पाचारूं येता.

त्या काळार जीवानंदाचीं आवय-बापूय जीवीं आशिल्लीं. जीवानंदान तांकां हे चलये विशीं सगळें सांगिल्लें. ताच्या आवय-बापायन म्हणिल्ले, 'निमाणेकडेन ही तर परक्याली धूव. हिची जबाबदारी कोण घेतलो?' जीवानंदान म्हळें, हांवें तिका हाडली, तेन्ना हांवूच तिची जबाबदारी घेयीन. आवय-बापायन म्हळें, 'बरें आसा.' जीवानंद तेन्ना आंकवार आसलो आनी शांतीय लग्नाची वोडवी जाल्ली देखून मागीर जीवानंदान तिचेंच लागीं लग्न केल्लें.

लग्ना उपरांत सगळयांक चडफडो भोगूंक लागलो. घरचीं पस्तावूंक लागलीं. सगळयाक दिसलें कि जें जालें तें बरें जालें ना. कितेंच केल्यार शांती चलयां सारके कपडे घालूंक तयार जायना जाली. कितेंच केल्यार केंसांचो - आंबाडो बांदीना जाली. ती घरांत रावनासली. भायर वचून चल्या वांगडा खेळटाली. जीवानंदाल्या घरा लागीं अेक रान आसलें. शांती अेकलीच त्या रानांत वेताली ; आनी मोर खंय आसा, हरणां मेरवां खंय आसात, खंयचें फूल आनी खंयचें फळ खंय मेळटा हें सोदून काडचे खातीर ती थंय हेडत भोंवताली. मांय-मांवान पयलीं तिका सांगून पळेलें, मागीर थंय वचपाचें मना केलें आनी मागीर वडयली. तरी आसतना ती आयकना जाल्ल्यान निमाणेकडेन तिका घरांतूच कैदी जाल्ले भशेन पांयांक सांकळ बांदून दवरूंक लागलीं. अशे तरेन आपणाक सतायतात म्हणून शांती भोवूच दुखी जाल्ली. अेक दीस, जेन्ना घर उकतें आशिल्लें. तेन्ना ती जागमाग करीनासतना घरांतल्यान भायर सरून पळून गेली.

जंगलांत हेडत भोंवता शांतीन वेंचीक अशीं फुलां पुंजायलीं आनी तांच्या रोसान आपल्या आंगावेले कपडे रंगयले आनी बालसंन्याशी जाली. त्या काळार सगळचा बंगालभर संन्याश्यांचे जायते पंगड भोंवताले. ते भीक मागून आपलें पोट भरताले. शांती भीक मागत हेडत भोंवतना, करतां करतां जगन्नाथाक वचपाच्या रस्त्यार पाविल्ली. कांय दिसां उपरांत तिका थंय संन्याश्यांचो अेक पंगड मेळिल्लो. शांती त्या जथ्यांत वचून सामील जाली.

त्या काळाचे संन्याशी आयज कालच्या संन्याश्यां भशेन नासले. ते संघटीतपणीं रावताले. ते सुशिक्षीत, बळीश्ट, झुजांत कुशल आनी दुसऱ्या गुणांनी तशे युक्तीन संपन्न आसताले. चड करून ते राजद्रोही आसले - राजाची तिजोरी लुट्टाले, आनी ते येणावळीचेर आपलो दिसपट्टो-ग्रास करताले. अेकाधलो घटमूठ भुरगो दिसलो जाल्यार ते ताका उखलून व्हरताले आनी मागीर ताका शिकोवन -सवरावन आपल्या संप्रदायांत सामील करून घेताले. ताका लागून तांका भुरग्यांक उखलपी मोवाली म्हणून पाचारताले.

बालसन्याश्यांचें रूप धोंरण करून शांती अश्याच अेका संप्रदायांत भितर सर्गल्ली. तिचें नाजूक आंग-पांग पळेवन ते तिका आपले मदीं सामील करूंक तयार नाशिल्ले. पुण तिचे बुध्दीचें तेज. चतुराय आनी कार्य-कुशलताय पळेवन मानान आनी मायेमोगान तिका ताणी आपल्या पंगडांत घेतिल्ली. शांती ह्या पंगडांत रावून व्ययाम करी. ती शस्त्र वावुडपाक शिकली. अशे तरेन असलीं कठीन कामां करपांत ती लापीट जाल्ली. तांचे वांगडा रावून ती देसा-देसांतल्यान भोंवली. कितलींशींच झुजां लढायो पळेल्यो आनी जायत्यो शस्त्रविद्या शिकूंक पावली.

ल्हवू ल्हवू तिच्या आंगांतल्या जुवानपणाचीं लक्षणां उठून दिसूंक लागलीं. ही दादल्याचो पोषाख केल्ली कोण तरी बायल आसूंक जाय म्हणपाची गजाल जायत्या संन्याश्यांच्या ध्यानांत आयली. पुण सन्याशी म्हळ्यार चड करून जितेंद्रिय वा आपल्या अिंद्रियांचेर जेत मेळयल्ले आसतात. देखून हे गजालीची कोणें काय उकतेपणीं खबर काडली ना.

संन्याश्यां मदीं कांय पंडितूय आसले. शांतीक सस्कृताचें थोडीभोव म्हायती आनी रूची आसा म्हणपाचें समजल्ल्यान अेक पंडित संन्याशी तिका सस्कृत शिकोंवक लागलो. चडशें संन्याशी जितेंद्रिय आसतात, अशें आमीं वयर सांगलां, पुण सगळेच तशे नासतात. हो संस्कृत शिकोवपी पंडित जितेंद्रिय नासलो. वा अशें म्हणूं येता कि शांतीचीं फुलून येतलें शिवशिवतलें जुवानपण नियाळून भारावन गेल्ल्यान तांका ताचीं अिंद्रियां सतायत आसले जांवक जाय. तो आपले शिष्येक आदिरस-शृंगार काव्य शिकोवपाक लागलो. तांतली आयकूं नजो सारकी व्याख्या, स्पश्टीकरण, फोडनीशी करूंक लागलो. ताका लागून शांतीच्या कांय अेक हिता आड जायनासतना, परतें जाल्यार थोडें भोव फायदचाचेंच जाल्लें. लज म्हणटात ती कितें ताची शांतीक कांयच खबर नासली. पुण आतां तिच्यांत अस्तुरीच्या सभावाक धरून जो लजेचो भाव आसता तो आपशींच ल्हवू ल्हवू येवूक लागिल्लो. दादल्याच्या चरित्राचेर निर्मळ बायले-चरित्राची अपूर्व प्रभा पडिल्ल्यान शांतीच्या आंगांत आशिल्ले अनेक गूण उदरगतींत येंवूक लागले. शांतीन शिकपाचें सोडून दिलें.

व्याध जसो हरिणीचे फाटीक लागता तसो शांतीक पळेतना तिचो गुरू

तिचे फाटल्यान धांवूंक लागलो. पुण शांतीन व्यायाम आदी करून दादल्यांक लेगित जिखून घेवपाक कठीण आशिल्लें सामर्थ्य मेळोवन घेतिल्लें. तो शिक्षक लागीं पावना फुडें ती मुठी मारून ताचीं हाडां मोडून घाली. तिच्यो मुठी म्हळचार अशो-तशो हलक्यो न्हय आसल्यो. एक दिस अशें घडलें कि शांती एकली-एकसुरी आसा ती पळेवन त्या संन्याशी पंडितान तिचो हात बळान धरून घेतलो. आपलो हात तांच्या निबर चवक्यांतलो काडून घेंवक शांती लागीं जायना जालें. पुण संन्याश्याच्या पाडच्या नशीबान म्हणूंक जाय तो शांतीचो दावो हात आसलो. अशें आसून शांतीन उजव्या हातान ताचे तकलेचेर येदया मोटचा नेटान एक मूठ फुलयली कि पंडित म्हाशय चुंवडी जावन जमनीचेर कोंसळ्ळो. त्या उपरांत शांतीन तो संन्याशी संप्रदाय सोडलो आनी थंयच्यान ती पळून गेली.

शांतीक भंय-भिरांत म्हणटात ताची खबरूच नाशिल्ली. ती एकलीच आपल्या देशां वचपाक भायर सरली. साहस आनी भुजां-बळाच्या नादचार ती कांय विघनांक सांपडनासतना चलत रावली. भीक मागून वा जंगलांतलीं फळां खावन ती आपली भूक तान भागयताली. अनेक मारामारींनी आनी चकमकींनी जैत जोडून ती निमाणेकडेन आपणाल्या मांवा-मांयगेर वचून पावली. तिणें पळेलें कि आपलो मांव भायर पडिल्लो आसलो. पुण तिचे मायन तिका घरांत घेतली ना. कित्याक तिका घरांत भितर घेतली जाल्यार आपणाचेर जातीचो बहिशकार पडटलो म्हणपाची तांकां भंय-भिरांत दिसताली. शांती थंयच्यान कडसल्ली.

जीवानंद घरांतूच आसलो. तो शांतीच्या फाटोफाट भायर सल्लो. ताणे शांतीक विचाल्लें, "तूं म्हज़ें घर सोडून कित्याक भायर सरून गेल्लें? अितले दीस तूं खंय आसलें ?" शांतीन ताका सगळी खबर सांगली. हांतलें कितें खरें आनी कितें लटकें म्हणपाचें समजुपाची आनी वळखुपाची तांक जीवानंदात आसली. ताणें तिच्या सांगण्यांचेर विस्वास दवरलो.

अप्सरांच्या भ्रूविलासांनी युक्त कटाक्षाची ज्योत घेवन मोटचा-व्हडल्या कश्टांनी कामदेवान जें फुलांनी भरिल्लें समोहन अस्त्र निर्माण केल्लें आसा ताचो उपयोग तो केन्ना लग्न जाल्ले जोडयेचेर करीना. कित्याक तशें करचें म्हळचार तो अपव्यय आसता. अिंग्लेज लोक पुनवेचे रातीकूय रायरस्त्यार गॅसाचे दिवे लायतात. बंगाली लोक ज्या माथ्यार भरपूर तेल लाविल्लें आसता ताचेरूच आनीक तेल वोत्तात. मनश्यांची गजाल तर पंसूच उरली. केन्ना केन्ना चंद्रीमूय सूर्य उदेल्ल्या उपरांत लेगित आपुण तसोच मळबांत रावता; आनी इंद्रदेव समुद्राचेर पावस घालता. जे पेटेंत दुडू कांठा मेरेन सुयेन भरिल्ले आसतात तेच पेटेंत कुबेर आनीक दुडू व्हरून वोत्ता. जाचें भोवतेक सर्वस्व लुटिल्लें आसता, तसल्याचें उरलें-सरलेलें (प्राणधन) यमराज काडून व्हरता. फकत रतिपती

कामदेवच असो आसा जाच्या हातांतल्यान असलें निर्बुद्धपणाचें काम जायना. जंय लग्नाचे बांदपास जोडल्यात थंय तो निरर्थक आनीक खटपट करीना. प्रजापतीचेर सगळो भार दवरून, तो असल्या मनशांच्या काळजां सोदीक लागता जंय ताच्यान रगत लुचून पियेंवक जाता. पणून अशें दिसता कि आयज ताका कांय अेक काम मेळ्ळें ना. देखून ताणें फुलांचे दोन बाण भेश्टेशे सोडून दिले ! अेका बाणान ताणें जीवानंदाचें काळीज घायाळ करून उडयलें आनी दुसरो बाण मारून शांतीच्या काळजांत घाव करून पयलेच फावट तिका कळीत केलें कि तिचें काळीज बायलेचें, व्हडलें नाजूक म्होंवाळ अशें. जशी नव्या कुपांतल्यान पडिल्ल्या पयल्या उदकाच्या थेंब्यांनी न्हांवून भायर सरिल्ली कळी टवटवीत दिसूंक लागता तशी शांती अकस्मात प्रफुल्लीत जावन आयली. आनी हांसत्या दोळयांनी ती जीवानंदाच्या तोंडा कडेन पळेंवक लागली.

जीवानंदान म्हळें, "हांव तुका सोडचो ना. हांव परतो येयी मेरेन तूं हांगाच उबें राव !"

शांतीन जाप दिली, "तुमी परते येतले मू ?"

जीवानंद कांय अेक जाप दिनासतना, हेवटेन तेवटेन पळेनासतना, रस्त्याचे कुशीक आशिल्ल्या माडांच्या भाटांत रूखांचे सांवळेंत, शांतीक घेवन गेलो आनी तिच्या बोंटार आपले वोंट लावन तिचो उमो घेतलो. आनी आपुण अमृत पियेलों म्हणपाचें चितत तो गेलो.

ताणें वचून आपले आवयक समजायलें आनी तिचो निरोप घेवन तो परतो आयलो. हालीच भैरवी पुरांत ताची भयण निमाईचें लग्न जाल्लें. भावोजी कडेन ताजे बरे संबंध आशिल्ले. तो शांतीक घेवन थयच गेलो. भावोजीन ताका आपणाली थोडी जमीन दिल्ली. भावोजी लागीं ताची अिश्टागत जमिल्ली. ते जमनीचेर जीवानंदान आपणाली अेक खोंप बांदली. थयच तो शांतीच्या सांगातान सुखान जियेंवक लागलो. पतिच्या सहवासान शांतीच्या सबावांतलें दादलेपण ल्हवू ल्हवू ना जांवक लागलें. त्या जाग्यार दिसान-दिस रमणीय सबावाची उदरगती जांवक लागली. तांचें जिवीत सुखाचें सपन कशें चलूंक लागलें. पुण अेका दिसा अवचित तें सुखा सपन भंगलें. जीवानंद सत्यानंदांचे प्ररणेन संतान धर्माची दिक्षा घेंवक पावलो. आनी शांतीक ताणें सोडून दिली आनी तो गेलो. तेन्नाच्यान म्हळ्यार ह्या परित्यागा उपरांत निमाईचे चतुरायेन ही दोंगांयची पयलीच भेट घडून आयिल्ली.

## 2

जीवानंद गेल्या उपरांत शांती निमईच्या वसऱ्यांत वचून बसली. निमीन आपणाकडेन आशिल्ल्या भुरग्याक घेवन तिचे भगलेक येवन बसकण मांडली. ह्या वेळार शांतीच्या दोळ्यांनी दुकां नासलीं. तिणें दोळे पुसून काडिल्ले. तिच्या मुखकमळार आनंदाचें ल्हार आयिल्लें. तिच्या तोंडार हांशें खेळटालें. पुण तरीय आमतना कांय प्रमाणान ती गंभीर दिसताली, चिंतेस्त-शी, मनाभायरी-शी. तिच्या मनांत घोळटले भाव वळखून निमायीन म्हळें, "कशेंय जाव, निमाणेकडेन भेट तरी जावन आयली !"

शांतीन कांयच जाप दिली ना. ती वोगी बसून रावली. शांती आपल्या मनांतली गजाल उलोवन दाखोंवची ना, हें निमाईच्या ध्यानांत आयलें. आपलें मन दुसऱ्याकडेन उकतें करून दाखोवचें शांतीक मान्य नासलें, हें निमाईक खबर आसले. देखून ताणें प्रयत्न करून दुसरो विशय काडलो. ताणें म्हळें, "वयनी, पळे कशें आसा हें चोर ?"

शांतीन म्हळें, "खंय मेळ्ळें तुका हें भुरगें ? केन्ना जालें गो हें तुका ?"

निमीन म्हळें उजो लाय तुज्या तोंडाक ! यमराजाकडेन वच गे तूं ! आगे, हें दादालें भुरगें !"

निमीन ही गजाल शांतीक चाळोवपा खातीर म्हणून सांगूंक नासले दादालें भुरगें म्हणचें दादान हाडून दिल्लें भुरगें, अितलोच तात्रो अर्थ आसलो. पुण तो शांतीक समजलो ना. तिका दिसलें कि निमी आपल्याक चाळोवपाक म्हणून हें करूंक सोदता. देखून तिणें म्हळें, "हांवें भुरग्याच्या बापायची चौकशी कांयच केली ना. तिची आवय कोण काय म्हणून तुका विचारलां."

निमाईक हें बरेंच थापट जाल्ले भशेन लागिल्लें. तें गडबडलें आनी सांगूंक लागलें, "हें कोणाचें भुरगें तें म्हाका खंय खबर आसा, बाये ? दादान तें खंयच्यान उखलून हाडलें तें विचारूंक म्हाका संद मेळ्ळचा ? दुखळाचे दीस हे. कितलीशींच मनशां आपल्या भुरग्यां-बाळांक रस्त्यार सोडून उडयतात. आमचेय लागीं कितलो लोक आयिल्लो भुरगीं विकचे खातीर म्हणून ! पुण लोकांचीं, परक्यांचीं भुरगीं कोणें घेवचीं ?" हें उलयतना ताचे दोळे भरून आयले. दोळे पुसून ताणें म्हळें "भुरगें कितलें सोबीत-सुन्दर आसा न्हय ! ताचें चन्द्रीमासारकें गोल-गुलगुलीत मुखकमळ पळेवन हांवें ताका दादा लागच्यान मागून घेतलें."

त्या उपरांत, शांती आनी निमाई बरोच वेळ मेरेन सुखा-दुखाच्यो गजाली उलयत रावलीं. शेकीं निमाईचो घोव परतो आयिल्ल्यान शांती उठून आपले

खोंपींत चलूंक लागली. भितर वचून खोंपीचें कवड तिणें भितल्ल्यान बंद करून घेतलें. चुलींतलो बरोच-सो गोबर भायर काडून दवल्लो. आपणा खातीर म्हणून जें शीत तिणें रांधिल्लें तें चुलींतल्या उरिल्ल्या गोबरांत तिणें वोतून उडयल्लें. त्या उपरांत ती उबयांच-उबी कांय वेळ मेरेन चिंतीत रावली. मागीर मनांतल्या मनांत तिणें म्हळें, "आयज मेरेन जें हांव चिंतीत आयल्यां तें आतां हांव करतलीं. जे आशेचेर अवलंबून आयज मेरेन जें हांवें केलें ना ती आशा आयज सुफळ जाली. पुण ती खऱ्यांनीच सुफळ जाली, व्हय, काय निर्फळ ? निर्फळूच म्हणची पडटली. हें जिवितूच निर्फळ. जो संकल्प हांवें केल्लो तो आतां पुरो करतलीं. अेक फावट केल्ल्या पातका खातीर जें प्रायश्चीत फर्मायल्लें आसा तेंव शंभर फावटीं केल्ल्या पापां खातीर आसतलें."

असो विचार करून शांतीन शिजयल्लें शीत शेवटून माल्लें. मागीर रानात वचून फळां तोडून हाडलीं आनी अन्ना जाग्यार तिणें फळांच खालीं. त्या उपरांत, जे ढाक्याचे साडीयेक लागून निमाई तिका थोमणो मारताली ती साडी भायर काडून तिची झगझगीत देग तिणे फरफरीत पिजून उडयली. उरिल्ली साडी तिणें भगव्या रंगान रंगोवन काडली. कापड रंगोवन सुकसर सांज जाली. सांज जाल्ली पळेवन तिणें दार लावन घेतलें आनी ती अेका मौजेच्या कामांत गुल्ल जाली. आपणाल्या लांबदीक रसरशीत केंसांचो कांय भाग तिणे कातरीन कातल्लो. जे उरिल्ले केंस आसले तांच्यो तिणें जटा वळून घेतल्यो. आपणाल्या रूक्ष केंसांक तिणें अेक अद्भुत अशें वळन दिलें कि तिच्या माथ्यार सोबीन जटांभार तयार जालो.

मागीर शांतीन भगव्या वस्त्राचे मदल्यान पिजून दोन कुडके केले, आनी साडीये पसून पुडवें तयार केलें आनी आपणाच्या ओडलायण्या आंगार तो पोशाख चडयलो. साडीयेचो दुसरो कुडको तिणें आपले छाती भोंवतणी गुटलावन घेतलो. घरांत अेक हारसो आसलो. कितल्या तेंपान शांतीन तो भायर काडलो; आनी तांतूत आपलें नवें रूप तिणें दोळेभर पळोवन घेतलें. तें बारकायेन पळेल्या उपरांत तिणें आपल्याकच म्हळें, "हाय ! हांव आतां कितें करूं ? कशें करूं?" मागीर तो हारसो मोखून दिलो. थोडचा वेळा आदीं कापून दवरिल्ल्या केंसां पसून खाड-मिश्यो करपाचो ती प्रयत्न करूं लागली. पुण कितेंव केल्यार तें जमना जालें. ती मनांतल्या मनांत म्हणू लागली, "शी ! शी ! शी बाबा ! हांतूत कितें जातलें ? आतां तो आदलो काळ खरी खंय उरला,? पुण, हां, त्या म्हातऱ्याक बुद्ध शिकोवपाक हे लागीं दवरिल्ले बरे." अशें म्हणून शांतीन ते केंस आपल्या अेका लुगटांत बांदून घेतले. भितरल्लें हरणाचे चांमडें वा व्हडलें मृगाजिन तिणें भायर काडलें. तें गळचा-गोमटेंत गुटलावन गळचा पसून मांडये मेरेन तिणें आपलें आंग-पांग धांपलें. असले तरेची वेशभुषा करून त्या नव्या संन्याश्यान घराच्या

चारूय वशींनी बारकायेन नदर भोंवडायली आनी मदयान रात जाल्या उपरांत दार काडून त्या भेसांन शांती भायर सल्ली. आनी त्या रातच्या काळखांत निर्णे दाट रानातल्यान वाट धल्ली.

वनदेवींनी त्या रातयांत रानांतल्यान अेक अपूर्व गीत आयकलें :

"टपटप करीत, घोड्यार बसून तूं खंय वेता रे."

"हांव वेतां समरांगणांत. म्हाका परतो आपोंव नाका.
म्हज्या तोंडार हरिनाम आसा, हांव झुजांत रंगतां.
आयज समररूपी ल्हारांचेर हांव म्हजो प्राण मारून दितलों.
तू कोणालो, तुजो कोण, तूं वांगडा कित्याक येता ?
रमणीचा लोभ म्हाका ना. जैताचें गीत तूंच गा !"

"हांव तुमचो पांय धरतां, प्राणनाथ ! म्हाका सोडून वचूं नाका."

ती आयक, जैताची रणभेरी वाजत आसा.
म्हजो घोडो थय थय नाचता. ताका रणांगणार वचूंक जाय.
म्हजें मन उडलें. आतां हांव घरांत रावचो ना.
रमणीचो लोभ ना म्हाका. जैताचें गीत तूंच गा !"

*रागिणी वागीश्वरी (बागेश्री), ताल आडा

## 3

दुसरे दिसा आनंदमठांतल्या अेकांतांत आशिल्ल्या अेका कुडींत बसून निराश जाल्ले तीन संतानां फुडारी आपले मदीं विचार-विनिमय करताले. जीवानंदान सत्यानंदांक विचारलें, "देव आमचेर इतलो कोपलासो कित्याक ? कसल्या गुन्यांवाक लागून आमीं मुसलमाना कडल्यान हरले जायत ?"

सत्यानंदानी सांगलें, "देवाचो कोप न्हय तो. झुजांत जैत हार दोनूय गजाली घडत आसातात. त्या दिसा आमचें जैत जाल्लें. आयज हार जाली. पुण शेवटीं आमचेंच जैत जातलें. म्हजी अशी सामकी खात्री आसा कि जाणें आमचेर आयज मेरेन दया केली तो शंख-चक्र-पद्मधारी वनमाली आनीक अेक फावटीं आमचेर दया करतलो. ताच्यां चरणांचो स्पर्श करून आमी जे म्हाव्रत घेतिल्लें आसा तें आमीं पुराय तडीक व्हरूंकूच जाय. तें व्रत सोडून दिल्यार आमकां अनंत काळ मेरेन नर्काची ख्यास्त फावो जातली. शेकीं आमचें कल्याणूच जातलें हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना. पूण जशें देवाचे कृपे विणें कसलेंय काम फळाक पावना तशें कार्यसिद्धी खातीर पुरूपार्थाचीय गरज आसता. आमकां जी हार खांवची पडली ताचें कारण म्हळ्यार आमचे कडेन फावो तितलीं शस्त्रां-अस्त्रां

नासलीं. बंदुकां आनी तोफां मुखार लाठीं-भाल्यांच्यान कितें करूंक जातलें. ? ताचो परिणाम, शस्त्रांच्या उणावाक लागून आमका हार मानून घेंवची पडली. आतां ही शस्त्र-अस्त्रांची तूट आमच्यांनी कशी भरून काडूंयेत, हें आमीं येवजूंचे पडटलें.

जीवानंद : हें तर भोव कठीण काम जावन आसा.

सत्यानंद : जीवानंद, हें काम तूं कठीण आसा म्हणटा. संतान जावन तुवें असली भाशा उलोवचेली ? संतानांक कसलेंच काम अवघड न्हय, हें तुवें विसरूंक फावना.

जीवानंद : ही शस्त्र-अस्त्रां कशीं अेकटावपाचीं ? तुमींच आज्ञा करात.

सत्यानंद : शस्त्रां अेकठांय करचे खातीर हांव आयचे रातीच तीर्थ-यात्रेक वचपाक भायर सरतां. जो मेरेन हांव परतो येवचो ना तो मेरेन तुमी कसलेंच मोटे धाडसाचें काम हातांत घेंवूं नाकात. पुण संतानांचो अेकवट कायम राखून दवरात. तांच्या जेवणा-वस्त्राची वेवस्था करात आनी झुजांत मातेचें जैत जावचे नदरेन धन-भांडार भरून दवरात. तो सगळो भार आतां तुमचेर दोगांयचेर पडटलो.

भवानंदान विचारलें. तीर्थयात्रा करून तुमीं शस्त्रां-अस्त्रां कशीं पुंजायतले ? दारू-गुळो, बंदुकां, तोफो विकती घेवन तीं हेवटेन धाडून दिवंक जायत्यो आडखळी येतल्यो. आनी त्या भायर अितले सगळे मेळटलें. खंय? तीं कोण विकतलो ? आनी हेवटेन कोण हाडटलो ?

सत्यानंद : ती विकती घेवन आमचे काम जांवचेंना. हांव कारागीर धाडून दितलों. हांगाच सगळें सामान तयार करचें पडटलें.

जीवानंद : कितें म्हणटात तुमी ? ह्या आनंदमठांत ?

सत्यानंद : तें कशें जातलें काय म्हणटाय ? हाचो उपाय हांव जायते दीस जाले संदीत आसलों ईश्वरान आतां तो योग घडोवन हाडला जातलो. देव आमकां प्रतिकूल आसा अशें तुमी म्हणटाले न्हय. पुण म्हाका तर अशें दिसता कि देव आमकां सामको अनुकूल आसा.

भवानंद : कारखानो खंय उबारपाचो ?

सत्यानंद : पदचिन्ह गांवांत.

जीवानंद : कितें म्हळें, पदचिन्ह गांवांत ? तें कशें जातलें ?

सत्यानंद : तशें नाशिल्लें जाल्यार महेंद्रसिंहांनी हें म्हाव्रत ग्रहण करचें म्हणून हांव येदी मोटी धडपड कित्याक करतलों आसलों ?

भवानंद : महेंद्रांनी व्रत घेतलें काय कितें ?

सत्यानंद : अजून घेतलें ना खरें. पुण तो घेतलो. आयज राती हांव ताका दिक्षा दितलों.

जीवानंद : महेंद्रसिन्हांनी व्रत घेवचें म्हणून कितली खटाट केली आयत ताची आमकां तरी कांयच खबर ना. तांचे बायले भुरग्याचें कितें जालें ? ताणी तांकां खंय दवरलीं ? आयज हांवें न्हयेचे देगेर पडिल्लें अेक सुपुल्लें भुरगें देखलें. ताका हांव म्हजे भयणी लागीं दवरून आयलां. थंयच अेक मेल्ली बायल पडिल्ली आसली. तींच वी महेंद्रांचीं बायल भुरगें न्हय मू ? म्हाका तशें कितें तरी दिसतालें.

सत्यानंद : व्हय, तींच तीं महेंद्राचीं बायल आनी भुरगें.

हें आयकून भवानंद चकित जावन अजापान उठलो. ताका समजलें कि जे बायलेक आपणें वखद-विर्सद करून परती जीवंत केल्लां तीच महेंद्राची बायल कल्याणीच आसूंक जाय. पुण त्या वेळार ती गजाल उकती करून सांगूक ताका गरजेचें अशें दिसलें ना.

जीवानंदान विचारलें : महेंद्राची घरकान्न कशी मेली ?

सत्यानंद : वीख खावन मेली.

जीवानंद : कित्याक वीख खाल्लें तिणें ?

सत्यानंद : सपनांत येवून देवानूच तिका प्राण त्याग कर म्हणपाचो आदेश दिल्लो.

भवानंद : सपनांत येवून तिका आदेश दिल्लो ; कितें संतानांचें कार्य तडीक वचें म्हणून काय कितें ?

सत्यानंद : महेंद्रानी तर म्हाका तशें सांगलां. आतां सांज जायत आयली. हांव संध्यावंदन वगैरे सांजेचीं आन्हिक प्रार्थना करपाक वेतां. त्या उपरांत हांव नव्या संतानांक दिक्षा दितलों.

भवानंद : नव्या संतानांक ? म्हणचें कितें ? महेंद्रा भायर आनीक कोण तुमचो शिष्य जावपाची स्पर्धा करता काय कितें ?

सत्यानंद : व्हय, आनीक अेकलो आसा. ताका हांवें पयलीं केन्नाच पळेंवक नाशिल्लो. आयज पयलेच फावट तो म्हजे लागीं आयला, नवो नवजुवान आसा. ताचें उलोवप-वागप, चाल-चलणूक पळोवन ताचेर हांव भोव खोशी जालां. तो सामको वावन कशी भांगर आसा म्हणपाची म्हजी खात्री पटल्या. ताका संतानांच्या कामाचें प्रशिक्षण दिवपाची जबाबदारी जीवानंदाचेर पडटली. कित्याक काय म्हळयार, जीवानंद लोकांक ओडून घेवपांत प्रवीण जाल्लो आसा. आतां हांव वेतां. पुण ताचे आदीं, तुमकां अेक उपदेस सांगपाचो उरला. खुब ध्यान दिवन आयकात.

दोगांयनी हात जोडून नमळायेन म्हळें, "आज्ञा करची."

सत्यानंद : तुमच्यां दोगां भितल्ल्यान कसलोय अपराध वा गुन्यांव केल्यार वा हांव परतो येवचे आदीं तुमच्यां हातांतल्यान अेकाध अपराध घडला आसत

जाल्यार हांव परतो येयी मेरेन तांचे पासत तुमी प्रायश्चीत करून घेवपाची गरज ना. हांव परततलों तेन्ना प्रायश्चीत निश्चित रूपान तुमकां करचेंच पडटलें.

अितलें उलोवन सत्यानंद थंयच्यान आपल्या कामा खातीर आपणाल्या स्थाना कडेन गेले. भवानंद आनी जीवानंद अेकामेकाच्या तोंडाकडेन पळेत रावले.

भवानंद : तुका उद्देशून ताणी अशें म्हळें काय कितें ?

जीवानंद : घडये तशेंच आसतलें. महेंद्रांच्या भुरग्याक दवरपा खातीर हांव म्हजे भयणीच्या घरा गेल्लो.

भवानंद : पुण तांतूत कितें दोश गुन्यांव आसा, व्हय ? बायले लागीं भेट दिवन बी येवूंक ना मू ?

जीवानंद : गुरूदेवांक चड करून तशेंच दिसलां आसतलें.

## 4

सांजेचें आन्हिक प्रार्थना सोंपयल्या उपरांत सत्यानंदानी महेंद्रांक आपोवन व्हरून, सांगलें, "तुगेली धूव अजून जीवी आसा ?"

महेंद्र : खंय आसा, महाराज !

सत्यानंद : तूं म्हाका महाराज कित्याक म्हणटा, ?

महेंद्र . सगळे जाण तशें म्हणटात देखून. मठाच्या अधिकाऱ्यांक तर राजा अशेंच म्हणटात न्हय ! महाराज, म्हजी धूव खंय आसा?

सत्यानंद : तें आयकुंचे पयलीं तूं म्हाका अेक प्रस्नाची जाप दी. तूं संतान -धर्म ग्रहण करतलो, ?

महेंद्र : हय, सायबा. ते बाबतींत हांवें मनांतल्या मनांत निश्चेव केल्लो आसा.

सत्यानंद : तर मागीर तुगेली धूव खंय आसा म्हणपाचें कित्याक जाणा जांवक सोदता, ?

महेंद्र : तुमी कित्याक ना म्हणटात, महाराज ?

सत्यानंद : जो कोण हें व्रत घेता ताच्यान बायल, पूत, धूव, घरचीं, हांच्या मदल्या कोणाच कडेन संबंद दवरूंक जायना. तांचें तोंड पळेना फुडें लेगित प्राचीत करचें लागता. जो मेरेन संतानांचें उद्दीश्ट साध्य जायना तो मेरेन तुज्यान तुगेल्या भुरग्याचें तोंड पळेवक जांवचें ना. देखून जर तुवें संतान-धर्म स्विकारपाचो निश्चेव केला आसत जाल्यार भुरग्याच्या ठिकाणाचो सोद करून कितें उपेग ? तांकां पळोंवक तूं पावचोना.

महेंद्र : प्रभू, हो अितलो कठोर-निश्टूर नेम कित्याक केला ?

सत्यानंद : संतानांचें कार्य हें भोव कठीन जावन आसा. जाणें आपल्या सर्वस्वाचो त्याग केला तोच हें कार्य करूंक पावता. दुसरो कोणूच हें करूंक पावचो ना. जाचें चित्त मायापासांनी बांदिल्लें आसत तो दोरयेक धरून उडटल्या पतंगा भशेन धर्तरी सोडून सर्गाकडेन वचूंक शकना.

महेंद्र : महाराज, तुमचें म्हणगें म्हाकां सारकें समजलें ना. जो बायल भुरग्याचें तोंड पळेता तो कसलो म्हान वावर करूंक शकना काय किते ?

सत्यानंद : बायले भुरग्यांचें तोंड पळेतानाच आमी देवकार्याचेर विसर घालतांव. संतान-धर्माचो असो नेम आसा कि ज्या दिसा गरज पडत त्या दिसा संतानान आपलो जीव लेगित दिवचो पडटलो. तुका तुज्या भुरग्यांचो उगडास येत रावलो जाल्यार, ताका सोडून तुज्या प्राणाचो बळी दिवपाक तुजें लागीं घडटलें, व्हय ?

महेंद्र : हांवें म्हजे धुवेक पळेलीना जाल्यार लेगीत हांव तिका विसरूंक शकतलों ?

सत्यानंद : तुज्यान विसरूंक जावचें ना जाल्यार तूं हें व्रत घेंवनाक.

महेंद्र : दरेक संतानान आपलें सगळें विसरून ह्या व्रताची दिक्षा घेतल्या ? तशें जाल्यार तांचो आंकडो भोंवूच उणो आसतलो.

सत्यानंद : संतान दोन प्रकारचे आसतात. दिक्षीत आनी अदीक्षित. जे अदीक्षित आसात ते घर संवसारी नाल्यार भिकारी जावन आसात. ते फकत झुजाच्या वेळार येतात आनी थंय मेळिल्ले लुटींतलो वांटो घेवन परते वेतात. जे दिक्षीत आसात ते सामके सर्वस्व त्यागी आसतात. तेच ह्या संप्रदयाचे फुडारी. हांव तुका अदीक्षित संतान जा म्हणून सांगना. झुजा वेळार लाटी-काटी आनी भाले घेवन येवपी जायते लोक आसात. दिक्षीत जाल्या शिवाय हांगाच्या खंयच्याच म्हत्वाच्या कामाची जबाबदारी तुजेर सोंपोवक जावची ना.

महेंद्र : शेवटीं, दिक्षा म्हळयार किते ? दिक्षीत जावपाची कसली गरज आसा,? मंत्र तर हांवें ह्या आदींच घेतिल्लो आसा.

सत्यानंद : तो मंत्र तुवें सोडचो पडटलो. आनी म्हजेकडल्यान तुका आनीक अेक फावट मत्र घेवचो पडटलो.

महेंद्र : घेतिल्लो मंत्र कसो सोडटलों ?

सत्यानंद : ती पद्धत हांव तुका सांगतलों.

महेंद्र : पूणन नवो मंत्र म्हाका कित्याक घेवचो पडटलो ?

सत्यानंद : सगळे संतान वैष्णव जावन आसात, देखून.

महेंद्र : हें कायच समजना म्हाका. संतान वैष्णव कशे आसतात ? वैष्णवांचे नदरेन अहिंसा होच परमधर्म जावन आसा.

सत्यानंद : तो वैष्णवधर्म चैतन्यदेवांचो. नास्तिक बौद्ध धर्माचें अनुकरण

केल्ल्यान जो लटको वैष्णवधर्म निर्माण जाल्लो ताचें हें लक्षण. दुश्टांचें चेपण आनी धर्तरे मातेवो उद्धार करपाचें हें खरे वैष्णवधर्माचें लक्षण जावन आसा. कित्याक विष्णूच ह्या संवसाराची राखण करतो आसा. धा पावटीं शरीर धारण करून ताणें पृथ्वीचो उद्धार केल्लो आसा. जैत जोडून दिवपी आनी जीखपी तोच आसा. तोच संतानांवो इश्टदेव आसा. चैतन्यदेवांचो वैष्णवधर्म हो खरेलो वैष्णवधर्म न्हय, तो अेक अर्दवट धर्म जावन आसा. चैतन्यदेवांचो विष्णू प्रेममय आसा. पुण परमेश्वर हो कितें निखटो प्रेममय न्हय. तो अनंतशक्तिमयो आसा. चैतन्य देवांचो विष्णू फकत प्रेममय आसात – संतानांचो विष्ण शक्तीवंत. आमी दोगूय वैष्णवूच आसांव. पुण दोगूय अर्दे वैष्णव आसांव. समजलें ?

महेंद्र : ना. ह्यो गजाली तर म्हाका नव्योच आयकल्ल्योश्यो दिसतात. कासीम बाजारांत अेका पाद्री लागीं म्हजी भेट जाल्ली. तो असोव कितें तरी उलयत सुटिल्लो – ईश्वर प्रेममय आसा ; तुमी जेझूचेर मोग करात बी. तुमचें उलोवणें म्हाका तशें कितें लागलें.

सत्यानंद : आमचे पुर्वज जे पद्धतीन हें सगळें समजावन सांगताले तेच पद्धतीन हांव हें तुका सांगतां. ईश्वर त्रिगुणात्मक जावन आसात, हें तुवें आयकलां काय ना ?

महेंद्र : व्हय, सत्व, रज, तम हे ते तीन गूण आसात.

सत्यानंद : सारकें आसा. ह्या तीन गुणांच्यो वेगळयो वेगळयो उपासनां आसात. सत्व गुणा पसून ईश्वरांतली दया, दाक्षिण्य वगैरे गुणांची उत्पत्ती जाल्ली आसा. चैतन्यांच्या संप्रदायाचो तो मार्ग जावन आसा. रजोगुणांतल्यान ईश्वराची भक्ती निर्माण जाता. अश्या ईश्वराची उपासना झुजावरवीं, देवांक विरोध करतल्यांचो नाश करून करपाची आसता. ती आमी करीत आसतांव. तमोगुणांतल्यान परमेश्वरान आप-अितसेन चतुर्भुज वगैरे रूपां धारण केल्लीं आसात. फुलांच्यो माळो, चंदन आदींच्या समर्पणांतल्यान ह्या गुणांची पुजा करपाची आसता. सर्वसामान्य लोक तें करीत आसतात. आतां समजलें, व्हय ?

महेंद्र : समजलें. हाचो अर्थ असो कि संतानांचें संतादाय होवूय उपासकांचो संप्रदाय जावन आसा.

सत्यानंद : सामकें खरें. आमकां राज्याची अभिलाषा ना. जे देवद्रोही आसात, त्या द्रोहापासतूच आमीं तांचो संपूर्ण विनाश करपाक आवडेतांव.

## 5

अितल्यो सगट गजाली केल्या उपरांत सत्यानंद महेंद्रांक घेवन मठाच्या

भितल्ल्या भागांत आशिल्ल्या मंदिरात गेले. त्या जाग्यार अलौकीक सोबीत चतुर्भुज मूर्ती आसली. त्या वेळार थंयची सुन्दरताय अपूर्व दिसताली. रूप्याच्या आनी भांगराच्या रत्नां-दसयल्ल्या दिव्यांच्या उजवाडान तें मंदीर लखलखून गेल्लें. थय फुलांच्यो राशी पडिल्ल्यो आसल्यो आनी तांचो धमधम सगळ्याक' फांकारिल्लो.मंदिरात आनीक एकलो बशिल्लो आसलो. तो मंद सुरात 'हरे मुरारे - चो जप करीत आसलो. सत्यानंद मंदिरांत भितर सरतानांच तो तरनाटो उठून उबो रावलो आनी ताणें सत्यानंदांक प्रणाम केलो.

ब्रह्मचारींनी ताका विचाल्लें, "तूं दिक्षा घेतलो,?"

ताणें म्हळें, "म्हजेर तुमी ती दया करची."

हें आयकून ताणी ताचे कडेन आनी महेंद्रांक विचारलें, "तुमी दोगांयनी यथाविधी स्नान केलां,? संयम पाळळा, उपास केला,?"

तांकां जाप मेळळी, "हय, सायबा."

सत्यानंद : "तुमीं दोगूय परमेश्वरा मुखार प्रतिज्ञा करात. तुमीं संतानधर्माचे सगळे नेम पाळटले?

जाप मेळळी : आमीं करतल्यांत.

सत्यानंद : जो मेरेन आवयचो उद्धार जांवचो ना तो मेरेन गृहस्थधर्माचो परित्याग करतले,

दोगूय : हय, आमीं करतले !

सत्यानंद : आवय- बापायक आमी सोडटले !

दोगूय : आमीं सोडटले.

सत्यानंद : भाव-भयणांक सोडटले.

दोगूय : आमीं सोडटले.

सत्यानंद : सोयऱ्या-धायऱ्यांक ? चाकरांक-मानायांक ?

दोगूय : सगळ्यांक सोडून दितले.

सत्यानंद : धन-दवलत, संपत्ती, भोग-विलास ?

दोगूय : सगळें

सत्यानंद : तुमच्या इंद्रियांचेर जैत मेळयतले, बायलां बांगडा केन्नाच एका आसनार बसचे नात ?

जाप : ना. बसचेनांत. इंद्रियांचेर ताबो दवरतले.

सत्यानंद : देवा मुखार प्रतिज्ञा करात, आपणाक वा घरच्यां खातीर धन-गिरेस्तकाय पुंजावचे नांत. जें कितें आमी जोडून हाडटले तें सगळें वैष्णवांच्या भांडारांत जमा करतले.

जाप : हय, आमीं तेंच करतले.

सत्यानंद : संतान धर्मा पासत शस्त्र घेवन झुजतले.

जाप : झुजतले.

सत्यानंद : झुजांत केन्नाच फाट दाखोंवचे नांत, पळ काडचेनांत.

जाप : ना.

सत्यानंद : प्रतिज्ञा भंग जाली जाल्यार ?

दोगूय : जाल्यार जळट्या उज्या-आगटयांत उडी मारून वा वीख पियेवन आमीं आमचो जीव दितले.

सत्यानंद : आनीक अेक गजाल उरली. तुमची जात खंयची ? महेंद्र कायस्थ आसा म्हणपाची म्हाका खबर आसा. पुण तुजी जात कितें ?

तो दुसरो तरनाटो उलयलो, " हांव ब्राह्मणांलो चलो."

सत्यानंद : उत्तम. तुमी तुमचे जातीचो त्याग करूंक शकतले ? सगळे संतान अेकेच जातीचे जावन आसात. ह्या म्हाव्रतांत ब्राह्मण आनी सुदीर असो कांयच वेगळोचार ना. तुमचें कितें म्हणणें आसा, हे विशीं ?

दोगूय : आमी जात मानीनांत. आमीं सगळीं अेकेच मातेचीं संतान-भुरगीं.

सत्यानंद : अशें जाल्यार, आतां हांव तुमकां दिक्षा दितलों. ज्यो प्रतिज्ञा तुमीं आतां केल्ल्यो आसात, त्यो केन्नाच मोडूं नाकात. मुरारी स्वता तांकां साक्षी आसा. जाणें रावण, कंस, हिरण्यकश्यप, जरासंध, शिशुपाल, हांचो विनाश केलो, जो सगळें जाणां सर्वांतर्यामी, सर्वजयी, सर्वशक्तिमान आनी सर्वनियंता आसा, जो इंद्राच्या वज्रांत आनी माजराचे नाखशेंत समानरूपान वसता, तो प्रतिज्ञाभंग करतल्यांचो नाश करून तांकां अनंत नरकांत धाडून दितलो.

दोगूय : तथास्तू ! अशें जांव !

सत्यानंद : तर आतां गायात गीत ' वंदे मातरम्.'

दोगांयनी मागीर मातृवंदनाचें स्तोत्र गायलें. मागीर सत्यानंदानी तांकां यथाविधीची दिक्षा दिली.

## 6

दिक्षाविधी सोंपून आयल्या उपरांत सत्यानंद महेंद्राक अेका अेकमुळ्या अश्या जाग्यार घेवन गेले, आनी दोगूय थंय वचून बसले. मागीर सत्यानंदानी तांकां लेखून म्हळें, "पुता ! तुवें जें हें म्हाव्रत आपणायलें, ताचेवेल्यान अशें दिसता कि परमेश्वर आमचे वटेन ओडत आसा. तुज्ञे वरवीं मातेचें व्हड कार्य सिद्धीक पावतलें. हांव सांगतां तें ध्यान दिवन आयकून घे. तुका जीवानंद आनी भवानंद, हांचे वांगडा जंगलांनी झुजत लढल भोंवपाचें ना. तूं तुज्या गांवघरा

पदचिन्हाक परतो वच. तुज्याच स्वताच्या घरा रावून तुवें संन्यास धर्म पाळून घेंवंक जाय.

हें आयकून महेंद्राक अजाप जालें आनी तो निरशेलोय बी. पुण कांयच उलयलो ना. सत्यानंद फुडें सांगूं लागले, "सध्या आमचे लागीं अेकय आसरो घेवपासारकें घरदार ना. बळीश्ट फौजीन आमचेर घूरी घातली जाल्यार जेवणा-माल सांटोवन दवरूंक, दारां-दारवंटे बंद करून धा-अेक दिसां मेरेन हुस्क्या-विणें रावं येत तसलें सुरक्षीत टिकाण आमचे लागीं ना. आमचे लागीं अेक कॉट-किल्लो ना, तुजे लागीं म्हाल आसा आनी तुजो गावूय तुज्या ताब्यांत आसा. म्हजी अिच्छा आसा कि थंयच आमीं अेक कॉट तयार करचें. उंच-उबार दुर्गां बांदून आमीं त्या गांवाक रेवाडो घालून घेवचो. मदीं मदीं पाहरेकारांच्यो चौक्यो आनी कोटाच्या बुरजांचेर तोफो बसोंव येतल्यो. अशें केल्यार म्हाका दिसता अेक बरें-शें गडगंज कॉट तयार जातलें.

"तूं थंयच वचून राव. ल्हवू ल्हवू थंय दोन-अेक हजार संतान येतले. तांच्या कडल्यानूच कॉट, दुर्गां, चौक्यो, अश्यो सगळ्यो गरजेच्यो बांदावळी तयार करून घेंवक जातलें. थंय लोखणा-तिख्याचें अेक घर बांदून घे, जातूंत संतानांची तिजोरी (खजीनो) आसतली. भांगरान भरिल्ल्यो सगळ्यो पेटो ज्यो हांगा पडिल्ल्यो आसात त्यो अेक अेक करून आमी हांगाच्यान व्हांवयतले आनी त्यो हांव तुजे कडेन धाडून दितलों. ह्या सगळ्या धन-संपत्तीच्या म्हालवजार थंयचें अेकान अेक काम तूं करीत राव. वेगळ्या वेगळ्या सुवातांवेले कुशल कारागीर हांव हांगाच्यान सोदून आपोवन हाडटलों. तांच्या आदारान तुवें थंय कारखानो बांदून तातूंत तोफो, बंदुकां, दारू गुळो, तयार करची पडटली. देखूनूच हांव तुका घरा वच म्हणून सांगतां.

महेंद्र कबूल जालो.

## 7

सत्यानंदांचें पांयवंदन करून महेंद्रान तांचो निरोप घेतलो आनी ते थंयच्यान वचूंक लागले. महेंद्रा बांगडा दुसरो शिष्यूय, जाणें दिक्षा घेतिल्ली तो आयिल्लो. सत्यानंदांनी ताका आशिर्वाद दिलो आनी कृष्णाजिनांचेर ताका बसपाक सांगलें. मागीर, वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर गजाली केल्या उपरांत ताणी म्हळें, "आतां म्हाका हें सांग, कृष्णाचेर तुजी खोल भक्ती आसा कि ना?"

त्या शिष्यान सांगलें, "तें हांव कशें सांगतलों ? हांव जी भक्ती म्हणून समजतां ती घडये फकत अेक दोंगूच आसूं येता वा तें आत्मवंचनूय आसूंये."

सत्यानंदान खोशी जावन म्हळें, "तुवें थोडचा भितर सारकें विवेचन केलां. ज्या योगान तुजी भक्ती दिसानदीस गाढ खतखतीत जायत अशें अनुष्ठान तूं करीत राव. तुजी साधना सुफळ जांव, असो हांव तुका आशिर्वाद दितां. कित्याक तर तूं पिरायेन सामको कोंवळो आसा. पुता, तुका खंयच्या नांवान उलो करचो, हें हांवें तुजे लागीं आजून विचारलें ना."

नव्या संतानान सांगलें, "तुमकां मानता तसलें नाव तुमी म्हाका दियात. हांव वैष्णावांच्या दासांचो दास जावन आसां."

सत्यानंद : तुजी तरणी पिराय पळेवन, तुका नवीनानंद म्हळचार कशें ? तेंच नांव घे. पयलींचें कितें नांव तुगेलें ? तें सांगपाक कितेंय आडखळ आसली जाल्यारूय सांग. म्हाका तूं कितें सांगशी तें ह्या कानावेल्यान त्या कानाक पावपाचें ना. संतानधर्माचो नेम आसा कि जें कितें सांगपाचें ना, तेंवूय गुरूक सांगचें पडटा. तें सांगलें म्हणून कांय लुसकान तर जांवचें ना.

शिष्य : म्हजें नांव शांतीराम देवशर्मा

सत्यानंद : तुजें नांव शांतीदेवी आसा.

अितलें उलोवन सत्यानंदांनी ताच्या काळचाकिट्ट लांबदीक खाडाक हात लावन तें ओंडलें. तें अडेचें खाड जाल्ल्यान सट्ट करन गळून आयलें.

सत्यानंद उदगारले, "शी, शी धुवे ! म्हजे लागीं अशीं फटींगपणां ? आनी म्हाका फटोवपाक येवज़ोल्लें जाल्यार येदे तरणे पिरायेर येदें देड हात लांबायेचें खाड कित्याक लायलें ? समज तुवें ल्हानशें खाड लायिल्लें जाल्यारूय हो तुगेल्या ताळचाचो नाजूक आवाज, तुगेल्या तीख दोळचांतली नदर तुज्यान लिपोंव येताली, व्हय ? हांव जर अितलो निर्बुद्ध आशिल्लों जाल्यार येदें व्हडलें कार्य हांव हातांत घेतलो आसतों, व्हय ?"

हें आयकतनांच काळें तोंड केल्ली शांती लज़ेन आपले दोळे धांपूंक लागली. आनी मान सकला घालून कितलोसोच वेळ थंय वोगी बसून रावली. कांय वेळा उपरांत दोळचांवेले आपले हात काडून घेवन तिणें त्या म्हातान्याच्या मुखकमळार अेक चंचल कटाक्ष मोखून म्हळें, "प्रभू, शेवटीं, म्हज्याकडल्यान कसलो अपराध गुन्यांव घडलो तो सांगल्यात, अस्तुऱ्यांच्या भुजांत बळगें आसता काय कितें ?"

सत्यानंद : आसता ; गायेच्या खुरांनी तयार केल्ल्या खड्डयांत जितलें पाणीं आसता तितलें सामर्थ्य अस्तुऱ्यांच्या भुजांत आसता.

शांती : तुमी केन्ना संतानांच्या भुजांबळग्याची परीक्षा घेतात ?

सत्यानंद : घेतां तर.

अशें म्हणून सत्यानंद तिख्याचो अेक धोणू आनी लोखणाचे कांय तार वारांव घेवन आयले. ते तिचे कडेन दिवन ताणीं सांगलें, "ह्या धोणवाचेर लोखणाचे

तार चडोवचे पडटात. धोणवाचेर तार चडयतना धोणू सट्ट करून उसळटा. तार चडयतल्याक तो धोणू झटको दिवन पैस शेवटून मारता. जो कोण ह्या धोणवाचेर येशस्वी रीतीन तार चडयता तोच खरो बळीश्ट.”

शांतीन धोणू आनी तार हातांत घेतले आनी विचारलें, “सगळ संतान हे परीक्षेंत उतरले काय किते ?”

सत्यानंद : ना. हाचे वरवीं तांचें बळ आजमावन घेतात.

शांती : हे परीक्षेंत येशस्वी कोणूच जालो ना ?

सत्यानंद : जाल्यात. फकत चार-पांच जाण हांतूंत येशस्वी जाल्यात.

शांती : ते कोण कोण जायत तें म्हज्यान विचारूं येता ?

सत्यानंद : कांय आडखळ ना. ऐक तर हांव जाल्लों.

शांती : आनीक कोण ?

सत्यानंद : जीवानंद, ज्ञानानंद आनी भवानंद.

शांतीन धोणू उबारलो. तार घेतली आनी सोंपेपणीं हांसत हांसत धोणवाचेर प्रत्यंचो चडोवन तो सत्यानंदांच्या पांयांकडेन उडयलो.

सत्यानंद विस्मित जाले. थोडया वेळा उपरांत ताणी म्हळें, “हें किते ? तूं देवी, काय सामान्य बायल, हें सांग पळेंवया.”

शांतीन हात जोडून म्हळें, “हांव ऐक सादी-सामान्य बायल जावन आसां. पुण हांव ब्रह्मचारीणी आसां.”

सत्यानंद : तें कशें किते ? तूं बालविधवा ? ना, बालविधवेकूय येदें व्हडलें बळ आसना. कित्याक तिका ऐका जेवणाचेर जगचें पडटा.

शांती : हांव ऐक सधवी जावन आसां.

सत्यानंद : तुजो पती बेपत्ता जाल्लो आसा काय किते ?

शांती : ना. तांचो पत्तो आसा म्हाका. तांच्याच उद्देशान, तांकांच सोदूंक म्हणून हांव हांगा आयल्यां.

जशें कुपांतल्यान सुटून ऐक तीख उजवाडीत किरण भायर सरून येता तशें सत्यानंदांच्या मनांत उगडासाचें ऐक ल्हार चमकून आयलें. ताणी म्हळें, “आतां म्हाका याद जाली. जीवानंदाले बायलेचें नांव शांती. तूंच जीवानंदाली बायल मू?”

तेन्ना जीवानंदान आपल्या केंसांच्या जटांनी आपलें मुखकमळ धांपून घेतलें. जशें काय साळकाचेर हत्तयांची सोंडी ! सत्यानंदांनी म्हळें, “हें पापाचरण करपाक तू हांगा कित्याक आयल्या ?”

हें आयकून शांतीन ऐकाऐक आपलो जटांभार झटकून फाटीं उडयलो आनी तिणें तांकां विचारलें, “पापाचरण कसलें प्रभू ? बायलेन आपल्या घोवाचें अनुसरण केलें जाल्यार ताका पापाचरण म्हणटात काय किते ? संतानाचें धर्मशास्त्र ताका पापाचरण मानलें जाल्यार संतानधर्म हो धर्म न्हय. पुण हांव

तांची सहधर्मिणी जावन आसां. ते धर्माचरणांत मग्न आसात. हांव तांचे वांगडा धर्माचरण करपाक आयल्यां."

शांतीची ही तेजस्वी जाप आयकून, तिचो गळो-गोमटी, भरून आयिल्लें हर्दें, थरथरतले ओंठ आनी ते लिकलिकीत पुण दुकांनी भरिल्ले दोळे नियाळून सत्यानंद प्रसन्न जाले. ताणी म्हळें, "तु साधवी जावन आसा पुण, धुवे, बायल ही फकत घरधर्मांतूच सहधर्मिणी आसता, वीरधर्मांत रमणीचो वांटो कितें आसा तुका दिसता ?"

शांती : खंयचो वीर पुरूष बायले शिवाय वीर जाला ? सीता नासली जाल्यार राम वीर जातलो आसलो ? अर्जुनान कितलीं लग्नां केल्लीं तीं तुमी मेजून पळेयात. भीमाच्या आंगांत जितली तूतनायक शक्ती आसली तितल्यो तांच्यो बायलो आसल्यो. असल्यो आनीक कितल्यो देखी दिवून सांगूं तुमकां ? आनी तुमकां सांगपाची गरज तरी आसा गा ?

सत्यानंद : तुजें म्हणणें खरें आसा. पुण खंयचो वीर आपले बायलेक सांगाता घेवन झुजा मळार वेता ?

शांती : अर्जुनान जेन्ना यादव सैन्याकडेन अंतरिक्षांतल्यान झूज केलें तेन्ना ताचो रथ कोणे चलयल्लो ? द्रौपदी वांगडा नाशिल्ली जाल्यार पांडव कुरूक्षेत्रांत झुजूंक शकतले आसले ?

सत्यानंद : तें कशेय आसूं. पुण सामान्य दादल्याचें मन बायलांचेर ओडटा आनी मागीर तो आपल्या कामापसून पैस वेता. देखुनूच संतानांक हें व्रत घेंवचेंच पडटा कि ते बायले वांगडा अेका आसनाचेर केन्नाच बसचे नांत. जीवानंद म्हजो उजवो हात आसा. तूं त्या हाताक तोडून उडोंवक आयल्या ?

शांती : हांव तुमच्या उजव्या हाताचें बळगें वाडोवपाक आयल्यां. हांव ब्रह्मचारीण आसां. हांगा, प्रभूंच्या म्हऱ्यांत, हांव ब्रह्मचारीणूच उरतलीं. हांव हांगासर धर्माचें कार्य करूंक आयल्यां. म्हज्या पतीक मेळपाक म्हणून हांव आयलीं ना. हांव विरहव्यथेन व्याकूळ जांवक ना. म्हज्या पतीन जो धर्म आपणायला तांतूंत म्हज्यान कित्याक वांटो घेंवक जांवचोना ? देखुनूच हांव आयल्यां.

सत्यानंद : बरें तर. कांय दीस हांव तुजी परीक्षा घेवन पळेतां.

शांती : म्हज्यान आनंदमठांत रावूंक येतलें ?

सत्यानंद : ना जाल्यार, आयज तूं खंय वेतली ?

शांती : पुण आयचे उपरांत ?

सत्यानंद : भवांनी माते भशेन तुज्याय कपळाचेर अग्निज्वाला आसा. तूं संतान संप्रदायाक कित्याक लासून उडोंवक सोदता ?

अितलें उलोवन सत्यानंदांनी शांतीक आशिर्वाद दिलो आनी निका

थंयच्यान वत्रपाची परवानगी दिवून तिचो निरोप घेतलो.

शांतीन आपल्या मनांतल्या मनांत म्हळें, 'आरे जडड्या ! म्हज्या कपळाचेर उजो आसा ? हांव जळट्या कपळाची कि तुजी आवय ?'

खरें म्हळ्यार सत्यानंदाच्या म्हणण्याचो तो कांय अर्थ नासलो. तिच्या दोळ्यांत चकचकतले वीजेक उद्देशून ते ताणी उदगार काडिल्ले. पुण अेक म्हाताऱ्यान ते तरनाटेक अशें म्हणचें कित्याक?

## 8

ते राती खातीर शांतीक मठांत रावपाची परवानगी मेळिल्ली. देखून आपले पासत ती अेक कूड सोदूंक लागली. जायत्यो कूडी रीत्यो पडिल्ल्यो आसल्यो. गोवर्धन नांवाचो अेक नौकर सामान्य संतान आसलो. तो हातांत दिवो घेवन तिका कूड दाखयत तिचे वांगडा भोंवक लागलो. तांतली अेकूय कूड शांतीक मानोवली ना. निमाणी निरास जावन गोवर्धन शांतीक परती सत्यानंदाकडेन घेवन वचूंक लागलो.

शांतीन चौकशी केली, "संतान भावा, ते कुशीक कितल्योशोच कुडी दिश्टी पडटात त्यो तुवें दाखयल्योनांत."

गोवर्धनान सांगलें, "त्यो कूडी भोव बऱ्यो आसात खऱ्यो, पुण त्या सगळे कुडीनी लोक रावतात."

शांतीन विचारलें, "थंय कोण रावतात तर?"

गोवर्धन : तांतूंत व्हडले व्हडले सेनापती रावतात.

शांती : असले व्हडले व्हडले सेनापती कोण ?

गोवर्धन : भवानंद, जीवानंद, धीरानंद, ज्ञानानंद. आनंदमठ आनंदमय जावन आसा.

शांती : चल तर, त्यो कूडी पळेवन घेंवया !

गोवर्धनान पयली तिका धीरानंदाचे कुडींत व्हेली. त्या वेळार धीरानंद महाभारतांतलें द्रोणपर्व वाचतालो. अभिमन्यून सप्तरथींकडेन कशें झूज केलें ताचें वर्णन वाचपांत तो तल्लीन जाल्लो. तो कांयच उलयलो ना. शांतीय वोगी रावन थंयच्यांन फुडें वचत रावली.

ताच्या उपरांत ती भवानंदाचे कुडींत गेली. तो त्या वेळार दोळे वयर करून खंयच्या तरी मुखकमळाचेर नदर केंद्रीत करून शेणून गेल्ले तो चेरो कोणाचो तें ताज्यान सांगूक जावचें नासलें, पुण तो भोवूच सुन्दर आसलो. कांनामेरेन तेंकिल्ल्यो भोंवयो आनी ताचेर पडपी परमळीत काळ्या केंसाचीं कुल्लां.

भोंवतणीं काळी मरणाची सांवळी पसरिल्ली आसली. अशे जशें काय मरण आनी मरणाचेर जैत व्हरपी, हांचे द्वंद्वयुद्ध थंय चलिल्लें. दोळे पालोवल्ले, थीर भोंवयो, नीळसार वोंट, हळडूवसार पोले गाल, थंडगार नाख, छाती फुगिल्ली आसली. ते कुडीवेलीं वस्त्रां वाऱ्यान विस्कळीत जाल्लीं. मागीर, जसो कुपांनी धांपिल्लो चंद्रीम आपलीं सोबीताय शिपडावन शिवरावन उडयता, सकाळीं उदेल्लो सूर्य ल्हारांनी बांदून आयिल्ल्या कुपांक ल्हवू ल्हवू भांगरायता आनी आपुणूय उजवाडान लखलखता, धाय दिशांक आलोकित करता, पाणयां तळ्यांक आनी कीटपतंगांक प्रफुल्ल करता, तशी त्या मेल्ल्या शरीरांत जीविताची सोबाय संचारूंक लागिल्ली. अहाहा ! कितें ती सोबाय ! भवानंद तिचोत्र विचार करीत आसलो ! देखून तोत्रूय कांयच उलयलो ना. कल्याणीचें रूप नियाळून ताचें काळीज विव्हळून गेल्लें. ताणे शांतीच्या रूपा कडेन लक्ष दिलें ना.

शांती थंयच्यान दुसरे कुडींत गेली. तिणें विचाल्लें, "ही कूड कोणाची?"

गोवर्धन : जीवानंद स्वामींची.

शांती : हे जीवानंद कोण ? हांगा तर कोणूच दिसना.

गोवर्धन : ते खंय तरी गेल्लेकडेन आसतले. येतले.

शांती : ही कूड तर सगळ्यां परस उत्तम.

गोवर्धन : पुण ती तुमकां रावपाक मेळची ना.

शांती : कित्याक?

गोवर्धन : हांगासर जीवानंद रावतात.

शांती : तांच्यानी दुसरी खंयचीय कूड सोदून घेंव येता.

गोवर्धन : तें तशें जांवचें ना. हे कुडींनी जे रावतात ते हांगाचे करते-धरते जावन आसात. ते जशें म्हणटात सांगतात तेंच हांगा घडटा.

शांती : बरें आसा. तूं वच. जागो मेळना जाल्यार हांव रूखा पोंदा रावतलीं.

अशें म्हणून शांतीन गोवर्धनाक थंयच निरोप दिलो; आनी मागीर ती ते कुडींत रीगली. भितर वचून तिणे जीवानंदाचें कृष्णाजिन हांथरून घेतलें; आनी थंय आशिल्ल्या दिव्याचो उजवाड मात्सो व्हडलो करून, जीवानंदाचें एक पोथी-पुस्तक घेवन ती वाचूंक लागली.

थोडचा वेळा उपरांत जीवानंद आपले कुडींत परतो आयलो. तेन्ना शांती दादल्याच्या वेशांत आसली. पुणून तिका पळेतानांच ताणें वळखली. ताणें म्हळें, "हें कितें शांती ?"

शांतीन हातांतलें पुस्तक सवकास कवळ्लें आनी जीवानंदाच्या तोंडा कडेन पळेत म्हळें "महाशय, हो शांती कोण ?"

जीवानंद थटाकलो. थोडो वेळ अजापान भरिल्ल्यान ताणें म्हळें, " म्हणचें कितें? ' तूं शांती न्हय गो ?"

शांतीन जाप दिली, " हांव नवीनानंद गोस्वामी." आनी ती परती वाचपाक लागली.

जीवानंद हें आयकून खळखळून हांसलो. म्हळें, " हो अेक बरो तमाशा केलो तुवें ! बरें आसा तर. नवीनानंद, हांगा तूं कित्याक आयला रे ?"

शांतीन जाप दिली. " बऱ्या-भल्या सभ्य लोकां मदीं अशी चाल आसा कि पयली भेट जावन वळख जाता तेन्ना आपणा मुखावेले व्यक्तीक लेखून, 'तुमी,' ' महाशय ' असले तरेच्या उतरांनी संबोधतात. हांवें तुमचे लागीं उलयतना तुमकां अपमान जायत असलीं उतरां उच्चारायलीं नांत. अशें आसतना तुमी म्हाका आरे तुरे अशें कित्याक म्हणटात ?"

" जशी आज्ञा !" अशें म्हणून जीवानंदान आपल्या गळ्याक कफनी-कपड्याचें लुगट गुटलायलें आनी हात जोडून म्हळें. " आतां हो दास-चाकर नमळायेन मागणें करता, कि शेवटीं भरूइपूरच्यान वाट तांकून ह्या दीन दुवळ्याच्या बिराडाक तुमचें येणें कशें घडून आयलें ; हें कृपा करून सांगचें."

शांतीन सामकी गंभीर जावन म्हळें, " फकाणां करून दाखोवपाची कांयच गरज म्हाका जाल्यार दिसना. म्हाका भरूइपूगाची खबर ना. हांवें आयज संतानधर्माची हांगा दिक्षा घेतिल्ली आसा."

जीवानंद : हें खरें आसा ?

शांती : खरें म्हणजे ? तुमीय दीक्षा घेतिल्ली आसा, न्हय ?

जीवानंद : पुण तूं तर बायल मनीस !

शांती : तुमी कितें म्हणूंक सोदतात ? तुमकां असो भास कित्याक जाला, सांगश्यात ?

जीवानंद : म्हजी बायल स्त्री जातीची आसा म्हणपाचो म्हजो समज आसलो.

शांती : बायल ? तुमका बायल आसा, व्हय ?

जीवानंद : म्हजे म्हायती प्रमाण ती आसली खरी !

शांती : तुमकां दिसता हांव तुमगेली घरकान्न ?

जीवानंदान परत अेक फावट कफनी-कपडो आपल्या गळ्या-गोमटेक गुटलायलो आनी हात जोडले. आनी अेकदम नमळायेन ताणे म्हळें, "व्हय महाशय !"

शांती : असली विनोदी कल्पना तुमच्या मनांत आयल्या जाल्यार, असले परिस्थितींत तुमचें कितें कर्तव्य आसा, तें सांगात पळेंवया ?

जीवानंद : तुमच्या आंगापांगार आशिल्लीं सगळीं वस्त्रां जबरदस्तीन काडून घेवन तुमच्या वोंटांचें अमृत पियेंवचें.

शांतीन जाप दिली : हें तुमच्या दृष्टबुद्धीचें नाल्यार गांज्याचेर पोशिल्ले तुमचे असामान्य भक्तीचें लक्षण म्हणचें पडटलें. दिक्षा ग्रहण करतना तुमी असो सोपूत घेतिल्लो आसा कि 'हांव खंयचेच बायले वांगडा अेका आसनाचेर बसचों ना.' हांव बायल आसां म्हणपाचो तुमचो भ्रम आसा जाल्यार राजू पळेवन सोर्पाचो भ्रम जायत्या जाणांक जाल्लो आसता म्हणटात तशें जालें. पुण तुमकां तशें दिसता जाल्यार तुमी वेगळ्यां आसनांर बसून घेतल्यार बरें. तुमी म्हजे लागीं उलोवचें म्हळयारूय मना केल्लें आसा.

अशें म्हणून शांतीन आपली तकली परती पुस्तकांत घाली. आपुण हारलों म्हणपाचें वळखून घेवन जीवानंदांन आपलें वेगळें हांथरूण घालें आनी ताचेर तो न्हिदलो.



## तिसरें खंड

### 1

ईश्वराचे कृपेन 76-चें अशुभ वरस सोंपून आयिल्लें. बंगालांत स आणे (तीन अष्टमांश) लेखिल्ल्या लोकांक - कितले कूट ते कोणाक खबर ना – यमसदाकडेन धाडून दिवन तें भयंकार वरस आपुण जावन काळाचे दाडयेंत ना-नपश्यात जावन गेल्लें. 77 वर्सांत देव प्रसन्न जालो. पावस उत्तम रीतीन पडलो. पीक बेस बरी रुजून आयली. पृथवी शस्यशालिनी पांचवीचार जाली. जे वांचले जगले तांका आतां पोटभर खांवक जेवंक मेळूंक लागलें. जायतो लोक भुकेन जेवण नासतना वळवळटालो वा थोडचा जेवणाचेर पोसतालो देखून तांकां अेकदम आतां पुराय जेवण मेळिल्ल्यान, तें तांकां पचना जालें. ताका लागून जायते लोक मरून गेले. पृथ्वी शस्यशालिनी जाल्ली खरी पुण मनीस नासून पडांग जाल्ली. गांवां गांवांनी कितलीशींच घरां रीतीं पडिल्लीं आसलीं. तांतूंत मोनजाती सांवजां आसरो, विसव घेतालीं. वा तीं लांवां-भुतांच्यो धोली जाल्यो म्हणपाचो समज जाल्लो. गांवां गांवांनी शेंकडयांनी पीकाळ शेतां रोयनासतना उरिल्लीं. थंय दाट तण रान मातून आयिल्लें. सगळो देस रानांनी भरून आयिल्लो. जंय हांसतीं फुलतीं पांचवीं-चार शेतांमळां आसतालीं, जंय असंख्य गायो-म्हशी चरत आसताल्यो, ज्या बागेंतल्यान गांवचीं तरनाटे-तरनाटीं आनंदान खेळत-धांवत आसतालीं, त्यो सुवातो आतां ल्हवू ल्हवू दाट रानांनी बदलताल्यो. अेक वरस गेलें, दोन वरसां गेलीं, तीन वर्सां गेलीं. जंगल वाडत रावलें. जे सुवातेर मनशां सुखान रावतालीं थंय मनश्यांचें मास खावपी वाग येवून आतां हरणां-मेरवांचे फाटीं धांवूं लागले. जे सुवातेर सुंदर रमणींचें घोळके पांयांक मेंदीं लावून नूपुरध्वनी करताले, आपल्या सांगात्यां बांगडा हांसून-खेळून विनोद-फकाणां करून मौजेन दीस सारतालीं, थंय आतां वांसवेलांनी आपणा खातीर धोली केल्ल्यो आनी थंय तीं आपल्या पोरांक पोसतालीं. जंय ल्हानसान सुपुल्लीं भुरगीं सांजेचीं जायां-जुयांच्या फुलां सारकीं टवटवीत जावन काळजाक तृप्त करपी हांशें आपल्या तोंडार खेळयतालीं थंय आयज हिडांनी रानवटी हत्ती झाडांपेडां उमटावन उडोवन तांचो विभाड करताले. जंय दुर्गा पुजा जाताली थंय आतां कोल्यां भाल्ूंनी आपलीं बीळां केल्लीं. जंय होळीच्या वेळार श्रीकृष्णाचें पाळणें बांदताले थंय आतां घुघूम-नातकां रावूंक लागिल्लीं. नाटयमंदिराच्या जाग्यार दिस-उजवाडीं विखाळे सोरोप जिवाणीं बेबत्यांक सोदूंक भोंवतालीं.

बंगालांत धान्य-गोठो पिकतालो खरो पुण तो जेवतलो-खातलो कोण नाशिल्लो. विकपाऱ्यो वस्तू तयार जाताल्यो, पुण त्यो विकत्यो घेवपी कोण नाशिल्ले. शेतकामती शेतां कसताले, रोयताले, पुण तांकां तांच्या पसून दुडू जोडूंक मेळनाशिल्लो. भाटकारांच्या मुंडाचो शिदाव तांच्यांनी दिवूंक जाय नासलो. अशें आसून भाटकारूय आपल्या वांटयाचो कर राजाक दिवक पावो नासले. हे परिस्थितींत राजा तांचे कडल्यान भाटां-बेंसां हातांसूक लागलो. भाटकार बाबडे रस्त्यावेले भिकारी जावपाचे दशेक पावले. धर्तरी भोवूच पिकाळ जावन आयिल्ली पुण अशें आसुनूय धन-दवलत निर्माण जाय नासली. कोणाच्याच घरांत धन नासलें. जाचे कडेन घडटालें तो हेरांचें हातासून उडयतालो. चोर-डाकूंनी आपली तकली वयर उबारिल्ली. बरे-भले लोक आप-आपल्या घरांनी लिपून बशिल्ले आसले.

आनी हेवटेन दिसपट्टें संतान-संप्रदाय नेमान तुळशीचीं पानां आनी गंध घेवन विष्णूच्या चरणकमलांची पुजा करताले. जांच्या घरांत बंदूक-पिस्तोल आसतालें, तांचे कडल्यान तें संतानलोक काडून घेताले. भवानंदान तांकां सांगिल्लें "भावांनो, अेकादद्या घरांत तुमकां अेके कडेन हिरे, माणकां-मोतयां, भांगरा-वस्ती दिसल्यो आनी दुसरे वटेन अेक मोडकें बंदूक दिसलें जाल्यार, हिरे, माणकां-मोतयां सोडून दिवून बंदुक उखलून हांडात."

मागीर संतानांनी आपले गुप्तचर गांवां गांवांनी धाडूंक सुरवात केली. गांवांनी वचून जो हिन्दू तांकां भेट्टा ताका ते म्हणटाले, "भावा, तूं विष्णू-पुजा करतलो?' आनी अश्या कांय लोकांक अेकटांय करून ते मुसलमानांच्या घरांक उजो घालताले. ते बाबडे आपलो जीव वाटांवच्या हुस्क्यांत घुसपल्ले आसतना, हेवटेन संतान लोक तांचें सगळें लुटून उडयताले आनी तांतलें नव्या विष्णू भक्तांक वांटून दिताले. लोक आपल्याक लुटिल्ल्या मालाचो वांटो मेळटा म्हणून खोशी जातालो. तांकां ते मागीर मंदिरांत व्हरताले. भगवंताच्यां चरणांचो स्पर्श करून घेवन तांकांय बी संतान करून सोडटाले. लोकांनी तर पळेल्लें कि संतान जाल्यार व्हडलो फायदो आसलो. खास करून मुसलमानांचेर लोक सामके उबगल्ले. कित्याक तांचें शासन सारकें चलनासलें. सगळेकडेन अराजकताय आनी अंदाधुंदी, हाका लागून सगळे लोक विटिल्ले. हिन्दू धर्माचो लोप जायत वेतालो, अशें धरून जायते जाण हिंदुत्वाचे प्रतिश्टाये खातीर वावरूंक अत्सीताले.

हाचो असो परिणाम जालो कि संतानांचो आंकडो दिसांनदीस वाडत रावलो. दर दिसा शेंकडयांनी, दर म्हयन्याक हजारांनी संतान येवून भवानंद आनी जीवानंद, हांच्या पायांचेर आपली तकली दवरून, संघटीत जावन, मुसलमानांचे फाटीक लागले. खंयींबी राज-कर्मचारी मेळत आसले ते तांकां धरून बडयताले वा केन्नाय जीते मारूनूय उडयताले. सरकारी दुडू दिसल्यार

नो ते लुटून घरा हाडटाले.

स्थानीक सरकारी अधिका-यांनी संतानांक आळाबंदा हाडपाक म्हणून शिपायकांच्यो पळटणी धाडून दिल्यो. पुण आतां संतान बरे संघटीत जाल्ले, बळीश्ट जाल्ले. तांचे लागीं शस्त्रा आसलीं आनी तांच्या स्वाभिमानान उग्र रूप धारण केल्लें. तांचे अस्मितायें फुडें मुसलमान फौजोंक थारो मेळनासलो. केन्नाय फौज़ीन फुडें पावल घातलें जाल्यार तेन्ना संतान सगळया आपल्या सामर्थ्यान तांचेर घुरी घालताले आनी तांकां धिस्पटावन उडयताले. केन्नाय संतानांचो एक पंगड हारतालो तेन्ना खंयच्यान तरी पळेता म्हळचार तांचो दुसरो एक पंगड थंय पावतालो आनी त्या जिखिल्ल्या मुसलमानांच्यो तकल्यो मारून 'हरी हरी' करीत पळून वेतालो.

ह्या काळार भारतांत अिंग्लेजांचो उदेतलो सूर्य वॉरेन हेस्टिंग्ज गवर्नर -जनरल आसलो. कलकत्त्याक बसून ताणी लोखणाची अशी सांकळ तयार केली आनी येवज़ीलें कि तिच्या आदारान सगळया भारत वर्षाक बांदून हाडचो. हाचेर एक दिसा जगदीश्वरान शिंवासनार बसून दुबाव नासतना 'तथास्तु' म्हळे आसतलें. पुण तो दिस अाजून पंस आशिल्लो. तेन्ना आयज तर संतानाच्या 'हरी हरी' नाऱ्याक लागून वॉरेन हेस्टिंग्ज लेगित कांपरेवन गेल्लो.

वॉरेन हेस्टिंग्ज पयली नबाबाच्या फौजदारी सैनीकांच्या पालवान हें संतानांचें बंड मस्तून उडोवपाचो प्रयत्न करूंक लागलो. पुण त्या शिपायकांची अशी दुबळी आवतिकाय जाल्ली कि एकादऱ्या म्हातारेच्या तोंडांतल्यान लेगित हरिनामाचो जयघोष आयकल्यार ते पळ काडटाले. निमाणेकडेन, दुसरो उपाय नाशिल्ल्यान वॉरेन हेस्टिंग्जान कॅपटन टॉमस नांवाचो एक कर्तुत्वदशी सैनीक सेनापती म्हणून ह्या बंडखोरांक चेपचे खातीर कंपनीचे फौजीची एक पळटण दिवन धाडलो.

कॅप्टन टॉमसान ह्या भागांत पावना फुडें तें बंड मस्तून काडपाची एक वेस बरी तजवीज केली. राजा आनी जमीनदार-भाटकारांकडल्यान ताणे फौज मागयली आनी तांतल्या बऱ्या बऱ्यां हाथियाऱ्यांक आपल्या कंपनीच्या कुशल, प्रशिक्षीत सैनीकांमदों सामील केले. हे भाशेन एक सुटसुटीत फौज उबी केली आनी ती बंगालच्या वेगळचां वेगळचां भागांनी वांटून दिली. आनी तांकां असो आदेश दिलो, 'तुमी खावी घालता तसल्या जाळा भशेन तुमच्या एक-एकल्याच्या विभागांत सगळेकडेन जाळ घालांत आनी बंडवाल्यांक सोदून काडात. जंय जंय तुमचे नदरेक बंडवाले येतले तांकां तुमी मूयां भशेन चिड्डून मारून उडयात.'' कंपनीचे सैनीक गांजा ओडीत वा रमाच्यो बातली ताळचा सकयल रकोवन, बंदुकांनी गुळयो घालून सरयो चडोवन संतानांक कावार करपाच्या कामाक लागले आनी अशे रीतीन हांगा-थंय हेडत भोंवूंक लागले. पणून त्या काळार संतानांचो

आंकडी भोवूच प्रचंड जाल्लो आसलो आनी ते अजेय अशें जाल्ले. ताका लागून शेतकाऱ्याच्या विळ्या-कोयतेन जशें शेत कचाकच कापून उडयतात तशे कॅप्टन टॉमसाचे सैनीक संतानांच्या हातांतल्यान कापून काबार जायत वचूंक लागले. हरीनामाच्या जयघोषान कॅप्टन टॉमसाचे कान भेरे जावन गेले.

## 2

त्या काळार ईस्ट इंडिया कंपनीच्यो कितल्योशयो रेस्माच्यो वखारी आसल्यो. अशीच अेक वखार शिवग्रामांत आसली. डॅनीवर्थ सायब, हे वखारीचे येजमान आसले: त्या काळार सगळ्या वखारींच्या संरक्षणा खातीर उत्तम वेवस्ता आसताली. ताका लागून डॅनीवर्थ सायब कशेंय भशेन थंय बिराड करून राविल्ले. पुण आपणाल्या भुरग्यां-बाळांक तांकां कलकत्त्याक धाडचीं पडिल्लीं आनी खुद तांकां संतानांनी खुब सतायिल्ले. थंयच कॅप्टन टॉमस सैन्याच्यो दोन-चार पळटणीं घेवन पाविल्ले. संतानांची उमेद पळेवन हाडी, डोम, बागदी, बुनो हांचे सारकेले सकयले जातींचे कांय लोक हेरांच्या दुडवां-मालमत्त्याची लूट मारपाक फुडाकार घेंवक लागिल्ले. ताणीं कॅप्टन टॉमसच्या पुरूमेंत करतल्या गाडयांचेर हल्लो केलो. कॅप्टन टॉमसच्या सैन्या खातीर गरजे परस चड अशें तूप, पीठ, तांदूळ, कोंबयो व्हरताले. हें पळेवन, ह्या जातीच्या अेका पंगडाच्यान आपलो लोभ सांवरूं नज जालो. ताणी त्या गाडयांचेर घुरी घाली. पणून शिपायकांच्या हातांतल्या बंदुकांच्या दस्त्यांचे दोन-चार धपके पडना फुडें ते थंयच्यान पळून गेले.

कॅप्टन टॉमसान रोखडच्या रोखडो कलकत्त्याक आपल्या जैताचो अहवाल धाडून दिलो. तो हे रीतीचो आसलो: "आयज आमच्यां 157 सैनिकांनी 14,700 बंडवाल्यांक धूळ खांवक लायली. बंडवाल्यां मदले 2153 मारून उडयले आनी 1233 घायाळ जाले. 7 जागांक धरून कैदी केल्यात." हे खबरेंतलें फकत निमाणें वाक्य खरें आसलें. कॅप्टन टॉमसाक दिसलें कि आपुण आनीक अेक ब्हेनहैम सारकेली लढाय जिखलो. अशें आशिल्ल्यान, तो आपल्यो खाड मिश्यो वळीत भियेनासतना हांगा-थंय हेडत भोंवूंक लागलो; आनी डनीवर्थ सायबाक अशी बुद्ध दिवक लागलो, 'आतां उल्लें कितें? बंड तर आमीं चेपून उडयलें. तुमी आतां कलकत्त्याक थावन तुमच्या बायल-भुरग्यांक परतीं हाडात. डॅनीवर्थान म्हळें, 'बरें आसा तर. तुमी धा-अेक दिस हांगा रावात. हो भाग थोडो भोव सवस्त थड असो जांव दी. मागीर हांव तांकां सगळ्यांक घेवन परतो येतां."

डॅनीवर्थ सायबाच्या घरा खास मास खातीर म्हणून पाळिल्ल्यो कोंबयो आनी बोकडयो आसल्यो. ताच्या घरा जाय तितलो चीज पणीर मेळटालो. साबार जातींचीं आंगलोटीचीं रानवटी सुकणी-सावजां ताच्या घरा पावतालीं आनी तांचे मास सायबांच्या जेवणा-मेजाची सोभ वाडयतालीं. ताचो खाडयो बावर्शी जसो काय दुसरो द्रौपदीचो अवतारूच आसलो. ताका लागून व्हडलीशी चर्चा करीनासतना कॅप्टन टॉमसान थंयच आपली बसकण मांडली.

हेवटेन भवानंद मनांतल्या मनांत गुरगुरतालो. कॅप्टन टॉमसाची केन्ना काय गोमटी मारून उडोंवची आनी 'दूसरो शंबरारि' (प्रद्युम्न) ही पदवी धारण करची, अशें तो येवजीत आसलो. संतानांक त्या काळार ही गजाल कळूंक नाशिल्ली कि अिंग्लेज मनीस भारताच्या उद्दारा खातीरूच आयिल्ले आसात. येताली कशी कळून गा ? कॅप्टन टॉमसाच्या काळावेल्या अिंग्लेजांकूय तें समजलें ना. त्या वेळार ही गजाल फकत विधात्याच्या मनांत आशिल्ली. भवानंद येवजीतालें, हचा असूर वंशाक अेकाच दिसांत काबार करून उडोंवचो, मात्शे तांकां अेकटांय जनूं दी' मात्शे बेसावध रावूंक दिवया. तो मेरेन आमीं मात्शे पैसूच रांवया, 'असो विचार करून ते मात्शे तांचे कडल्यान पैसूच रावले. कॅप्टन टॉमस हुस्क्या मेकळे खांवन-जेवन मस्त रावले !

सायबाक शिकारेची भोवूच आवड आसली. केन्ना केन्नाय गांवच्या लागसारूच शिकार करचे खातीर ताणे भायर सरचें. अेक दीस डॅनीवर्थ सायबा वांगडा कांय शिकाऱ्यांक घेवन टॉमस घोडयार बसून भायर सरले. खरें सांगचें म्हळयार टॉमस सायब अेक व्हडलो धाडशी मनीस आसलो. सामर्थ्य आनी पराक्रम, हांचे बावतींत अिंग्लेजां मदीं ताचे सरीक लागतालो कोण अेक नाशिल्लो. त्या दाट रानांत वाग, वांस्वेल, रेडे खुब आशिल्ले. देखून तें रान भंय-भिरांतीचें जीवन आसलें. रानांत बरेंच पैस भितर गेल्या उपरांत शिकाऱ्यांनी आनीक फुडें वचपाचें नाकारलें. ताणी म्हळें, आनीक भितर वचपाक वाट ना. आतां हाचें फुडें वचूंक जांवचें ना.

डॅनीवर्थ सायब ह्याच रानांत अेक फावट अेका भयंकर वागाचे तावडींत सांपडिल्लो. ताका लागून तोवूय फुडें वचपाक धाजना जालो. हेर सगळे जाण परते वचपाचो विचार करूंक लागले. पुण कॅप्टन टॉमसान म्हळें, 'तुमी सगळे परते वचात, तुमकां जाय जाल्यार. हांव परत्या पांयांनी वचचों ना,' अशें म्हणून तो त्या दाट रानांत भितर सरलो.

खरें म्हळयार, भितल्ल्यान आनीक वाट नाशिल्ली. घोडो भितर वचना जालो. सायबान तेन्ना घोडयाक सोडून दिलो. बदूक खांदार माल्लें आनी तो अेकलोच रानांत फुडें वचूंक लागलो. हेवटेन तेवटेन पळेत भितर वेतना ताणें वागाचो सोद केलो. पुण ताका वाग सांपडलो ना. ताका थंय कितें दिसलें म्हणून

सांगूं ? अेका रूख पोंदा, फुलां फळ नी भरिल्ल्या वालींच्या झाडां मदें कोण तरी बशिल्लो आसलो. अेक नवो सन्याशी-असो दिसतालो. ताच्या रूपान भोंवतणचें रान उजवाडीत जाल्ले भशेन दिसतालें. फुलिल्ली फुलां जशीं कितें त्या स्वर्गीय शरीराच्या संसर्गान अदीकूच परमळीत जावन आयिल्लीं. कॅप्टन टॉमसाक अजाप जालें. मागीर अजापाचो जागो रागान घेतलो. सायबाक देशी भास बेस बरी येताली. ताणें विचाल्लें,

"तूं कोण ?"

संन्याश्यान सांगलें, "हांव संन्याशी."

कॅप्टन : टू रेबेल ?

संन्याशी : कितें म्हणटात ?

कॅप्टन : हांव तुका फारान मारतलों.

संन्याशी : मार पळेंवया.

कॅप्टन मनांतल्या मनांत फाटीं फुडें येवंक लागलो कि हाचेर फार मारचो काय ना. अितले म्हणसर तो नवो संन्याशी वीजे भशेन ताच्या आंगार पडलो आनी ताच्या हातांतलें बंदूक ताणे काडून घेतलें. संन्याश्यान उपरांत आपले छातयेवेलें वस्त्र काडून शेंवटून मारलें ; आनी अेका झटक्यान आपल्यो बांदिल्ल्यो जटा मेकळचो सोडल्यो. टॉमस सायबान अजाप जावन पळेलें कि आपल्या मुखार अेक सुन्दर, रूपेस्त बायल उबी आसली. ते बायलेन हांसत हांसत म्हळें, "सायबा, हांव अेक बायल मनीस. कोणाचेर आक्रमण करीना. हांव तुमचे कडल्यान अेक गजाल विचारूंक सोदतां. तुमी सांगश्यात, ह्यो मारामारी चलतात त्यो हिन्दू-मुसलमानां मदीं. तुमी लोक आमचे मदीं कित्याक पडटात? तुमीं ह्यांगाच्यान परते वचात."

सायब : टू कोण गो ?

शांती : हांव अेक संन्याशीन, हें तुमकां दिसताच. जांच्यां लागीं तुमी झुजूंक आयल्यात तांतूंतल्याच कोणा अेकल्याची हांव बायल.

सायब : तूं म्हज्या घरांत रावशी ?

शांती : कशी ? तुजे आंगवस्त्र म्हणून ?

सायब : तुज्यान बायल म्हूण रावूंक जाता, पुण लोग्न जांवचें ना.

शांती : म्हाकाय तुमचे लागीं कितें विचारचें आसा. आमच्या घरा अेक माकड आसलो. तो निकतोच मेलो. ताचें पांजरें रितें पडिल्लें आसा. तुमच्या भेंडाक सांखळ घालतलीं. तुमी त्या पांजऱ्यांत रावश्यात ? आमचे बागेंत बरीं बरीं सोनकेळीं आसात.

सायब : टू मोटी स्पिरिटेड बायल. हांव तुजे करेजीक लागून मोटो खोशी जालों. तू म्होज्या घरा यो. तुगेलो घोव युद्धांत मरतलो मागीर तुगेलें कितें

जातलें सांगशी ?

शांती : तशें जाल्यार आमी अेक वबलात करूंया. झूज जाल्यार दोन-चार दिसांनी जातलेंच. तूं झुजांत जिखल्यार आनी जितो उरल्यार हांव तुजें आंगवस्त्र म्हणून रावीन. पूण आमचें जैत जालें जाल्यार तूवें माकडासारको आमच्या पांज-यांत येवन रावचे पडटलें आनी केळीं खावचें पडटलीं. कबूल आसा ?

सायब : केळें, हें खावपाचें उत्तम फळ. अतां तुजेकडेन आसा तें ?

शांती : घे, हें तुजें बंदूक घेवन वच. तुज्या सारक्या जगली मनश्याच्या तोंडाक कोणें लागचें,?

अितलें उलोवन शांतीन बंदूक शेवटून मारलें आनी ती हांसत हांसत थंय-यान कडसरून गेली.

## 3

सायबाक थंयच सोडून शांती हरिणी-मेरवाच्या झपझपीत वेगान रानांत खंयचे खंय तरी शेणून गेली. थोडचा वेळा उपरांत बायेलेच्या गोड ताळचान गायिल्लें अेक गीत सायबाच्या कानार पडलें.

'जुवानपणाच्या ह्या उदका ल्हाराक कोण गा आडायतलो ?

हरे मुरारे ! हरे मुरारे !'

त्याच वेळार खंयच्यान तरी सारंगीच्या मधूर स्वरांत तींच उतरां वाजोवन आयलीं : आनी मागीर तांतूंत दादल्याचो सूर मिसळ्लो.

' जुवानपणाच्या ह्या उदका ल्हाराक कोण गा आडायतलो ?

' हरे मुरारे ! हरे मुरारे !'

हे तीनूय स्वर अेक जावन त्या रानांत घुमूंक लागले. शांती गायन फुडें चलूंक लागली :

' जुवानपणाच्या ह्या उदका ल्हाराक कोण गा आडायतलो ?

हरे मुरारे ! हरे मुरारे !

पाणयांत वादळ-तुफान उठलां गा !

म्हजें नवें व्हडें वेता सुखांतल्यान

तारयान सुखाणें धल्लें गा !

हरे मुरारे ! हरे मुरारे ?

रेंवेचो बांद कोंसळांवन हांव मना आंवडो पुराय करीन.

गंगेक आयल्या भरती,

व्हंये धार कोण गा आडायतलो ?

हरे मुरारे ! हरे मुरारे !

सारंगीचेरुय हेंच संगीत वाजत आसलें.

जे सुवातेर सामकें दाट रान मातिल्लें, थंय कितें घडटालें तें भायल्यांन यान खबर काडपाक भोव कठीन आसलें. असल्या खोल खोलायेंतल्यान शांती भितर गेल्ली. थंय एका जाग्यार दाट झाडां-झोंपां मदीं लिपून आशिल्ली एक खोंप आसली. तिच्यो वण्टी झाडां-खादयांच्यो आसल्यो आनी पाडस पानां-नाल्याचो. लांकडां-फळचाचेर माती सारोवन जमीन तयार केल्ली. तेंच खोंपीचें वाली दार उग्तें करून शांती तांतूत भितर गेली. जीवानंद थय बसून सारंगी वाजयत आसलो.

जीवानंदान शांतीक पळेवन विचारलें, "अितल्यां दिसां उपरांत गंगेच्या पाणयांक भरती आयली काय कितें?"

शांतीन हांसून जाप दिली, "आनीक कितें ! नाले आनी खळगे, हांचे मदीं गंगेच्या पाणयाक भरती येता?"

जीवानंदान म्हळें, "एक दीस म्हजेकडल्यान व्रताचो भंग जालो. ताका लागून म्हज्या प्राणाचो उत्सर्ग जाल्लोच आसा. पातकाचें प्रायश्चीत करचेंच पडटलें. आतां मेरेन म्हजें तें करून जावपाचें. पुण फकत तुज्या मागण्याक लागून हांवें तें केलें ना. पुण बेगिनूच एक व्हडलें झूज जावपाचें आसा. तांतूत म्हाका म्हजें प्रायश्चीत करचेंच पडटलें. ह्या जीविताचो म्हाका त्याग करचोच पडटलो. म्हज्या मरणाच्या दिसा . . ."

शांतीन ताका फुडें उलोंवक दिलें ना. आनी तिणें म्हळें, "हांव तुमची धर्मपत्नी. सहधर्मिणी. धर्मांत पालव दिवपी. तुमी सामको खडतर धर्म आपणायलो. त्या धर्मांत तुमकां पालव दिवचो म्हणून हांव घर सोडून हांगा आयल्यां. तो धर्म आमीं दोगांय सांगातान करचो हो हेत बाळगून हांव घरत्याग करून हांगा आयल्यां आनी ह्या रानांत रावतां. हांव तुमच्या धर्माचरणांत उदरगती करतलीं. तुमच्या कामांत हांव बाधा हाडचीं ना. लग्न जशें इहलोकां खातीर आसता तशेंच तें परलोका पासत आसता. तुमीं अशें समजात कि इहलोकां खातीर जें लग्न आसता तें लग्न आमचें जालेंच ना. आमचें लग्न फकत परलोकां पासतूच जाल्लें आसा. फुडल्या जल्मांत आमकां हाचें दुपेट फळ मेळटलें. पुण तुमीं प्रायश्चीताची गजाल कित्याक काडटात ? तुमी कसलें पाप केलां, खयच्याच बायले सांगतान एकाच आसनार बसचो ना म्हणपाची प्रतिज्ञा केल्ली आसा. तुमी जाल्यार केन्नाच म्हज्या वांगडा एका आसनार बसलेनांत. जाल्यार मागीर प्रायश्चीत कित्या खातीर ? प्रभू ! तुमी तर म्हजे गुरू जावन आसात. हांव कितें तुमकां धर्म शिकयतलों ? तुमीं वीर पुरूष. हांव तुमकां कितें वीरधर्म आनी वीरव्रत शिकयतली ?"

जीवानंदान आनंदान फुल्लून येवन म्हळें, "शिकयलें तर तुवें, खरेंच !"

शांतीन प्रफुल्ल चितान म्हळें, "आनी हें पळेयात, ह्या जल्मांत आमचें लग्न निर्फळ जाल्लें अशें कशें म्हणूं येत ? तुमी म्हज्रो मोग करतात ; हांव तुमच्रो मोग करतां. ह्या जल्मांत हाचे परस चड आमकां कितें जाय ? म्हणात, 'वंदे मातरम् !' आनी मागीर दोगांय ऐकटांय एका सुरान वंदे मातरम् गांवूंक लागलीं.

## 4

भवानंद गोस्वामी एकदां शारांत गेल्लो तो राय-रस्तो सोडून एके पायणींत भितर सरलो. पायणांचे दोनूय कुशींनी उंच-उबार अमारती आसल्यो. थंय सदांच काळोख आसतालो आनी एकदांच म्हळचार दनपारच्या भारार केन्ना केन्नाय सूर्य थंयच्यान तकली घालून वेतालो. पायणीचे एके कुशीक आशिल्ले एके दोन-माळयांचे अमारतींत भवानंद भितर सरलो. सकयले माळयेच्या एका घरांत पावलो. थंय एक बायल रावताली. ती बायल मदले पिरायेची आसतली काळी कुळकुळीत आनी मोठी तुळतुळत आसली. ती देग नाशिल्ली साडी न्हेशिल्ली. तिच्या कपळार गोंदण आसलें. तिणे आपल्या केंसांचो शेंडो बांदून तो माथ्यार तेंगशे भशेन सजोवन हाडिल्लो. चुलीर चडयल्ल्या आयदनाचो आवाज आयकूं येतालो. तिच्या केंसांचीं जंटयां फुरफुरून उडटालीं आनी ती आपल्याच लागीं बडबडटाली. तिच्या चेन्यावेल्यो भावना तशयोच तिच्या माथ्यावेलो शेंडोय हेवटेन तेवटेन हालतालो. भवानंद स्वामीन भितर सरून म्हळें, 'प्रणाम गौरी-ताई'.

भवानंदाक पळेवन गौरीताई वेग-वेगीन आपल्या आंगावेलीं वस्त्रां सांवरूंक लागली. आपले तकलेचेर मोडून बुचडो केल्लो तो सोडोवपाक म्हणून तिची आशा आसली पुण तिका तें जमलें ना. रांदचे कुडींत बावरिल्ले हात ते. पुजेच्या वेळार तिणे शेंडयांत बकुळीचें फूल माळिल्लें, तें पालवान धांपचेलो तिणें प्रयत्न केलो. पुण तेंवूय जमलें ना. कित्याक ती न्हेशिल्ली तें पातळ फकत पांच हात लांबायेचें. त्या पांच हाता लांब कापडाचो चडसो भाग तिच्या घोल आयिल्ल्या पोटाक धांपचांतुच सोंपून गेल्लो. ताच्याच आदारान आपले छातयेची अब्रू ती राखपाची आसली. हाचो परिणाम असो जालो कि गळचा-गोमटेक पावता म्हळचार त्या कापडाचो पालव सोंपून आयिल्लो. तो कशेंय भशेन काना मेरेन पावयलो, त्या फुडें वचना जालो. शेकीं उपाय नासतना जावन ती अती-लजेची व्हकल गौरी तो पालव काना-लागीं धरून रावली. फुडाराक आपुण आठ-हात साडी विकती घेतलीं म्हणपाची

मनांतल्या मनांत दृढ प्रतिज्ञा करून तिणे म्हळें, "कोण ? गोस्वामी, येयात, येयात ! म्हाका मेल्याक प्रातःप्रणाम कित्याक रे बाबा ?"

भवानंद : कित्याक तूं म्हजे आजे सारकी म्हणून !

गौरी : तुमी म्हाका मानान मायेमोगान मानतात म्हणून मू ! तुमी लोक गोंसाय. देवा मनीस. आतां तुमी म्हाका प्रणाम केल्लोच आसा न्हय. देखून हांव तुमकां आशिर्वाद दितां. तुमकां शंबर वर्सां आयुष्य मेळूं. आनी प्रणाम केलो म्हणून तुजो दोश ना. कितेंय जालें जाल्यार हांव तुमचे परस पिरायेन व्हडली.

ह्या वेळार भवानंदा परस गौरी देवी उणीं म्हळ्यार पंचवीस वर्सांनी तरी व्हडली आसली. पणून भवानंद मोटो हुश्यार चतूर. ताणें जाप दिली, 'हें कितें, गौरीताई ?' तुका हांव अशी म्हणटां कित्याक तूं रसीक म्हणून, ना जाल्यार जेन्ना आमी पिरायेचो हिशेब केल्लो तेन्ना तूं म्हजे परस स वर्सांनी ल्हान आसली म्हणपाचें आदळून आयिल्लें. तो उगडास ना तुका ? आमच्यां वैष्णवांमदीं जायत्यो चाली प्रथा आसात, हें तर तूं जाणांच ! म्हजे भितर फुरफुरतली अेक अितसा आसा. ती म्हळ्यार मठाच्या ब्रह्मचारीची परवानगी घेवन तुजे लागीं हांव लग्न करूं म्हणटालों. हेंच तुका सांगूंक आयिल्लों हांव.

गौरीन म्हळें, 'शी, बाबा ! असलें आनीक तुमी कितें म्हणटात ? हांव तर विधवा जावन आसां.'

भवानंद : देखून तुवें दुसरे फावटीं लग्न करूंक जायना, अशें कितें तूं येवजीता, व्हय ?

गौरी : बाबा, तुमकां दिसता तें करात. शेवटीं तुमी पंडित जावन पडले. हांव जाल्यार अेक बायल-मनीस ; हे विशीं हांव बाबा कितें जाणां ? मागीर केन्ना करतले ?

भवानंदान मोटचा कश्टान आपलो फुटून येतलो हांसो आडावन दामून आवरून हाडलो. म्हळें, त्या ब्रह्मचारीं लागीं अेकदां भेट जाली म्हणचें काम जालें म्हणून समज. ताका अिल्लो वेळ लागतलो. बरें तें आसूं आतां. ती कशी आसा तें सांग पळेंवया.

गौरी उदास निरास जाली. मनांत दुभाव आयलो कि लग्नाची गजाल ही बेश्टी मौजेची वा आपले पांय ओडपाची. तिणे तिरस्कारान अशें म्हळें, "कसली खबर आसतली तिची ? तो जशी आशिल्ली तशी आसा."

भवानंद : ती कशी आसा तें आनीक अेक फावट बरें करून पळेवन घे आनी हांव आयलां आनी तिका मेळूंक सोदतां म्हणून तिका सांगून यो.

तेन्ना गौरीन आपल्या हातांतलो लाकडी दवलो जांतून ती शीत चाळटाली, तो सकला उडयलो, हात धुले आनी ती खरशेत-धापेत उंच शिडयेचीं सोपणां चडूंक लागली. भितल्ल्या अेका कुडांत पिंजके-मोडिल्ले खाटीवेर अेक अती-रूपेस्त बायल

बशिल्ली असली. पुण तिचे सोबीतायेचेर सांवळीशी पडिल्ली आसली. दनपारच्या वेळार तुडुंब भरिल्ली प्रसन्न सलिला विपुल पाणयांच्या जंवजाळाच्या न्हंयेचे छातयेर दाट काळया कुपांची सांवळी पडिल्ली आसची, अशी ती सांवळी कोणाची आसली काय ? न्हंयेच्या हृदयांत ल्हारां उमळून येतालीं, न्हंयेचे देगेर फुलांनी फांकारिल्लीं झाडां वाऱ्यान हालता-धोलतालीं, फुलांच्या भारान तांच्यो खांदयो ताळयो वाजवताल्यो, तिचे देगेर घरां अमिरतायेची शेकानशेक रांग सोबीन दिसताली. व्हडयांचे हालचालीक लागून पाणी खोदळ जाल्लें. दनपारचो वेळ आसतना दाट कुपांच्या सांवळयांक लागून ती सगळी सोबीताय काळी काळसार अशी दिसताली, विषण्ण लागताली.

हांगाय तोच देखावो दिश्टी पडटालो. तोच आदल्या सारक्या सुन्दर, रेस्मी केंसांचो सभार. आदल्या सारक्याच रूंद आनी पुराय कपाळावेर अनुपम तुलिकेन रेखाटिल्ल्यो अश्यो कोरीव भोंवयो. आदल्या सारकेच येदे मोटे पाणीदार उज्वळ, व्हडले काळे दोळे, तरीय तांतूंत तितलें कटाक्ष नासलें, चंचलताय नासली. ते बरेचशे नम्र आनी बाविल्लेशे दिसताले. वोंटांवेर आदलेव राग-रंग, रशीच हास्कार-हुस्कार सोडटना सकला-वयर जावपी छाती आनी रानांतले वालींक लेगित मेळनाशिल्ली कोमलताय आपणावपी तिचीं भुजां तींच आसलीं. पुण आयज तें पयलेचें तेज नासलें, ती उज्वळताय नासली, ती प्रखरताय नासली, ती चंचलताय नासली, तो रोसाळ मोह नासलो. खरें सांगचें जाल्यार तें आदलें शिवशिवणें जुवानपण तिचेवेलें उडून गेल्लें. उरिल्लें फकत तें सौंदर्य आनी ती मधूरताय. तांतूंत नवी भर पडली ती धीराची आनी गंभीरतायेची. जर कोणें तिका आदीं पळेल्ली ताका ती मनीस-लोकांतली अनुपम सुन्दरी आसा म्हणपाचो भास जातालो. ताणें आतां जर तिका पळेली जाल्यार ताका अशें दिसतले आसले कि ती देवलोकांतली स्त्रापग्रस्त देवता आसतली. तिचे भोंवतणी हातकागदाचेर बरयल्ल्यो पोथ्यो पडिल्ल्यो आसल्यो. वण्टीचेर हरिनामाची माळ हुमकळटाली. आनी मदीं मदीं जगन्नाथ, बलराम आनी सुभद्रा हांचे सांगातान केल्लें रंगीत चित्र, कालियामर्दन, नवनारीकुंज, वस्त्रहरण, गोवर्धन-धारण वगैरे व्रजलीला दाखोवपी चित्रां काडिल्लीं आसलीं. त्या चित्रां सकला बरयल्लें आसलें :

"चित्र कि विचित्र ?"

ह्याच कुडींत भवानंद भितर सल्लो.

भवानंदान विचारलें, 'कशें दिसता, कल्याणी ? आतां भलायकी बरी आसा मू ?

कल्याणी : हो प्रस्न विचारपाचो तुमी सोडून दिवचे ना काय कितें ? म्हजी भलायकी बरी आसल्यार तुमका कितें पडलां आनी म्हाकाय हाची कितें पर्वा

आसा ?

भवानंद : ज़ो झाडा रोंपी लायता तो तिका दिसा-दिसट्टें उदक शिंपता. ती रोंपी वाडून झाड जावन आयिल्लें पळेवपांतूच ताका सुख भोगता. तुज्या मेल्ल्या आंगांत हांवें जिविताची रोंपी लायली. ती कशी वाडटा, हाची चौकशी हांवें कित्याक करची न्हय ?

कल्याणी : विखाचो रूख केन्ना सुकता गा ?

भवानंद : ज़ीवित म्हळचार कितें वीख ?

कल्याणी : तें वीख नॉशिल्लें जाल्यार हांवें ताचेर अमृत वोतून तें काबार करूंक कित्याक सोदलें जायत ?

भवानंद : हेंच तुजे लागीं विचारचें म्हणून म्हज्या मनांत जायते दीस जाले घोळटा. पुण तें विचारपाचें धाडस म्हाका जमलें ना. तुजें जीवित कोणें विखाभरीत केल्लें जायत ?

कल्याणीन थीर दृढ स्वरान जाप दिली, "म्हजें ज़ीवित कोणेंच विखाभरीत केल्लें ना. जीवितूच म्हळचार खरें येवजूंक गेल्यार विखाभरीत आसता. म्हजें जीवित विखाभरीत, तुमचें जीवित विखाभरीत, सगळचांचें जीवन विखाभरीत."

भवानंद : खरें आसा, कल्याणी, म्हजें जीवित विखाभरीत जावन आसा. ज्या दिसा पसून . . . तूवें संस्कृत व्याकरणाचो अभ्यास सोंपयलो कि ना ?

कल्याणी : ना.

भवानंद : अभिधान (कोष) ?

कल्याणी : म्हाका ते आवडनांत.

भवानंद : विद्या जोडून घेवपाची तुका रूची आवड आसा म्हणपाचें म्हाका दिसून आयिल्लें. आतां अशी नावड कित्याक ?

कल्याणी : तुमचे सारकेले पंडितूय जंय म्हापापी आसतात थंय बरोवप, वाचप शिकनासतना राविल्लें बरें. प्रभू, म्हज्या घोवाची कितें खबर आसा ?

भवानंद : भौन भौन तूं ताची खबर कित्याक विचारता ? तुजे नदरेन जाल्यार तो मेल्ल्यांतूच जमा जाल्लो आसा, न्हय !

कल्याणी : हांव तांचे नदरेन मेल्लीं आसत, पुण म्हजे नदरेन ते मेल्ले नांत.

भवानंद : तो तुजे नदरेन मेल्लो आसा, अशें जांवचे म्हणून तूं मेल्ली. मागीर भौन भौन हीच चर्चा कित्याक ?

कल्याणी : मेल्यार लेगित दोगां मदलें नातें केन्ना तुट्टा, व्हय ? ते कशे आसात, हें सांगशी ?

भवानद : बरो आसा.

कल्याणी : ते खंय आसात ? पदचिन्ह गांवांत ?

भवानंद : ह्य, थंयच आसात.

कल्याणी : ते थंय कितें करतात ?

भवानंद : पयलीं करताले तेंच काम. कॉट बांदतात, हत्यारां तयार करतात. ताणींच केल्ल्यां हजारांनी आयज हत्यारांनी संतानांक सशस्त्र केल्ले आसात. तांचेच कृपेन तोफो, बंदुकां, दारू गुळो, हांचो आमकां कांयच उणाव लागलो ना. संतानां मदीं तेच चड श्रेश्ट जावन आसात. आमचेर ते व्हड उपकार करतात. ते आमचो उजवो हात जाल्ले आसात.

कल्याणी : हांवें जीव दिवक नाशिल्लो जाल्यार हें सगळें घडून येवपाचें आसलें ? जाच्या काळजांत चिखलान-भरिल्ली घागर बांदिल्ली आसत तो संवसार-सागरांत पेवूंक शकतलो ? संन्याश्या, ह्या क्षुद्र जिवाक तुवें कित्याक म्हणून वांचयलो ?

भवानंद : बायल घोवाची सहधर्मिणी आसता, धर्मकार्यांत आदार दिवपी.

कल्यानी : आदारी आसता खरी, पुण ल्हानसान गजालींनी. पुण धर्माचे व्हड गजालींनी ती कंटक जावन बसता. हांवें विखाच्या कांटयान तांच्या अधर्माचो कांटो काडून उडयलो. शी : ! दुराचारी ब्रह्मचाऱ्या, तुवें हो प्राण कित्याक म्हणून वांचयलो ?

भवानंद : बरें आसा. कल्याणी, हांवें जें तुका दिलें तें म्हजेंच. देखून तुका जो हांवें प्राण दिलो तो तूं म्हाका परतो दिशी ?

कल्याणी : म्हजी सुकुमारी कशी आसा, ताची तुमकां खबर आसा ?

भवानंद : जायते दीस जाले तिची म्हाका कांयच खबर मेळ्ळी ना. जीवानंदूय जायते दीस जाले थंय वचूंक पावले नांत.

कल्याणी : तिची खबर म्हाका मेळ सारकी करपाक तुमच्यांनी कितेंय वेवस्ता करूंक जावची ना ? घोवाक तर हांवें सोडिल्लो आसा, पुण जो मेरेन हांव जीवीं आसां तो मेरेन म्हजे धुवेक हांव कित्याक सोडटलीं ? आतां म्हजी सुपुल्ली धूव म्हाका परती मेळ्ळी जाल्यार जीवितांत म्हाका कितें तरी सुख भोगूंक मेळटलें. पुण म्हजे खातीर तुमी तरी कित्याक अितलें करतले ?

भवानंद : करतलों हांव, कल्याणी. भुरग्याक हांव तुका हाडून दितलों. पुण मागीर कितें ?

कल्याणी : ताच्या उपरांत कितें ?

भवानंद : घोव ?

कल्याणी : हांवें तर आप-अिच्छेन तांचो त्याग केल्लो आसा.

भवानंद : ताचें व्रत पुराय पाळून जालें जाल्यार ?

कल्याणी : जाल्यार हांव तांचींच जातलीं. हांव जीवीं आसा म्हणून तांका खबर आसा, व्हय ?

भवानंद : ना.

कल्याणी : तुमची तांची भेट जायना ?

भवानंद : जाता.

कल्याणी : म्हजे विशीं ते कांयच उलयनांत ?

भवानंद : ना. जी बायल मेल्ली आसा तिका घोवाल.गीं आशिल्लें नातें कित्याक उपकार पडटा ?

कल्याणी : तुमी कितें म्हणूंक सोदतात ?

भवानंद : तुज्यान परतें लग्न करूंक जाता. तुजो पुनर्जल्म जाल्लो आसा.

कल्याणी : म्हजे धुवेक म्हजेकडेन हाडून दी.

भवानंद : हाडून दितलों. तूं दुसरे फावट लग्न करतली ?

कल्याणी : तुमचे लागीं, मू ?

भवानंद : तशेंच आसलें तर ?

कल्याणी : तशें जालें जाल्यार, संतानधर्म खंय उरतलो ?

भवानंद : तो बुडटलो.

कल्याणी : आनी परलोकाचें कितें जातलें?

भवानंद : तोवूय बुडटलो.

कल्याणी : हें म्हाव्रत काय कितें ? हेंच भवानंद नांव गा ?

भवानंद : तेंवूय बुडटलें.

कल्याणी : हें सगलें तुमी बुडोवपाक सोदतात, तें कोणापासत ?

भवानंद : तुजे खातीर. आयक, सामान्य दादलो आसलो वा रूशी आसलो, सिद्धी असलो वा देव आसलो, जाल्यार चित्ताचेर कोणाचें नियंत्रण चलना. संतानधर्म म्हजो प्राण जावन आसा, हांतूंत दुभाव ना. पुण आयज पयलेच फावट हांव तुका सांगतां कि तूं म्हाका म्हज्या प्राणाचो प्राण जावन आसा. ज्या दिसा हांवें तुका मर्णांतली वाचायली त्याच दिसा हांव तुज्या चरणांचो चाकर जालों. संवसारांत अितलें अती-सोबीत रूप आसा म्हणपाची म्हाका खबर नाशिल्ली. असलें रूप-सौंदर्य म्हज्या दोळ्यांनी हांव पळेतलों म्हणून कळिल्लें जाल्यार हो संतानधर्म हांव केन्नाच ग्रहण करचो नासलों. ह्या मोगा-उज्यान तो धर्म जळून गेल्लो आसा ; पुण प्राण उरिल्लो आसा. गेल्लीं चार वर्सां हो प्राणूय जळत लासून वचत आसा. आतां तो चड काळ तिगून उरचो ना. जळटा, कल्याणी, तो तीखसाणेन, खतखतीत जळटा. चार वर्सां हें हांवें सोंसून घेतलें, आनीक म्हज्यान हें दुख सोंसूंक जायना. तूं म्हजी जातली, ?

कल्याणी : हांवें तर तुमच्याच तोंडांतल्यान आयकलां कि संतान धर्माचो नेम असो आसा कि अिंद्रियांचे भकीक पडल्यार मरण, हेंच प्रायश्चीत फर्मायल्लें आसा. तें खरें ?

भवानंद : हय, ते खरें आसा.

कल्याणी : म्हणचें, मरण हेंच तुका प्रायश्चीत फावो जावन आसा.

भवानंद : हय.

कल्याणी : हांवें तुमच्या मनांतली खोशी पुरी केली जाल्यार तूमी मरतले ?

भवानंद : निश्चितूच मरतलों.

कल्याणी : आनी तुमच्या मनांतली खोशी केली ना जाल्यार कितें ?

भवानंद : तरीय मरण, हेंच म्हजें प्रायश्चीत. कित्याक म्हजें मन अिंद्रियांचे भकीक गेलां.

कल्याणी : हांव तुज्यो मना-कामना फळाक येंवक दिवचीं ना. तूं केन्ना मरतलो तें आतां सांग.

भवानंद : येत्या झुजांत.

कल्याणी : तशें जाल्यार, हांगाच्यान चलूंक लाग. म्हजे धुवेक धाडून दितलो काय ना ?

भवानंदान दुकांनी भरिल्ल्या दोळयांनी म्हळें, "धाडटलों. हांव मरून गेल्या उपरांत म्हजो उगडास तरी तूं दवरतली?"

कल्याणीन म्हळें, "दवरतलीं. व्रताचो भंग केल्लो अधर्मी म्हणून हांव तुज़ो उगडास दवरतलीं."

भवानंद थंयच्यान गेलो. कल्याणी पोथी वाचपाक बसली.

## 5

भवानंद विचारांचे तंदरींत मठाकडेन वचूंक लागलो. चलतां चलतां रात जाली. रस्त्यान तो अेकलो-अेकसुरोच चलतालो. अेकल्यानूच ताणे रानांत प्रवेश केल्लो. पुण ताणे पळेयलें कि आनीक अेकलो मनीस ताचे फुडें फुडें वचत आसलो. भवानंदान विचाल्लें, "कोण थंय?"

फुडें चलतल्या मनश्यान जाप दिली, "कित्याक विचारता? हांव वाटेचो वाटसूर."

भवानंदान म्हळें, "वंदे !"

फुडें चलतल्या मनश्यान जाप दिली, "मातरम् !"

भवानंद : हांव भवानंद गोस्वामी !

'हांव धीरानंद,' फुडें वेतले व्यक्तीन जाप दिली.

भवानंद : धीरानंद, खंय गेल्लो तूं ?

धीरानंद : तुकाच सोदूंक.

भवानंद : कित्याक ?

धीरानंद : तुजे लागीं अेक गजाल करपाची आसा.

भवानंद : कितें ?

धीरानंद : तें अेकांतांतूच सांगपा सारकें आसा.

भवानंद : हांगाच सांग ; हो व्हड अेकांताचो जागो.

धीरानंद : तूं शारांत गेल्लो ?

भवानंद : व्हय.

धीरानंद : गौरी देवीच्या घरा ?

भवानंद : तूंवूय शारांत गेल्लो काय कितें ?

धीरानंद : थंय अेक सोबीत-सुन्दर बायल रावता न्हय ?

भवानंदाक आजापाचो धक्को बसलो. मात्सो भियेलोय तो. मागीर उलयलो, "तुका कित्याक ?"

धीरानंद : तूं तिका भेटलो कि ना ?

भवानंद : मागीर कितें जालें ?

धीरानंद : तूं ते कामिणीचेर मोहीत जाला ?

भवानंद (मात्शें येवजून चिंतून) : अितली चौकशी कित्याक ? हें आयकून घे, धीरानंद, तूं जें म्हणटा तें सगलें खरें आसा. तुज्या भायर, आनीक कितल्या जाणांक हाची खबर आसा ?

धीरानंद : आनीक दुसऱ्या कोणाकूच ती खबर ना.

भवानंद : अशें जाल्यार हांवें तुका जीतो मारून उडयल्यार ह्या कलंकांतलो हांव मेकळो जातलों न्हय?

धीरानंद : हय, तुज्यान तुका वाटांव येता.

भवानंद : तशें जाल्यार यो. ह्या लोक नाशिल्ल्या जाग्यार आमी झुजुंया. तुका मारून म्हज्यान निष्कलंक जांव येता, ना जाल्यार तूं म्हाका मारून म्हज्यांतल्या ह्या जळटचा उज्याक पालोंवन उडय. तुजे लागीं हत्यार आसा ?

धीरानंद : हय. रित्या हातांनी ह्यो गजाली करपाचें सामर्थ्य कोणांत आसा? झगडें-झूज करपाचो तुमचो आग्रो आसल्यार हांव खऱ्यानींच तयार आसां. आपले भितर झुजपाचें संतानां मदीं मना केल्लें आसा, हाची तुमकां खबर आसतलीच. पूण आप-राखणे खातीर कोणाकडेनूय झूज केल्यार मनाय ना. पुण जें कितें हांव तुका सांगूंक सोदी तें आयकून घेतल्या उपरांतून झूज करपाचें काम केल्यार बरें जांवचें ना ?

भवानंद : कांय आडखळ ना. सांग.

अशें म्हणून भवानंदान म्यानांतल्यान तरसाद भायर काडली आनी धीरानंद पळून वच्चो न्हय म्हणून ती ताच्या खांदार दवरली.

धीरानंद : म्हाका तुमकां अितलेंच सांगपाचें आसलें कि तुमी कल्याणी लागीं लग्न करात.

भवानंद : ती कल्याणी आसा म्हणपाचेंय तुका खबर आसा ?

धीरानंद : तुमी तिचेलागीं लग्न कित्याक करीनांत ? :

भवानंद : तिचो घोव अजून जितो आसा.

धीरानंद : वैष्णवां मदीं तसलें लग्न रूढ आसा !

भवानंद : ती चाल प्रथा मुंडन करपी बैराग्यां मदीं आसा, संतानां मदीं न्हय. संतानांनी लग्नूच करूंक जायना.

धीरानंद : संतानधर्म सोडूंक जायना ? तुमचो तर प्राग वचत आसा. शी ! शी ! म्हजो खांद कातरलो गा सायबा (खऱ्यांनीच धीरानंदाच्या खांदावेल्यान रगत व्हांवूंक लागिल्लें.)

भवानंद : शेवटीं तूं म्हाका पाप करपाची बुद्ध दिवपाक कित्याक आयला ? खरेंच, तुजो कितें तरी हांतूंत सुवराथ आसतलो.

धीरानंद : तोय्रय सांगून दाखोवपाची म्हजी अिसा असा. तरसादीचेर चेपण घाली नाकात. सांगतां. ह्या संतानधर्माक लागून आमचीं हाडां सामकीं पेटून उठल्यांत. हें सगलें सांडून भुरग्यां-बाळांच्या सांगातान जीवित सारचें म्हणून हांव सामको वसवसतां. हो संतानधर्म हांव सोडून दितलों. पुण घरा वचून तरी शांती मेळटली, सुख समाधानान रावूंक येतलें म्हळचार अितलें सोंपें न्हय. बंडवालो म्हणून म्हाका कितलेशेच जाण वळखतात. हांव घरा वचून रावलों जाल्यार सरकारी अधिकारी म्हजी तकली मारूंक सोदतले वा संतानूय म्हाका विस्वासघातकी म्हणून मारून उडयतले आनी हांगा-थंय शेवटून मारतले. हेय खातीर हांव तुमकां म्हज्या मार्गान व्हरूंक सोदतां.

भवानंद : कित्याक ? म्हाकाच कित्याक गा ?

धीरानंद : तेंच तर महत्वाचें. कित्याक सगली संतानांची सेना तुमचे आज्ञे प्रमाणें चलता. सत्यानंद आतां हांगा नांत, देखून सेनापती तर तुमींच. तुमी ही सेना घेवन झुजात, म्हाका खात्री आसा, तुमचें जैत जातलें. आनी जिखल्या उपरांत तुमी स्वताचें अेक राज्य कित्याक घडोवन हाडिनांत ? फौज तुमचो हुकूम मानतलीच. तुमी राजा जायात. कल्याणी तुमची मंदोदरी जातली आनी हांव तुमचो पाटलावदार जावन भुरग्यां-बाळांच्या सांगातान सुखान दीस काडटलों, तुमकां आशिर्वाद दीत रावतलों. उजो लायात्या संतानधर्माक !

भवानंदान धीरानंदाच्या खांदावेली तरसाद ल्हवू ल्हवू काडून घेतली. म्हळें, "धीरानंद, तरसाद सांबाळून घे, झूज कर. हांव तुजी हत्या करतलों. हांव घडये वासनेक बळी पडलां आसन पुण हांव विस्वासघातकी न्हय, तुवें म्हाका विस्वासघातकी जावपाची बुद्ध दिल्या. तूं विस्वासघातकी म्हणून तुका

म.रून उडयल्यार म्हाका ब्रह्महत्येचें पाप लागचें ना. तुका हांव मारून उडयतलों.

हें उलोवप सोंपतां ना सोंपतां धीरानंद धांवत सुटलो. भवानंद ताचे फाटीक लागलो नां. तो कांय वेळ अनमनत रावलो. जेन्ना ताका सोदूंक म्हणून गेलो, तेन्ना तो ताका मेळ्ळो ना.

## 6

भवानंद मठाकडेन वच्चे भाशेक दाट रानांतले खोलायेंत रिगलो. त्या दाट जंगलांत अेका पोन्न्या-प्राचीन राजवाडयाची मोडावळ पडिल्ली आसली. ते मोडावळीच्यां फातरां खडपांनी वेली आनी कांटयारीं झाडां-झोंपां दाट मातून आयिल्लीं. त्या जाग्यार कितलींशींच, राशींनी म्हळयार जाता, सोरोप आनी जीवाणीं फातरां-खडपां मदीं दडून गोटेल्लीं. त्या राजवाडयांतल्या मोडून पडिल्ल्यां अिमारतींतल्यां कुडीं मदीं अेक कूड बरे स्थितीर आनी नितळ-निवळ आसली. भवानंद थंय वचून बसलो. आनी चिंतनांनी शेणलो.

काळखी रात दाटून आयिल्ली. त्या भायर तें रान सामकें आयस-पयस पातळिल्लें, विशाल आनी दाट. थंय मनशांची नांवनिशाण नाशिल्ली. तांतूंत रूख-रांयो आनीं वेलींची चिरंगट. तांतल्यान मोनजात-सावजांक येवपाक वचपाक लेगित अवघड लागतालें. ह्या विशाळ, मनीस-नाशिल्ल्या काळखी जंगलांत मदीं मदीं पयसुल्ल्यान वागाचें भयांकृत आडुप कानार सादतालें वा दुसऱ्या खंयच्या मोनजातीचें रडणें, भूकेन, भिरांतीन वा आव्हान म्हणून केल्लें, आयकूं येतालें. मदींच व्हडल्यां सुकण्यां पाखटयांची फडफड, मदींच फाटीक लागिल्ल्या जनावरांच्यो कुयो-कुयेली वा तांकां फारान मारूंक येतल्या शिकाऱ्यांच्या पावलांचो धपधपीत आवाज कानार पडटालो. असल्या त्या मनीस-नाशिल्ल्या, काळख्या भिरांकूळ राजवाडयाचे मोडावळींत भवानंद अेकलो अेकसुरोच बसून आशिल्लो. ताचे नदरेन जशें काय संवसाराचें अस्तित्वूच नासलें आनी आसलेंय जाल्यार तें भंय-भिरांतीचें कारण जाल्लें.

भवानंद कपाळाचेर हात धरून विचार करतालो. कसलीच हालचाल नासली, निश्वास नासलो, भंय-भिरांत नासली. खोल चिंतनांनी बुडिल्लो आसलो. मनांतल्या मनांत तो म्हणटालो, जें जावपाचें आसा तें खऱ्यांनीच जातलें. जसो ल्हानसो हत्ती भागिरथीच्या प्रवाहांतल्यान व्हांवून वेता तसो हांव वासनेच्या प्रवाहांतल्यान व्हांवून चल्लों म्हणपाचें येवजून दुख भोगता. अेका खिणांत शरीराचो नाश जांव येता. देहाच्या नाशांतूच अिंद्रियांचो नाश आस्पावता. म्हजे खातीर जाल्यार मरणूच उत्तम आसा. त्या अिंद्रियांच्या जंवजाळांत हांव

घुसपलों ! हांवें तर धर्माचो त्याग केलो. हांवें मेल्यारूच बरें. हांव मरतलों.

अितल्यान ताच्या माथ्यावेल्यान अेक घुघुम गंभीर स्वरान आइडलो. तेन्ना भवानंद व्हडल्या ताळचान आपलेच कडेन उलोंवक लागलो : "हो कसलो आवाज जायत काय? यमदेवाचो उलो कसो लागता म्हाका. कितें सांगलें ताची म्हाका खबर ना. कोणे तरी म्हाका उलो केलो, कोणे तरी सुचोवणी दिली, हांवें मरचें म्हणपाची ! हे पुण्यवंत अनंता, तूं शब्दमय जावन आसा, पुण तुज्या उतरांचें मर्म समजुपाक म्हज्यांत सामर्थ ना. धर्मांत चलपाची म्हाका मत दी, पातकांतलो वाटाय, सायबा. हे गुरूदेवा, म्हजी मत धर्मांतूच रोंवून उरूं!"

त्याच वेळार त्या भयानक रानांतल्यान मार व्हडलो मधूर पुण गंभीर मर्मांत मुंगरिल्लो मनश्याचो ताळो कानार सादलो. कोणे तरी म्हळें, "तुजी मत धर्मांत थीर उरतली, म्हजो तुका आशिर्वाद आसा."

तों उतरां आयकतना भवानंदाचें आंग-पांग शिरशिरून आयलें. "हें कितें जालें तर? हो तर गुरूदेवांचो ताळो. महाराज, तुमी खंय आसात, व्हय? ह्या वेळार येवून तुमी ह्या चाकराक दर्शन दिवचें."

पूण कोणेंच येवन दर्शन दिलें ना. कोणेच जाप लेगित केली ना. भवानंद परतो परतो उलो मारीत रावलो. पुण ताका पडसाद मेळ्ळो ना. ताणें हेवटेन तेवटेन सोदून पळेलें. खंयच कोणूच नाशिल्लो.

रात सोंपून आयिल्ली आनी सकाळ उदेल्ली. सूर्य झगझगीत शिंवर मारून वयर सरतालो ; आनी त्या प्रचंड रानांत झाडां-रूखांच्या तेंगश्यांचेर ताचीं किर्णां लकलकूंक लागिल्लीं. तेन्ना थंयच्यान उठून भवानंद मठांत परतो आयलो. थंय पावतनांच ताच्या कानार आवाज आयलो, 'हरे मुरारे, हरे मुरारे.' तो वळखलो, ताळो तर सत्यानंदाचो आशिल्लो. प्रभू परते आयले म्हणपाचें ताका समजलें.

## 7

जीवानंद खोंपींतल्यान भायर सरल्या उपरांत शांती देवी परती आपली सारंगी वाजोवन गावंक लागली :

"प्रलय पयोधि-जले धृत वानसि वेदम्
विहित वहित्र चरित्रम् खेदम्
केशव धृत मीन शरीर
जय जगदीश हरे!"

गोस्वामीन रचिल्लें हें मधूर स्तोत्र जेन्ना शांती देवीच्या ताळचांतल्यान भायर

भरतालें तेन्ना तें पुराय राग-ताल-लयभरीत जावन त्या अठंग रानाची निरवताय चिरीत पुर्ण भरतीच्या वेळार वसंत रूतुच्या वाऱ्यान ल्हारांनी तडीक व्हरून ल्हव-पीक थारटूंचें तशें जाल्लें. मागीर ती फुडें गांवूं लागली :

"निंदसि यज्ञविधेरहह श्रुतिजातम्
सदय-हृदय-दर्शित पशुधातम्
केशव धृतबुद्धशरीर
जय जगदीश हरे।"

ह्याच वेळार भायल्यानच्यान कोण तरी अेकदम गंभीर स्वरान गावूं लागलो. ताचो आवाज कुपांचे खोल गर्जने भशेन घणवणीत गाजतालो :

"म्लेच्छनिवहनिधने कलयसि करवालम्
धूमकेतुमिव किमपि करालम्
केशव धृतकल्किशरीर
जय जगदीश हरे।"

शांतीन भक्तीभावान सत्यानंदांच्या चरणांची धूळ आपल्या मस्तकाक लावन घेतली. तिणें म्हळें, "प्रभू, हांवें अशें कितें पुण्य केलां आसत, जाका लागून तुमच्या श्रीपादपद्मांचें दर्शन म्हाका हांगा घडलां जायत? हांवें कितें करचें अशी तुमची आज्ञा आसा?" अितलें उलोवन शांतीन परतो सारंगीच्या सुरांत सूर मेळोवन गावपाक सुरवात केली : "तव चरणप्रणता वयमिति भावय करू कुशलं प्रणतेषु।"

सत्यानंदांनी म्हळें, "मां, तुजें कल्याणूव जातलें."

शांती : तें कशें प्रभू? तुमची आज्ञा तर म्हाका विधवा जावचेली आसा.

सत्यानंद : धुवे, हांवें तुका सारकें वळखूंक नासलें. दोरयेचें बळ वळखनासतना ती हांवें चड ताणली. तू म्हजे परस चड गिन्यानी जावन आसा. ह्याचेर तूंच उपाय कर. हांव हें सगलें जाणां म्हणपाचें तूं जीवानंदांक सांगूं नाका तुज्या पासतच ताच्यान आपलें जीवित वाटांव येता. अितले दीस तो तेंच काम करीत आयला. तशें जाल्यार म्हजें कार्य सुफळ जातलें.

हें आयकतनांच, तिच्या विशाल निळ्या दोळ्यांतल्यान गिमांत कुपां-राशींतल्यान झगझगतले वीजे सारको रोषपूर्ण कटाक्ष उमळून आयलो.

शांतीन म्हळें, "स्वामी, तें कशें जांव येता ? हांव आनी म्हजो घोव अेकप्राण जावन आसांव. तुमचे लागीं जीं उलोवणीं जाल्यांत तीं हांव सगलीं तांकां कळयतलीं. मरपाक जाय जाल्यार ते मरतले. तांतूंत म्हजें कितें लुसकान ? हांवूय तांच्या वांगडा मरतलीं. तांच्या नशीबांत स्वर्ग थारायल्लो आसा जाल्यार तो म्हजे खातीर आसचो ना, अशें तुमकां दिसता, व्हय ?"

ब्रह्मचारींनी म्हळें, "म्हजे जिणेंत हांव केन्नाच हारलों ना. आयज तुजे

कडल्यान हांवें हार खाली. धुवे, म्हजेर दया स्नेह दवर. तुज्या आनी जीवानंदाच्या जिवाचो सांबाळ कर. हे बरवींच म्हजें कार्य सुफळ जातलें."

जोगूल हांसलें. शांतीन जाप दिली, "म्हज्या घोवाचो धर्म तांच्या हातांत आसा. तांकां धर्मा पसून कुशीन काडपाक हांव कोण ? ह्या लोकांत घोव, होच बायलेचो देव जावन आसा. परलोकांत सगळयांची देवता म्हळयार धर्म. म्हाका जाल्यार म्हजो घोव व्हड जावन आसा. पुण तांचे परस व्हड धर्म जावन आसा आनी धर्मा परस व्हड म्हळयार म्हज्या घोवाचो धर्म. म्हाका जाय जाल्यार म्हज्यान त्या धर्माक मोखून दिवूंक जाता. पुण म्हज्या घोवच्या धर्माक हांव तशें करूंक शकतलीं, व्हय? महाराज, तुमचे सांगणे अनुसार मरपाक जाय जाल्यार म्हजो घोव मरतलो. हांव तांकां त्या पसून कुशीन काडचीं ना."

ब्रह्मचारींनी लांबदीक स्वास सोडलो आनी म्हळें, "धुवे, ह्या व्रताखातीर बलीदान दिवचें पडटा. आमकां सगळयांक बळी वचचें पडटलें. हांय मरतलों. जीवानंद, भवानंद सगळे मरतले आनी तूंय मरतली अशें म्हाका दिसता. पुण आमी आमचें काम करून जाल्या उपरांतूच मेल्लीं बरीं. काम केल्या शिवाय मरण आयिल्लें बरें न्हय. हांवें केन्नाच कोणाक माता म्हणून पाचारली ना; फकत देसाक माता म्हणून लेखल्या. कित्याक हे सुजल सुफल धर्तरे बगर आमीं सगळीं अन्वय-नाशिल्लीं जावन आसांव. आतां हांव तुका मां म्हणटां. तूं माता जावन तुज्या भुरग्यांचेर उपकार कर. तांतल्यानूच आमचो मोख सुफळ जांव. आनी जीवानंदाचो आनी तुज़ोय जीव वांचूं.

अितलें उलोवन सत्यानंद 'हरे मुरारे मधुकैटभारे' गीत गायत थंयच्यान चालीक लागले.

## 8

ल्हव्रू ल्हव्रू संतानां मदें खबर पातळ्ली कि स्वामी सत्यानंद परते आयिल्ले आनी ते संतानां लागीं कांय उलोवपाचे आसात. देखून ताणी सगळ्या संतानांक अेकेकडेन आपयल्ले. हें आयकतनांव पंगडां-पंगडांनीं संतान लोक न्हंयेचे देगेर अेकटांय जांवक लागले. चान्न्याचे राती, न्हंयेचे धडेर, त्या दाट रानांत आंबे, पिंपळ, पणस, चिंच, वड, ताडमाड, बेल, सांवरो आदी रूखां-सव्यां पोंदाक कांय धा हजार संतान अेकटांय जमिल्ले. सत्यानंद आयल्यात म्हणपाची खबर अेकामेकाच्या तोंडांतल्यान आयकून उलोवन ते बरोच बोवाळ करूंक लागिल्ले. सत्यानंद किल्या खातीर आनी खंय गेल्ले म्हणपाची सर्वसामान्य लोकांक खबर नासली. ते संतानांच्या कल्याणा खातीर तपश्चर्या करूंक हिमालय

पर्वताचेर गेल्ले आसतले, अश्यो लोक खबरो करताले. आयज लोक एकामेकां या कानात फुसफुसताले. महाराजांच्या तपाक सिद्धी फावो जाल्ली आसा, आतां, आमच्या लोकांचें राज्य जातलें ! लोक बोवाळ करूंक लागले. कोण म्हणूंक लागलो 'मारत, मुसलमानांक मारून उडयात. कोणे तरी व्हडल्यान म्हळें, जय महाराज ! महाराजाचो विजय जांव ! कोणे 'हरे मुरारे,' कोणे वंदे मातरम्,' अशो घोशणा गाजयल्यो. कोण म्हणूंक लागलो, 'आमी तुच्छ बंगाली आसुनूय झुजा-मळार आमचे कुडीचो त्याग करूंक शकतले ? कोणे तरी म्हळें, 'बाबांनो, असोच दीस येतलो जेन्ना मशिदी मोडून उडोवन त्या जाग्यार आमी राधा-माधवाचीं मंदिरां बांदतले. आनीक कोणे म्हळें, 'असोय एक दीस येतलो जेन्ना आमचे धन-दवलतीचें आमी सुख भोगूंक पावतले.' धा हजार दादल्यांच्यां कठांतल्यान अशे रीतीन भायर सरतले बडबड, मधूर वाऱ्यान बोलयल्ल्या रूखां-झाडांच्या पानांची सळसळ, रेवेंतल्यान व्हांवतले न्हंयेची मंद खळखळ, निळशा मळबार चंद्रीम, नखेत्रां, धव्या-फुल्ल कुडांची रास, श्यामल धर्तरेचेर पांचवेंवार रान, नितळ न्हंय, निवळ-धवी रेंव, उमळिल्ल्या फुलांचे घोंस आनी मदीं मदीं सगळ्यांक गोड लागली ती वन्दे मातरमची मधूर ध्वनी.

सत्यानंद एकठांय आयिल्ल्यां संतानां मदें येवून उबे रावले. धा हजार संतानांच्यो तकल्यो झाडां-रूखांर शिवरायल्ल्या चांन्ण्याच्या उजवाडान लखलखून ते श्यामल धर्तरेचे पांचवेचारीचेर बागवल्यो. दोनूय हात उखलून, उंच स्वरान, दुकांनी दोळे भरून येवन, सत्यानंद उलयले :

"केशी मथन मधू-मर-नरक-मर्दन, लोकपालक, शंकचक्रगदापद्मधारी वनमाली तुमचें सगळ्यांचें कल्याण करूं. ताणें तुमच्या हातां-भुजांक बळ दिवचें. तुमच्या मनांत भक्ती निर्माण करची, धर्मा विशीं श्रद्धा जागृत करची. तुमी सगले मेळून ताची महिमा गायात." तें म्हणना बराबर त्या हजारांनी ताळ्यांनी उंचस्वरान हें गीत गाजयलें :

"जय जगदीश हरे,
प्रलय पयोधि जले धृत मानसि वेदम्
विहित वहित्र चरित्रम खेदम्
केशव धृत मीन शरीर
जय जगदीश हरे।"

सत्यानंदानी परतो तांकां सगळ्यांक आशिर्वाद दिलो आनी म्हळें, "हे संतानांनो, आयज तुमकां सगळ्यांक म्हाका एक खाशेली गजाल सांगपाची आसा. टॉमस नांवाच्या एका विधर्मी दुश्टान जायत्या संतानांक मारून उडयल्ले आसात. आयचे रातीं आमी सैन्यासैन ताची हत्या करतले. जगदीश्वराची तशी आज्ञा आसा. हे विशीं तुमचें म्हणणें कितें आसा तें सांगात."

अेकटांय आयिल्ल्या सगळ्यांतल्यान हरिनामाचो घणघणीत जयध्वनी थरथरून गेलो. 'आतांच मारून उडोंवया, खंय आसा तो, कोणें फुडें चलून आमकां तो दाखोवन दिवचो. मारात ताका. त्या दुश्टाक मारून पुसून काडात!' असल्या आनी आनीक किल्ल्याश्याच उतरांनी पयसुल्ले दोंगर लेगित पडसादून आयले. सत्यानंद उलयले, "ते खातीर आमी थोडो धीर धरूंक जाय. तांचे लागीं तोफो आसात. तोफो नासतना तांचे लागीं झुजपाक आमचेकडेन जांवचें ना. त्या भायर ते लोक वीर जातीचे. पदचिन्ह गांवांत सावन सतरा तोफो येवपाच्यो आसात. त्यो आयल्या उपरांत आमी आमची घुरी घालची. तें पळे, फांतें उदेवन येता - आनीक चार घटकांनी दीस वयर सरतलो ... आरे, हें आनीक कितें? ..."

'गुडुम् गुम् गुडुम् !' अवचित चारूय दिकांनी त्या विशाल रानांत तोफांचो आवाज गडगडूंक लागलो. त्यो तोफो अिंग्लेजांच्यो आसल्यो. जाळयांत सांपडिल्ल्या नुस्त्यां भशेन संतानांक त्या आंब्यां रूखावळींत रेवाडो घालून मारपाची मांडणी टॉमसान केल्ली.

## 9

'गुडुम गुम गुडुम !' अिंग्लेजांच्यो तोफो गडगडून गरजल्यो. तोच घणघणीत आवाज रानांतल्या प्रचंड माजाक थरथरून उडोवन पडसादूंक लागलो, 'गुडुम गुम गुडुम !' तो आवाज न्हंयेचे देगे-देगेर मोडणा मोडणाचेर वचून मळबार मारून परतलो, गुडुम गुम गुडुम करीत, आनी नव्यान न्हंयेचे देगेर आसतल्या राना भितर गाजत गेलो. सत्यानंदानी आदेश दिलो, "त्यो तोफो कोणांच्यो ती खबर काडात." कांय संतान घोडयार बसून रोखडया रोखडे तोफो पळेंवचे खातीर म्हणून धांवत सुटले. पुण ते रानांतल्यान भायर सरून वेता म्हळयार थोडया अंतराचेर पावल्या उपरांत श्रावणाचे उदकाधारे सारको तांचेर गुळयांचो पावस पडलो; आनी ते घोडयांसैत घायाळ जावन मरून पडले. तो दुखाचो देखावो सत्यानंदानी पयसुल्ल्यानूच पळेल्ल्यान ताणी सांगलें, 'रूखाचे उंचाटेर चडून परिस्थिती कशी आसा ती पळेयात.' ताणी सांगचे पयलींच जीवानंद अेका रूखा वयर चडून गेल्लो. सकाळच्या झगझगीत सूर्यां उजवाडान ताका आयसपयस पातळिल्लो सगळो देखावो दिश्टी पडलो. रूखाच्या सामक्या वयल्या खांदया वेल्यान ताणें आडडून सांगलें' "तोफो अिंग्लेजांच्यो आसात."

सत्यानंदांनी विचारलें, "घोडेस्वार आसात कि पांयदल?"

जीवानंद : "दोनूय आसात."

सत्यानंद : "कितले आसतले, अदमासान?"

जीवानंद : "कांयच अदमास करूंक जायना. अजून ते रानांतल्यान भायर सरत आसात."

सत्यानंद : "गोरे आसात कि फकत शिपायक ?"

जीवानंद : "गोरे आसात."

हें आयकून सत्यानंदांनी जीवानंदाक सांगलें, "तूं रूखावेलो सकला देंव."

जीवानंद रूखावयलो सडसडीत सकलां देंवलो.

सत्यानंदांनी म्हळें, "ह्या वेळार हांगा धा हजार संतान आसात. तुज्यान कितें करूंक जातलें तें हांव पळेतां. तूं आयज सेनापती !" हें आयकतनाच हत्यारां आंगार चडोवन, रोखडी उडी मारून घोड्यार बसून जीवानंद वचपाक तयार जालो. नवीनानंदाचे वटेन नदर उडोवन दोळ्यांच्या अशाऱ्यान ताचे लागीं कितें उलयलें तें कोणाकूच समजलें ना. नवीनानंदान आपल्या दोळ्यांनी ताका कितें जाप दिली ताचीय कोणाकूच सुलूस लागली ना. फकत त्या दोगांयकूच मनांतल्या मनांत कळ्ळें आसतलें कि, कोणे सांगचें, हीच घडये तांची निमाणी भेट जांवये. त्या उपरांत नवीनानंदान आपणालो उजवो हात वयर काडून सगळ्यांक उद्देशून सांगलें : "भावांनो ! ह्या वेळार 'जय जगदीश हरे' गीत गायात." तें म्हणना फुडें ते धा हजार संतान न्हंय, रान आनी मळबाचेर लेगीत आवाज पडसादीत करून, तोफांचो कडकडाट आपल्या आवाजांत बुडोवन उडोवन, हजारांनी हात वयर काडून, एका सुरान आनी एका ताळ्यान गावूंक लागले ;

"जय जगदीश हरे,
म्लेच्छनिवहनिधने कलयसि करवालम् ।"

ह्याच वेळार इंग्लेजांच्या तोफांचे गुळे रानांत आशिल्ल्या संतानांचेर पडूंक लागले. गायत आशिल्ल्या त्या लोकां मदल्यां कोणाच्यो तकल्यो तुटून पडटाल्यो, कोणाचे हात गळटाले, कोणाचें हड्डें फुट्टालें आनी ते जमनीर कोंसळटाले. तरी आसतना कोणेंच आपलें गीत गावपाचें सोडलें ना. सगळेजाण गायत रावले, 'जय जगदीश हरे.' गीत गांवन सोंपतनांच सगळे जाण एकदम वोगी पडले. तें दाट रान, न्हंयची देग, अनंत एकांत एकसुरी मनीस-नाशिल्ली सुवात सामकी गंभीरतायेन भारावन गेली. फकत त्या सामक्या भयंकर तोफांचो गडगडाट, पैशिल्ल्यान येवपी गोऱ्यांच्या शस्त्रांचो खणखणाट आनी पावलांचो तालमय धपधपीत आवाज आयकूं येवूंक लागलो.

ह्या असल्या वेळार ते गंभीर निस्तब्धतेंत एकदम उंच स्वरान सत्यानंदानी म्हळें, " जगदीश हरी तुमचेर कृपा करतले. तोफो कितल्यो पयस आसात ?"

रुखावयल्यान एकल्यान जाप दिली, " ह्या रानाकडेन सामक्यो लागीं पावल्यात. फकत एक ल्हानशें मैदान तांकां काडूंक जाय. मागीर ते हांगा रोखडे पावतले."

सत्यानंदानी विचारलें, "तूं कोण ?"

वयल्यान जाप आयली, "हांव नवीनानंद."

तेन्ना सत्यानंदानी म्हळें, "तुमीं धा हजार संतान आसात. आयज तुमचेंच जैत जातलें. फुडें वचून तांचेकडल्यान तुमीं तोफो जबरदस्तीन काडून घेयात." ह्या वेळार फुडें सरिल्ल्या घोडेस्वार जीवानंदान व्हडल्यान म्हळें, "येयात !"

त्या उल्याक साद दिवन ते धा हजार घोडेस्वार आनी पांयदळ संतान मोटया वेगान जीवानंदाचे फाटोफाट भायर सरून गेले. पांयदळ शिपायकांच्या खांदार बंदूक, भेंडार तरसाद, हातांत भालो आसलो. रानांतल्यान भायर सरतनांच तांचेर तोफांचे गुळे पडून ते धिस्पटांवन वचूंक लागले. झुजनासतना सावार संतान मरून धराशाय जाले. अेकलो कोण जीवानंदाक म्हणूं लागलो, "जीवानंद, व्यर्थ प्राण वगडावन कितें फायदो ?"

जीवानंदान फाटीं वळून पळेलें. तो प्रस्न भवानंद करतालो. जीवानंदान ताका म्हळें, "तशें जाल्यार, मागीर कितें करपाचें ?"

भवानंद : रानांत रावून, रूखां-झाडांच्या आसऱ्या खाल आमी आमचो जीव वाटांवचो. उगत्या मळार, ह्या तोफांच्या सामकार, आमचेकडेन तोफो नासतना संतानांचें हें सैन्य अेक खिणभर्लय तिगचें ना. पणून झाडां-झोंपांच्या आड लिपून बरोच काळ मेरेन आमच्यांनी झुजत रावूं येतालें.

जीवानंद : तुजें म्हणणें सारकें आसा. पुण प्रभूचो हुकूम आसा कि आमी तोफो जबरदस्तीन काडून घेवच्यो. देखून तोफो काडून घेवचे खातीरूच आमी फुडें वेतले.

भवानंद : तोफो काडून घेवपाचें काम कोणाच्यान करूं येता ? पुण फुडें वचपाचेंच आसा जाल्यार, तूं वचूं नाका, हांव वेतां.

जीवानंद : तें कशें जातलें, बाबा ? तें जांवचें ना. आयज म्हजो मरपाचो दीस.

भवानंद : आयज म्हजो मरपाचो दीस.

जीवानंद : म्हाका प्रायश्चीत करपाचें आसा.

भवानंद : तूं निष्पाप आसा. तुका प्रायश्चीत करपाची गरज ना. म्हजें चित्त -मन कलुषित जावन आसा. म्हाका जाल्यार मरचेंच पडटलें. तूं राव. हांव वेतां.

जीवानंद : भवानंद, तुज्या हातांतल्यान कितें पाप घडून आयलां ताची म्हाका खबर ना. पुण तूं जीवो रावलो जाल्यार संतानांचें कार्य सुफळ जातलें. देखून हांव वेतां. म्हाका वचूं दी.

भवानंद वोगी रावलो आनी मागीर उलयलो, "आयज मरपाची गरज आसा जाल्यार हांव मरतलों. ज्या दिसा मरपाची गरज आसतली त्याच दिसा हांव मरतलों. मर्णाच खातीर वेळ अवेळ म्हळचार किते?

जीवानंद : तशें जाल्यार वच.

भवानंद सगळयां फुडें गेलो. तोफांच्या गुळयांचो पावस तेन्ना मोठे संख्येन येवून संतानांचे कुडके करूंक लागिल्लो. तांची धाना-धिस्पट जाताली, तांकां आडे-तिडवे उडयत आनी दुस्मानाचे बंदुककार शिपायकांचे अचूक फार तांचेर राशींनी पडून ते शेवटून शिपडिल्ले तेन्ना भवानंदान धिरिष्ट आवाजान म्हळें, "ह्या ल्हरांत आयज संतानांनी उडकी मारची पडटली. कोण तयार आसात? म्हणात, 'वंदे मातरम्' " ह्या बराबर खणखणीत आवाजान मेघमल्हार रागान तीं हजारांची संतान-सेना तोफांच्या तालार 'वंदे मातरम्' गांवक लागली.

## 10

'वंदे मातरम्' म्हणत गायत त्या वेळार ते धा हजार संतान आपले भाले वयर काडून झपझपीत वेगान रांगेन लायिल्ल्या तोफांच्या आंगार पडले. गुळयांच्या पावसाक लागून तांचीं आंगां-पांगां रक्तबंबाळ जातालीं. तीं लडलडत जमनीचेर कोसळटालीं. कॅप्टन टॉमसाच्या हुकुमान, त्याच वेळार, शिपायकांची अेक पळटण बंदुकांचेर सुर्योचडोवन सडसडीत वेगान संतानांचे उजवे कुशीच्यान चलून गेली. अशे रीतीन दोनूय कुशींनी तांकां वेडो पडिल्ल्यान संतान मर्दी चिडुन सामके निरशेले. अेका खिणांत शेंकडयांनी संतान मरूंक लागले. तेन्ना जीवानंदान म्हळें, "भवानंद, तुजेंच म्हणणें सारकें आसलें. आतां आनीक वैष्णवांचो नाश करून घेवन कांय अर्थ ना. ल्हवू ल्हवू आमी फाटीं सरिल्लें बरें."

भवानंद : आतां आमच्यांनी कशें फाटीं सरूं येता?

जीवानंद : आमच्या मुखावेल्यान आनी उजव्या कुशीवेल्यान आमचेर घुरी पडटा. दावे वटेन कोण ना. चल, ल्हवू ल्हवू आमीं तेवटेन सरून वचूंया.

भवानंद : हांगाच्यान भायर सरून तुमी खंय वेतले? थंय आसा तीं न्हंय! निकत्याच पडिल्ल्या पावसाक लागून न्हंयेक हुवार आयिल्लो आसा. अिंग्लेजांच्या मार-फारां पसून पळून वचून तूं संतान-फौजीक न्हंयेंत बुडोवन मारतलो काय किते?

जीवानंद : म्हाका जाल्यार आतां याद जाता कि न्हंयेचेर अेक पुल आसा.

भवानंद : ही धा हजार संतानांची फौज त्या पुलावेल्यान पलतडी वचूंक लागता म्हणसर अितली गर्दी लुटालूट जातली कि ह्या सगळ्या संतानांक मारून उडोंवक अेकूच तोफ पावतली.

जीवानंद : तशें जाल्यार अेक काम कर. तूं थोडेंशें सैन्य तुज्या वांगड दवर; आनी आवाडी सांबाळ. ह्या झुजांत जी चतुराय आनी साहस तुवें

दाखयलां, ताचे वेल्यान दिसता तुका असाध्य अशें कांयच ना. त्या सैन्याच्या आदारान तूं फुडले कुशीची राखण कर. हांव तुज्या सैन्याच्या आडोसाक रावून उरिल्ल्या संतानांक पुलावेल्यान पलाडी घेवून वेतां. तुज्या वांगडा जे उरतले ते चड करून मरून वेतले. जे म्हजे बरोबर आसतले ते वडये वांचत.

भवानंद : बरें आसा. हांव तशेंच करतां.

दोन हजारांची सेना घेवन भवानंदान 'वंदे मातरम'-चो जयघोष करीत प्रचंड उत्साहान अिंग्लेजांच्या गोलंदाज सैन्याचेर घुरी घाली. मोटया नेटान झूज जांवक लागलें. पुण तोफां मुखार तांचे बळ कितलो वेळ तगतलें आसलें ? गोलंदाज तांचेर फार मारून उडोवंक लागले.

ही संद साधून जीवानंद उरिल्ल्या संतानांक घेवून मात्सो अेके बटेन वळ्ळो आनी दाव्या कुशीच्या रानाक वळत्रो घालून ल्हव् ल्हव् फाटीं सरूंक लागलो. कॅप्टन टॉमसाचो आदारी लेफ्टेनंट वॉटसना-हाणें संतानांची अेक व्हडली पळटण पळून वेतां ती पैशिल्ल्यान पळेली. तेन्ना तो फौजदारी शिपायकांची अेक पळटण आनी परगणा शिपायकांचो अेक पंगड घेवून जीवानंदाचे फाटीक लागलो.

कॅप्टन टॉमसान ह्यो सगळयो हालचाली पळेल्यो. संतानांचो मुखेल भाग पळून वेतां तो पळेना फुडें ताणें दुसऱ्या हेय नांवाच्या कॅप्टनाक म्हळें "दोन-चारशीं शिपायकांक घेवून हांव ह्या कुशीन पडिल्ल्या विद्रोह्यांक कावार करतां, तूं तोफांचें उरिल्लें सैन्य घेवून तांची फाट घे. दाव्यान लेफ्टेनंट वॉटसन वेता. तं उजव्यान वच. आनी हें पळे, फुडें वचून त्या पुलाचें तोंड बंद करून उडय. तशें केल्यार, ते तीन बाजूंनी रेवाडयांत सांपडटले आनी मागीर जाळयांत सांपडिल्ल्या सुकण्यां-सावजां भशेन आमच्यांनी तांकां मारून उडोंव येतात. ते सगळे अपवडपीत पळून वचपी देशी सैनीक आसात. ते पळून वचपाक भोंव लापिट आसतात. देखून तूं सोंपेपणान तांकां धरूंक पावच्चो ना. घोडेस्वरांक सांग, आडोसाचो आदार घेवून फुडें वचात आनी पुलाच्या तोंडाचेर वचून उबे रावत. अशें केल्यारूच आमचें काम जातलें." कॅप्टन हेय-हाणे सांगिल्ले प्रमाणें केलें.

चड गर्वान खंय लंका हारिल्ली ! कॅप्टन टॉमसान संतानांक सामके उणाक लेखून भवानंदा लागीं झूज करपाक म्हणून फकत दोनशीं पांयदळे सैनीक आपलेकडेन दवरले ; आनी बाकीचे सगळे हेय वांगडा धाडून दिल्ले. चतूर भवानंदान जेन्ना हें पळेलें कि अिंग्लेजांच्यो सगळयो तोफो जाग्यावेल्यान हालयल्यात, सगळी फौज वाडून घेतिल्ली आसा, थोडेशे सैनीक जे थंय उरल्यात तांकां कापून उडयतलो म्हळयार सहजतायेन करूंक जातालें, तेन्ना आपणा लागीं उरिल्ल्या सैनीकांक उद्देशून ताणे सांगलें, "ह्या थोडयाश्या सैनीकांक कावार करून उडोवन म्हाका जीवानंदाचे मदतीक वचूंक जाय. तुमी परते 'जय जगदीश

हरे' चे नारे म्हणात. ते ल्हानशे संतान सेनेन ते नारे परते गाजयले, आनी तसोच जयघोष करीत वागां भशेन कॅप्टन टॉमसाचेर आनी तांच्या सैनीकांचेर ते नेटान तुटून पडले. त्या आक्रमणाची उग्रताय अशी खर आशिल्ली कि कॅप्टन टॉमसाचे ल्हानशे फौजेच्यान आनी बरोबरच्या तेलंगी शिपायकाच्यांनी ती सोंसूक जायना जाली आनी तांचो विभाड जालो. त्या वेळार भवानंद आपुण जावन फुडें सल्लो आनी ताणे कॅप्टन टॉमसाच्या लांब केंसाक धरले. कॅप्टन टॉमस निमाणे मेरेन झुजत आसलो. भवानंदान ताका सांगलें, "कॅप्टन सायबा, हांव तुका जितो मारचो ना. अिंग्लेज लोक आमचे दुस्मान न्हय. तुमीं मुसलमानांचे मदतीक कित्याक धावन आयले ? येयात, तुमकां तुमच्या प्राणाची भोक दितां हांव – तुमी आमचे कैदी जाल्ले आसात. अिंग्लेजांचें जैत जांव. आमीं तुमचे अिश्ट."

ह्या वेळार कॅप्टन टॉमसान भवानंदाक जीवान्शीं मारपाच्या हेतान सुरी लाविल्लें अेक बंदूक उबारपाचो प्रयत्न केलो. पणून भवानंदान ताका वागा भशेन सामको घट्ट धरिल्लो. ताका लागून कॅप्टन टॉमसाक हालूंक मेळ्ळें ना. भवानंदान आपल्या सांगात्यांक ताका बांदून दवरूंक सांगलें. दोन-तीन संतान अेकटांय जावन ताणी कॅप्टन टॉमसाक चरांटून बांदून घालो. मागीर भवानंदान हुकूम सोडलो, "हाका अेका घोड्याचेर आड घालात आनी चलात, आतां आमीं जीवानंदाच्या आदाराक वचूं या."

कॅप्टन टॉमसाक घोड्याचेर बांदून घालून, 'वंदे मातरम्' गायत सगले संतान लेफ्टेनंट वॉटसनाचे फौजी वटेन धांवले.

जीवानंदा वांगडा आशिल्ली फौज धीर सोडून पडिल्ली आनी पळपाचे वाटेर पाविल्ली. जीवानंद आनी धीरानंद, हाणीं खुब धिटाय दाखयली, पुण सगल्या संतानांक आडावपाक तांचे लागीं घडलें ना. तांतले कांय जाण पळून वचून आंब्यांचे रूखावळींत लिपले. बाकीच्या संतानांक ताणी पुलाच्या तोंडाकडेन व्हेले. पुण त्या जाग्यार पळे जाल्यार हेय आनी वॉटसन, हाणीं तांकां दोनूय कुशींनी रेवाडो घाल्लो. आतां जीव वाटावपाचो कांयच मार्ग उरूंक नासलो.

## 11

ह्याच वेळार, टॉमसाच्यो तोफो उजवे कुशींतल्यान दक्षिणे कडेन येवन पावल्यो. तेन्ना तांच्या मार-फारांच्या नाड्यार संतानांचें सैन्य धुस्पटून वचूंक लागलें. तांतलो कोणूय जिवो सुटत म्हणपाची आस्त दिसली ना. ज्या संतानांक खंय वाट दिसली तेवटेन ते पळत गेले. जीवानंद आनी धीरानंद, हाणीं सगल्या

संतानांक अेकटांय दवरपाचे प्रयत्न केले. पुण तांचें कांयच चल्लें ना. अिनल्यान कोणें तरी अोरडून सांगलें, "पुला कडेन वचात, पुला लागीं वचात, पुलावेल्यान पलतडी वचात. ना जाल्यार न्हंयेंत बुडून मरचें पडटलें. अिंग्लेजां फौज़ी वटेन तोंड करून ल्हव् ल्हव् फाटल्यानच्यान पुलाचेर वचात."

जीवानंदान फाटल्यान वळून पळेलें. सामकार भवानंद आसलो. ताणें म्हळें, "ज़ीवानंद, सैन्याक घेवन पुलाकडेन वच, ना जाल्यार आमकां सुटका ना. ल्हव्-ल्हव् फाटीं वेतली संतान सेना पुल पार करूंक लागली. अिंग्लेजांच्या तोफांक आयती सद फावो जाली. पुलाचेर दारू-गुळयाचो पावस झडूंक लागलो. संतानासेना अेकामेकार गळून पडूंक लागली. भवानंद, ज़ीवानंद, धीरानंद अेकटांय आयले. ताणीं पळेलें कि अेके तोफे कडल्यान संतानांचो सर्वनाश जातालो. भवानंदान सांगलें, "जीवानंद, चल आमी तिगूय तरसादी वावडीत ती तोफ आमच्या तांब्यांत घेवया." त्या प्रमाणें ते तिगूय गेले. गोलंदाज सेना जी लागीं आशिल्ली तिचो ताणी सामको विभाड केलो. तांचे फाटल्यान आदाराक म्हणून कितलेशेच संतान आयले. अितले म्हणपर ती तोफ भवानंदाच्या हातांत आयली. तो तिचेर वयर चडून उबो रावलो. ताळयो पेटून ताणें म्हळें, "म्हणात 'वंदे मातरम्'." सगळ्यांनी अेका आवाजान तशें म्हळें. भवानंदान फर्मायलें, "आतां हेच तोफेचें तोंड घुंवडावन त्या भामट्यांक ना-नपश्च्यात करात." हें आयकून सगले मेळून ताणीं अेकजुट्टया बळान ती घुंवडायली. तोफ जशी कांय वैष्णवांच्या कानांनी 'हरी धून' करपाक लागिल्ली. दुस्मानांच्या सैन्यांतले लोक पडून मरूंक लागले. भवानंदान तीच तोफ पुलाच्या तोंडाकडेन वोडीत हाडली आनी म्हळें, "तुमी दोगूय अेके रांगेंत संतान-सेनेक घेवन पुलाचे पलतडी वचात. हांव अेकलोच व्यूहमुखाची राखण करतां. तोफ चलोवपाक म्हाका कांय गोलंदाज दवरून वच." वेंचीक अशे वीस संतान भवानंदाच्या सांगातान रावले.

अेके रांगेन संतान-सेना पुल पार करून पलतडी वचूंक लागली. वीस-अेक संतानांचो आदार घेवून अेकलो भवानंद अेका तोफाच्या नाडयार दुस्मानांक मारून उडोंवक लागलो. पुण ती यवन सेना उमळिल्ल्या पाणयांच्यां ल्हारां भशेन आसली. तांचें ल्हारा फाटल्यान ल्हार येतालें. भवानंदाक नाका पुरो जालें. पुण भवानंद धीट उबो, निर्भय राविल्लो. तोफाच्या आदारान तो यवनसेनेचो नाश करीत रावलो. वादळान उसळटल्यां ल्हारां भशेन यवन-सैनीक ताचेर हल्ले चडोंवक लागले. पुण त्या वीस संतानांनी तोफेच्या आदारान पुलाचो प्रवेस मार्ग धिटायेन राखून दवरलो. ते मरता मरनाशिल्ले. अशें आसून यवनांच्यान पुलाचेर प्रवेस करूंक जायना जालो. ते संतान वीर अजिंक्य जाल्ले. तांचें जीवित अविनाशी जाल्लें. ही संद सादून संतानांच्यो अनेक पळटणी पुलावेल्यान पलतडी गेल्यो. आनीक थोडो वेळ पुलाची नाकेबंदी केल्ली जाल्यार सगले संतान पुलावेल्यान

पलतडी वचून पावतले आसले. अितल्यान नव्या तोफांचो गडगडाट आयकूं येवूंक लागलो. "धडाम-धुडुम-धुमधुम !" दोनूय पक्ष कांय खीण झूज थांबोवन, आतां आनीक ह्यो तोफो खंयच्यान आयल्यो काय म्हण्न सरभोंवतणी पळेंवक लागले. तेन्ना तांकां अशें दिसून आयलें कि देशी गोलंदाजां कडल्यान चलयल्ल्यो अनेक तोफो रानांतल्यान भायर सरताल्यो. भायर सरतनांच तोफांचे ते प्रचंड रांगेन आपल्या सतरा तोंडातल्यान धूंवर वोंकीत ह्या सायबाच्या सैन्याचेर उज्या-पावस घालपाक सुरवात केली. तांच्या भयंकर गडगडाटान रान, न्हंय, पर्वत सगलीं हादरून गेलीं. सगलो दिसभर झूज करून थकून पडिल्ली यवनसेना जीवाच्ये भिरांतीन थरथर कांपूंक लागली. ह्या उज्या-पावसाक लागून तेलंगी, मुसलमान, हिंदुस्तानी शिपायक पळून बचूंक लागले. फकत दोन-चार गोरे सैनीक थंय पांय रोंबून उबे आसले आनी मरताले.

भवानंद हें सगळें पळयत आसलो. ताणें म्हळें, "आतां मुसलमान पळटात. चलात, तांचेर धुरी घालूंया." हें आयकतनांच, रोयणींतल्यान मुंयांचीं भिरीं भायर सरतात तशें पुलावेल्यान परतें येवन नव्या जोशान संतानांचें सैन्य तांच्या आंगार पडलें आनी तांचे फाटीक लागलें. यवनांक परतें झूज करपाची संदूच मेळ्ळी ना. भागिरथीच्या ल्हारांनी त्या गर्विश्ट, पर्वता सारक्या प्रचंड, मस्त्या हत्टयाक आपल्या वांगडा ओडून व्हेल्लो ते भशेन संतान-सैनीक यवनांक आपल्या व्हांवत्या प्रवाहांत ओडून नश्ट करूंक लागले. यवनांक अशें दिसून आयलें कि फाटल्यान भवानंदाची पांयदळ सेना आसा, फुडल्यान महेंद्राच्यो तोफोच तोफो. आतां ह्या सायबाक आपलो सर्वनाश जातलो म्हणपाचो आपल्या फुडें दिसूंक लागलो.

ह्या वेळार कांयच तिगूंक शकलें ना. सामर्थ्य, धीर, साहस, कुशलताय, प्रशिक्षण, गर्व सगळें व्हांवून गेलें. फौजदारी, पातशाय, अिंग्लेज, देशी परकी, काळे, गोरे सगळे सैनीक मातयेभरवण जांवक लागले. विधर्मयांच्यो पळटणी आपलो जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हणून पळूंक लागल्यो. 'तांकां मारात, मरून उडयात' अशें आडुन जीवानंद, भवानंद आनी धीरानंद विधर्मी सैन्याचे फाटीक लागले. संतानांनी दुस्मानांच्यो तोफो काडून घेतल्यो. कितलेशेच देशी आनी विदेशी सैनीक मरून पडले. आपणालो सर्वनाश जावपाचो वेळ आयिल्लो पळेवन कॅप्टन हेय आनी वॉटसन, हाणीं भवानंदाक असो निरोप धाडलो कि "आमी सगले जाण तुमचे कैदी जावपाक तयार आसांव. आतां आनीक प्राण-हत्या करूं नाकात !" जीवानंदान भवानंदाकडेन पळेलें. भवानंदान मनांतल्या मनांत म्हळें, 'हें कशें जालें ? म्हाका जाल्यार आयज मरपाचें आसा' आनी मागीर हात वयर काडून हरिनामाचो जयघोश करीत भवानंदान उंच आवाजान म्हळें, 'मारात ! मारात !'

आनी मागीर अेकूय मनीस वांचलो ना. निमाणेकडेन अेका जाग्यार 20-30 गोरे सैनीक अेकटांय येवून आनी आत्माहुतीच्या निश्चयान झुजूंक लागले. जीवानंदान म्हळें, "भवानंद, ह्या झुजांत आमचें जैत जालें आतां आनीक झुजपांत कांय अर्थ ना. हे मूठभर लोक सोडल्यार आनीक कोणूच जिवो उरलो ना. हांकां प्राणदान दिवन, चल, आमी परते वचूंया." भवानंदान म्हळें, "जो मेरेन दुस्मानाचो अेक लेगित सैनीक जिवो आसतलो तो मेरेन भवानंद परतो वचचो ना. जीवानंद, तुजो सोपूत घेवन हांव तुका सांगतां कि तूं पयस रावून पळे. हांव अेकलो त्या अिंग्लेजांक सोंपयतां."

कॅप्टन टॉमस हात पांय बांदून घोड्याचे फाटीर पडिल्लो आसलो. भवानंदान आज्ञा दिली, "ताका म्हजेमुखार उबो करात. आदीं तो भामटो मरतलो, मागीरूच हांव मरतलों."

कॅप्टन टॉमसाक बंगाली भास कळटाली. तांची गजाल आयकून, अिंग्लेजांक लेखून ताणें म्हळें, "अिंग्लेजांनो ! हांव जाल्यार काबार जाल्लों आसा. तुमी आतां प्राचीन अिंग्लंडचें नांव राखात. जेझू क्रिस्ताचो तुमकां सोपूत आसा. पयलो ह्हाका मारून उडयात, मागीर त्या बंडवाल्यांची झडटी घेयात."

बंदुकाची सूंऽऽ करून अेक गुळी सुटली. कॅप्टन टॉमसाची मोख धरून अेका आयरिश सैनीकान ताचेर तीर करून गुळी सोडिल्ली. गुळी ताच्या काळजांत भितर सल्ली आनी तो अकत्ताक मेलो.

भवानंदान उलो मारून सांगलें, "म्हजें ब्रह्मास्त्र व्यर्थ जाल्लें आसा. असो कोण अर्जुन, भीम, नकुल, सहदेव हांगा आसत जो ह्या वेळार म्हजी राखण करीत ? थंय पळे, बाणांनी घायाळ जाल्ल्यां वाघां भशेन गोरे शिपायक म्हजेर हल्लो करूंक सोदतात ! हांव मरपाकूच म्हणून आयलां. म्हज्या वांगडा मरूंक अितिसल्लो आसा कोण संतान, कोय ?"

पयलो धीरानंद फुडें सल्लो. ताचे फाटल्यान जीवानंद. तांचे वांगडा पंदरा, मागीर वीस आनी मागीर पन्नास संतान फुडें आयले. धीरानंदाक पळेवन जीवानंदान विचाल्लें "कितें, तूंवूय आमचे वांगडा मरूंक आयला ?"

धीरानंद : मरपांत कोणाचें मक्तेदारपण आसा काय कितें ? अशें म्हणत आसतनांच ताणें अेका गोऱ्या सैनीकाक घायाळ केलो.

भवानंद : पुण तूं मेल्यार बायल-भुरग्यांचीं तोंडा पळेत उरिल्लें आयुष्य सुखांत सारपाक तुज्यान जांवचें ना.

धीरानंद : कालच्या त्या प्रसंगाक लेखून तूं हें उलयता काय कितें ? अजूनूय तुज्या ध्यानांत तें आयलें ना दिसता ?

(धीरानंदान त्या घायाळ जाल्ल्या गोऱ्याक मारून उडयलो)

भवानंद : ना. (अितल्यान अेका गोऱ्याचे छुरीयेक लागून भवानंदाचो

उजवो हात घायाळ जालो.)

धीरानंद : तुज्या सारक्या पुण्यवान मनशाक तशें सांगपाचें सामर्थ्य म्हज्यांत खंयचें ? हांव सत्यानंदाचो गुप्तचर म्हणून तुजे लागीं आयिल्लों.

भवानंद : कितें म्हळें ? महाराजांचो म्हजेर विस्वास ना ? (ह्या वेळार भवानंद दाव्या हातान झुजतालो.) ताची राखण करीत धीरानंदान म्हळें, "जें कल्याणीकडेन तुजें उलोवणें जालें तें ताणीं स्वताच्या कानांनी आयकल्लें खंय !"

भवानंद : तें कशें तर ?

धीरानंद : ते स्वता थंयं आसले. सांबाळून रावात ! (भवानंदाक अेका गोऱ्यान घायाळ केलो.) ते कल्याणीक गीता शिकयताले, अितल्यान तूं थंय पावलो. सांबाळून ! (भवानंदाचो दावो हातूय गळून पडलो.)

भवानंद : म्हज्या मरणाची खबर तूं तांकां वचून सांग, हांव विस्वासघातकी नाशिल्लों म्हणपाचेंय तांकां सांग.

धीरानंद दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी झुजतना म्हणटालो "तांकां ती सगळी खबर आसा. कालचे राती ताणी उचारिल्लें आशीरवचन, तुका उगडास आसा ताचो, त्या भायर ताणी म्हाका अशेंय सांगलां कि 'तूं भवानंदा लागीं राव, तो आयज मरण स्विकारतलो. मरणाच्या वेळार ताका सांग, हांव ताका आशिर्वाद दितां, मरून ताका वैकुंठ फावो जातलें."

भवानंदान म्हळें, "संतानांचें जैत जांवक जाय, भावा. मरच्या वेळार आनीक अेक फावटीं 'वंदे मातरम्' म्हणून दाखय."

हें आयकून झुजतल्या सगल्यां संतानांनी व्हडल्या उल्लासान 'वंदे मातरम्' म्हणपाक सुरू केलें. तेन्ना तांच्या भुजां-हातांक दुपटें नेट चडलो. त्याच आवेगान ताणी बाकीच्या गोऱ्या लोकांक मारून उडयले. मैदानाचेर कोण अेक दुस्मान उरलो ना.

त्याच वेळार भवानंदान 'वंदे मातरम्' गायत गायत आनी मनांतल्या मनांत विष्णूच्या चरणांचें ध्यान करीत प्राण सोडलो.

हाय ! बायलेच्या रूप-लावण्या, इहलोकांत तुजो धिक्कार जांव !

## 12

झुजा-मळार जैत जोडून घेतल्या उपरांत, सगले संतान वीर अजय म्हूणचे देगेर सत्यानंदांक मदीं घालून आपणाले जैताचो उत्सव करपाक लागले. पुण त्या वेळार सत्यानंद भवानंदाच्या मरणाक लागून सामके उदास, दुखेस्त जाल्ले.

ह्या वेळा मेरेन वैष्णवांचे सेनेंत झुजामळावेळीं व्हडलीशीं वाजंत्रां नासलीं.

आतां, खंयच्यान कोण जाणा, हजारांनी धोल-ताशे, नगारे, रोमटां, रणशिंगां आदी रणवाद्यां थंय अेकटांय आयिल्लीं. त्या जैताची खोशी मनयतल्या वाद्यांच्या सुरांनी सगळें रान, मैदान आनी न्हंयो गाजूंक लागल्यो. हो बोवाळ कितलोसोच वेळ असोच चल्लो. ताच्या उपरांत, सत्यानंदानी म्हळें, "जगदीश्वराचे कृपेन संतान धर्माचें जैत जालें. पुण अेक काम अजून करपाचें उल्लां. ज्या लोकांक आमच्या वांगडा खोशये-उत्सव करपाक जमलें ना, जाणीं ह्या आमच्या उत्सवा पासत आपलो जीव दिलो-तांकां आमीं विसरूंक फावना. जे झुजांत मोटो वांटो उवारून झुजामळार बळी पडले, तांचो आमी अंत्य-संस्कार करूंया. चड करून महात्मा भवानंदांचो अंत्य-संस्कार आमीं मोटया थाटामाटान करूंक जाय. आमीं हें झूज जिखचें म्हणून ताणें आपलो जीव दिलो." संतानांनी 'वंदे मातरम्' म्हणपाक सुरू केलें आनी झुजांत मरून पडिल्ल्या वीरांचो अंत्यसंस्कार करपाक ते फुडें सरले. ताणी रानांतल्यान चंदनाचें लाकूड अेकटांय केलें आनी तें भवान्दाची सारी रचली. मागीर त्या सरणार भवानंदाचें मडें दवरून ताणी अग्नी दिलो ; आनी सारी भोंवतणी प्रदक्षिणा घालीत सगले 'हरे मुरारे' गीत गावूंक लागले. हे संतान विष्णूचें भक्त आसले, पुण वैष्णव संप्रदायाचे नाशिल्ले. ते प्रेतांचेर अग्नी-संस्कार करताले.

मागीर, त्या रानांत, सत्यानंद, जीवानंद, महेंद्र, नवीनानंद आनी धीरानंद, हे पांचूच जाण उरले आनी आपले मदीं गजाली करूंक लागले. सत्यानंदानी सांगलें, "आयज मेरेन ज्या कामा खातीर आमीं आमचें सगले सोडून दिल्लें, तें आतां सुफळ रीतीन पुराय जालें. ह्या प्रदेसांत आतां यवन सेना उरली ना. जे तांचे थोडे शिपायक शिल्लक आसात ते आमच्या मुखार अेक खीण लेगित झुजूंक शकचे नांत. आतां तुमचें कितें मत आसा, व्हय ?

जीवानंदान जाप दिली, "चलात, आतांच वचून राजधानीचेर घुरी घालून ती आमच्या ताब्यांत घेंवया."

सत्यानंद : म्हजेंय तेंच मत आसा.

धीरानंद : पुण ते पासत जाय तितलें सैन्य आमचे कडेन खंय आसा ?

सत्यानंद : हें आमचे लागीं आसा तें ?

धीरानंद : कोण आसा ? कोण दिसतात तुमकां ?

जीवानंद : हांगा थंय ते विसव घेत आसतले. धोल वडयलो म्हणटकूच सगले अेकटांय येतले.

धीरानंद : तांतलो अेकलोय येंवचो ना, पळेयात.

सत्यानंद : कित्याक ?

धीरानंद : सगले लूट मारपाक भायर सरल्यात. सगलो गांव ह्या वेळार राखणे विरयत आसात. मुसलमानांचे गांव आनी रेसमाच्यो वखारी लुटून पुसून काडून ते संतान घरा धांवतले. आतां ह्या वेळार तुमकां कोणूच सोडून मेळचो

ना. हांव येदोळ सोद करचे खातीर वचून आयलों.

सत्यानंद सामके निर्शेणींत बुडले. ताणी म्हळें, "कितेंय जांव, ह्या प्रदेसाचेर तरी आमचो अधिकार बशिल्लो आसा. आमचे लागीं स्पर्धा करी सारको असो कोणूच ह्या भागांत उरलो ना. देखून हे वरेंद्र भूंयेचेर आमच्या संतानांचें राज्य थापलें म्हणपाची घोषणा करात. प्रजे लागच्यान कर वसुल करूंक लागात आनी राजपाठनाचेर आक्रमण करचे खातीर सैन्य अेकटांय करात. हिंदूंचें राज्य थापलें म्हणून कळटकूच चडशे सैनीक आमचो संतानाचो बावटो उबयतले."

हें आयकतनांच ज़ीवानंद आनी हेरांनी सत्यानंदाक प्रणाम करून म्हळें, "महाराज, तुमची आज्ञा आसल्यार तुमचें शिवासन हांगाच थापून घेवूं."

सत्यानंदान आपल्या आयुष्यांत पयलेच फावट क्रोध उग्तेपणी दाखोवन दिलो. ताणें म्हळें, "म्हाका तुमी लोक फकत अेक रीतें मातये-आयदन म्हणून समजले काय कितें ? आमच्यां मदलो कोण अेक राजा न्हय, आमीं सगले संन्याशी, हें विसरूं नाकात. ह्या वेळार ह्या देसाचो राजा स्वता वैकुंठनाथ जावन आसा. शाराचेर अधिकार जोडल्या उपरांत तुमकां खोशी आसा ताच्या माथ्यार तुमी मुकुट घालात. पुण हें जाणा जायात आनी घट्ट लक्षांत धरात कि हांव ह्या ब्रह्मचार्या भायर दुसरें खंयचेंच आश्रम मानून घेंवचो ना. आतां तुमी तुमकां वांटून थारायल्ल्या कामां खातीर चलूंक लागात."

चौगांयनी सत्यानंदाक प्रणाम केलो आनी ते उठून उबे रावले. सत्यानंदानी हेरांक कळचें न्हय ते भाशेन महेंद्राक राव म्हणपाची कुरू वेली. तिगूय जाण चलूंक लागले. महेंद्र थांबलो. सत्यानंदान महेंद्राक सांगलें, "तुमी लोकांनी विष्णू मंदिरांत सोपूत घेवून संतानधर्म ग्रहण केल्लो. भवानंद आनी जीवानंद, ह्या दोगांयनी आपली प्रतिज्ञा मोडली. भवानंदान जाल्यार आयज दिल्ल्या प्राणा वरवी तिचें प्राचीत केलें. म्हाका अेके गजालीची सदांच भिरांत दिसता कि अेकाध्या दिसा जीवानंद लेगित आपल्या प्राणाचो त्याग करीत. पुण अेकूच भरवंसो दिसता, अेका गूढ कारणाक लागून, आतांच तो मरूंक शकचोना. तुवें अेकल्यानूच तुजी प्रतिज्ञा पाळ्ळया. जो मेरेन संतानांचें व्रत पुराय पाळून जांवचें ना तो मेरेन तूं बायल-धुवेचें तोंड पळेंवचो ना. आतां तें व्रत पुराय जाल्लें आसा. देखून तुका जाय जाल्यार तुज्यान परतो घर-ग्रहस्थी जांव येता."

हें आयकना फुडें महेंद्राच्या दोळयांतल्यान दुकांच्यो धारो व्हांवूंक लागल्यो. ताणें म्हळें, "महाराज, घर-ग्रहस्थी कोणाच्या सांगातान करूं? म्हजे घरकान्नीन तर आत्महत्त्या करून उडयली आनी भुरगें खंय आसा काय म्हळचार म्हाका कांयअेक खबर ना. हांव तिका खंय सोदूं ? तुमी म्हाका कळयलां कि ती जीवी आसा. अितलेंच हांव जाणा. ताचे परस चड हांव कांयअेक नकळों."

हें आयकून सत्यानंदांन नवीनानंदाक उलो करून आपयलो. तो आयल्या उपरांत ताणे महेंद्राक सांगलें, "हो नवीनानंद, भोव पवित्र आनी म्हजो मोगाळ शिष्य. होच तुमकां तुमगेल्या भुरग्याचे सोदीक व्हरतलो."

अशें म्हणून सत्यानंदांन शांतीक कितें तरी कुरू केली. शांती समजली. तांकां प्रणाम करून ती वचूंक लागली तेन्ना महेंद्रान तिचे लागीं विचारलें, "तुका खंय मेळचेलें?"

शांतीन जाप दिली, "म्हज्या आश्रमांत येयात." अितलें उलोवन ती चलूंक लागली.

मागीर महेंद्रान ब्रह्मचारीजींच्या पांयांक स्पर्श करून तांचो निरोप घेतलो आनी शांती वांगडा तो तिच्या आश्रमांत गेलो. ह्या वेळार बरीच रात जाल्ली तरी आसतना अिल्लोय विसव घेनासतना ती शाराकडेन वचपाक भायर सरली.

सगले भायर सरून गेल्या उपरांत ब्रह्मचारी अेकलेच उरले. ताणी भूमीक प्रणाम करून जमनीचेर मस्तक तेंकयलें आनी ते मनोमनांत जगदीश्वराचें ध्यान करूंक लागले. रात सांपून ल्हवू ल्हवू फांतोड उदेली. अश्या वेळार थंय कोण तरी पावलो आनी ताच्या मस्तकाक हात लावून म्हणूंक लागलो, "हांव आयलों."

ब्रह्मचारी अजापभरीत जाले. व्याकूळ जावन ताणी विचारलें, "आयले? कित्याखातीर?" जो आयिल्लो ताणें म्हळें, "दीस भरले." ब्रह्मचारीन जाप दिली, "हे प्रभू, आयज म्हाका क्षमा करात. फुडल्या मात्र पौर्णिमेच्या दिसा हांव तुमची आज्ञा पाळटलों."



# चोवथें खंड

## 1

ते राती, हरीनामाच्या जयघोषान ती भूंय घुंवघुंवली. संतान सैनीक चोंब्यां-चोंब्यांनी, पंगडां-वांगडांनी 'वंदे मातरम्' वा 'जय जगदीश हरे' हीं गीतां गायत हेवटेन-तेवटेन हेडत भोंवूक लागले. जशें तांच्या मनांत आयलें तशें ते दुस्मानांच्या सैनीकांच्या आंगा-खांदचा केलीं वस्त्रां फरफरीत ओडूंक लागले वा तांचीं शस्त्रां काडून घेंवक लागले. कांय जाण दुस्मानांच्या मडयांचेर खोंटो मारूंक लागले जाल्यार कोण आनीक कसले तरी हाल-उपद्रेकश्ट भोगोंवक लागले. कोण गांवाकडेन जाल्यार कोण शारा कडेन वचूंक लागले. वाटेंन कोणूय वाटसूर वा गृहस्थ दिसल्यार ताका ते वेंठीक धरताले आनी म्हणटाले, "'वंदे मातरम्' म्हण ना जाल्यार तुका मारून उडयतां." कांय जाण मिठाये पसरे लुटून तांतल्यो वस्तू खावंक लागले, जाल्यार कोण गंवळयांच्या घरांनी रीगून तांचीं दूद-धंयांचीं आयदनां-मडकुलां तोंडाक लावंक लागले.

ते म्हणूंक लागले, 'आमी सगले ब्रजदेसांतले गोपाळ आयिल्ले आसांव, गोपी खंय आसात?' ह्या एका रातयांत गांवां गांवांनी, नगर शारांनी बोवाळ जावन उठलो. सगलेजाण म्हणूंक लागले, "मुसलमानांचो पराभव जालो. देस परतो हिंदूंचो जालो. सगलेजाण मेळून मेकळया ताळयान हरिनामाचो जयघोष करूंया." मुसलमानाचेर नदर पडना फुडें गांवचे लोक तांकां मारूंक धांवताले. कांय लोक जाल्यार रातयांत मुसलमानांच्या मोहल्ल्यांनी उजो घालून तांचीं घरां लुटूंक लागले. कितल्यायाच मुसलमानांक मारून उडयल्ले. जायत्या मुसलमानांनी खाड तासून काडून चंदन लायलें. राम-नाम घेवंक लागले. आपणाक हिन्दू म्हणपाक लागले.

गांवांतले मुसलमान आकांताक सांपडून शारा वटेन धांवूंक लागले. सरकारी-अधिकाऱ्यांची धांवपळ सुरू जाली. जे थोडे-शे शिपायक वांचून उरिल्ले ते सगले शाराचो राखण करचे खातीर एकटांय आयले. शारा भोंवतणी आशिल्ल्या कोटाच्या दर-एका बुरजार शस्त्रां दारू गुळो घेवन पाहरेकार सादूरकायेन उबे रावले. लोक रातभर जागरण करून 'आतां कितें जातलें, कितें गा जातलें' म्हणून हुस्को करूंक लागले. हिन्दू म्हणूंक लागले, "आयले, संन्याशी आयले. येंवदी तांकां. दुर्गा मातेन तशें घडोवन हाडल्यार पुरो. हिन्दूंचे नदरेन तो भाग्याचो दीस उदेवन येंवू दी." मुसलमान म्हणूंक लागलें, "हाय

अल्ला, इतल्या दिसां उपरांत शेवटीं कुराणशरीफ खोटें थालें काय किते ? आमीं तर पांच फावटीं नमाज पढटांव आनी कपळाक गंधाचो टिळो लावपी ह्या हिन्दूंचो पराभव करूंक आमचे लागीं कशें घडलें ना ? जग म्हळ्यार खऱ्यानीच मिथ्या जावन आसा." अश्यो खबरो करीत कोण हांसताले, कोण रडटाले आनी 'कितें तरी घडून येवपाचें आसा' म्हणून वाट पळेत रातचें जागरण करीत आसले.

ही गजाल कल्याणीच्या काना मेरेन पावली ; कोणाकडल्यान कांयच लिपून उरलें ना. कल्याणी मनांतल्या मनांत उलयली, 'जंय जगदीश्वर ! आयज तुगेलो वावर पुराय जालो. आयज हांव म्हज्या घोवा लागीं वेतलीं. हे देवा, म्हाका आदार दी.'

खोल मदयान रातयांत कल्याणी हातुर्णावेल्यान उठली आनी तिणे फाटल्या दाराकडेन वचून दार उगडलें, आनी उपरांत हेवटेन तेवटेन पळेवन घेतलें. थंय कोणूच दिसलो ना देखून ती ल्हवूच घरा भायर वचून रायरस्त्यार आयली. तिणें मनांतल्या मनांत इश्ट-देवतेचें स्मरण केलें आनी म्हळें, 'परमेश्वरा, आयज पदचिन्हांत तांची भेट जाल्यार पुरो म्हणून तूं म्हाका आशिर्वाद दी.'

कल्याणी शाराच्या कॉटा दारवंटचा कडेन वचून पावली. थय आशिल्ल्या पाहरेकारान तिका पळेवन तापून विचारलें, 'कोण वेता थंय ?' कल्याणीन भियेत भियेत सांगलें, 'हांव एक बायल-मनीस, सायबा.' पाहरेकारान सांगलें, 'भायर वचपाचो हुकूम ना.' ताचें उलोवप आयकून जमादारान म्हळें, "भायर वचपाचेर मनाय ना. पुण भितर येवपाचेर बंदी घाल्ली आसा. आयची रात वैऱ्याची संकेश्टाची रात जावन आसा. सांगूंक जायना कितें जातलें तें ! तूं खंयच्याय डाकॅटाच्या हातांत पडशी ना जाल्यार खंयच्याय खड्डयांत पडून तूं मरून वेतली म्हणपाचें सांगूंक जायना. आयचे रातीं तूं भायर वचना जाल्यार बरें जातलें."

कल्याणीन सांगलें, 'हांव तर भिकारी, बाबा. म्हजे लागीं एक दमडी ना. देखून दरवडेकार म्हाका हात लांवचे नांत.'

पाहरेकारान सांगलें, 'कांयच न्हय जाल्यार, तुजी पिराय ध्यानांत घेवंक जाय. तूं तरणी आसा आनी हीच गजाल संवसारांत तर भांगरावस्ती सारकी मोलदीक जावन आसा. ते दवलती पासत आमी लेगीत डॉकैट जांवक शकतात.'

कल्याणीन पळेलें कि ही मोटीच आडखळ जावन आसा. ती कांयएक जाप दिनासतना, तोंड धांपून ल्हवूच दारवंटचांतल्यान भायर सरून गेली. पाहरेकारांक दिसलें कि ताणीं सांगिल्लें तें ती समजली ना. कष्टी जावन ताणीं गांज्याचे एक

दोन झुरके मारले आनी झिंझोटी समाज रागान सोरीचो टप्पो गावपाक सुरू केलो. कल्याणी पैशिल्ल्यान चालीख लागली.

ते राती, रस्त्यांचेर गर्दी आसली. खंय 'मारात, मारात' म्हणून बोबाट आयकूं येताली जाल्यार खंय 'धांवात, पळून वचात' म्हणून आवाज कानार पडटालो. कोण रडटालो जाल्यार कोण हांसतालो. जो तो अेकामेकाक धरूंक धांवतालो. कल्याणी मोटचा त्रासांत पडिल्ली. मार्गाची तिका कांयच खबर नाशिल्ली. कोणाक विचारतली म्हळचार सोय नासली. सगलेच झगडूंक सोदताले. लिपत लिपत काळखाचो आसरो घेवंन चलचें पडटालें. अशे रितीन लिपून, आडसाक रावून वेतासतना, ती बंडवाल्यांच्या अेका पंगडाक सांपडली. आड्डत दोग-तीग जाणा तिचे फाटीक लागले. तांतल्या अेकल्यान निमाणेकडेन तिचो पालव धरलो आनी म्हळें 'म्हज्या चंद्रीमा !'

सामक्या ह्याच वेळार अवचित आनीक अेकजाण थंय पावलो आनी ताणें त्या डाकुचेर लाटीचो अेक धपको मारलो. तो घायाळ जावन फाटीं वळ्ळो. त्या नव्या आयिल्ल्या मनश्याचो वेश संन्याश्याचो आसलो. कृष्णाजीनान तिची छाती धांपिल्ली. तिची शिराय सामकी कोंवळी दिसताली. तिणें कल्याणीक म्हळें, "तूं भियेनाका. म्हज्या वांगडा यो. खंय वचपाचें आसा तुका ?"

कल्याणीन जाप दिली, "पदचिन्ह गांवांत."

संन्याशी अजापान पळेंवक लागलो आनी ताणें विचारलें, "पदचिन्ह ?" मागीर ताणें कल्याणीच्या दोनूय खांदांचेर हात दवरले. आनी त्या काळखांत बारीकसाणीन तिचें तोंड पळेंवक लागलो.

अवचित जाल्ल्या दादल्याच्या स्पर्शान कल्याणी शिरशिरून उठली. भय-भिरांतीन, क्षुद्रतायेन विस्मीत जाली. तिचे दोळे भरून आयले. थंयच्यान पळून वचचें म्हळचार तिका जमचें नासलें. ती भिरांतीन सामकी व्याकूळ जाल्ली. तिजें तोंड पळेवन जाल्या उपरांत संन्याशान म्हळें "हरे मुरारे ! हांव तुका आतां वळखलों. तूं कल्याणी ?"

कल्याणीन भियेवन विचारलें, "तुमी कोण ?"

हें आयकून ते व्यक्तीन म्हळें, "हांव तुजो दासांचो-दास - सुन्दरी, म्हजेर प्रसन्न जा."

कल्याणी सट्ट करून कुशीन सरली आनी रागान उसळ्ळी, "म्हजो अपमान करचे खातीर म्हजो जीव तुवें वाटायला काय किते ? वेश तर ब्रह्मचारीचो दिसता पुण असलो तुजो धर्म ? हांव जाल्यार आयज आदार नाशिल्ली जावन आसां ; ना जाल्यार तुज्या तोंडार खोंट मारतलीं आसलीं."

ब्रह्मचारीन म्हळें, "आगे म्हजे हांसमुखे ! हांव कितलेशेच दीस जाले तुज्या ह्या सोबीत शरिराचो स्पर्श म्हाका लाबचो म्हणून आंवडेतालों." आनी

तिका धांवन वचून धरली आनी घट्ट वेंग मारली. तेन्ना कल्याणी खदखदून हांसली आनी म्हणूंक लागली, "आरेच्या ! उजो लाय म्हज्या लक्षणाक, तूंय म्हजे पारकीच आसा, हें आदींच म्हाका कित्याक सांगलें ना ?"

शांतीन विचारलें, "तूं महेंद्राक सोडूंक भायर सरलां दिसता ?"

कल्याणीन अजापान म्हळें, "तूं कोण ? तुका सगळी खबर आसा अशें दिसता."

शांतीन जाप दिली, "हांव ब्रह्मचारी, संतान-सेनेचो सेनापती – वीर पुरूष. हांव सगळें जाणां. आयज संतान आनी सैनीक हाणीं चलयल्ल्यां झगडयां-झुजांक लागून तुका पदचिन्ह गांवाकडेन वचूंक मेळचें ना."

हें आयकना फुडें कल्याणी रडूंक लागली.

शांतीन तिचे दोळे पुसून म्हळें, "भिरांत कसली ? आमीं तर दोळयां-बाणांनी हजारां दुस्मानांचो विभाड करून उडयतांव. चल तर, आमीं पदचिन्हा कडेन वचूंया."

येदे व्हड बुद्धिमान बायलेचो आदार मेळिल्ल्यान कल्याणीचे हात जशे किते सर्गार पाविल्ले. तिणें म्हळें, "तूं म्हाका जंय घेवन वेता थंय हांव वेतलीं."

हाच्या उपरांत, तिका घेवन शांती रानांतले वाटेन चलूंक लागली.

## 2

शांती जेन्ना आपलो आश्रम सोडून सुमार सदयान राती शाराकडेन वचपाक भायर सरिल्ली तेन्ना जीवानंद आश्रमांतुच आसलो. जीवानंदाक तिणें म्हणिल्लें, "हांव शारांत वेतां. कल्याणीक घेवन परततलीं, महेंद्रांचे बायलेक. तुमी महेंद्रांक सांगून दियात कि तांची बायल जिवी आसा."

जीवानंदाक भवानंदाकडल्यान कल्याणीचो प्राण कसो वांचोवन हाडलो ती सगली खबर कळून आयिल्ली. आनी सगलेकडेन हेडत भोंवतले शांती लागच्यान कल्याणी सध्या खंय आसा म्हणपाचेंय तणें आयकल्लें. देखून ती सगली खबर जीवानंद महेंद्राक सांगूक पावले.

महेंद्रान जाल्यार सुरवातेक तें खरेंच धरलें ना. पणून निमाणें कडेन आनंदान भरून येवन तो समको भारावन गेलो.

ती रात सोंपून आयली आनी दुसऱ्या दिसा फांतें उदेलें, आनी शांतीच्या आदारान कल्याणीची महेंद्रा लागीं भेट घडून आयली. त्या निस्तब्ध रानांत, दाट शालरुखा पोंदचे काळखे सांवळेंत मुकर्णा-सवणीं जागी जांवचे आदीं दोगांयची भेट जाली. दोगांयचे भेटे साक्षी फकत निळयां मळबावेलीं मंद-उजवाडाचीं

नखत्रां आनी थीर उबे आशिल्ले अनंत, निष्कंप शाल रूख. पैशिल्ल्यान खंयचे तरी न्हंयेचें झुळझुळीत पाणीं व्हांवता तें आयकूंक येतालें. फातरां खडपांचेर आदळून आपटिल्ल्यान खळखळीत उसळून उमळून येतली उदका धार अशीर जाल्ली असली. खंयच्यान तरी उदेतेच्यान वयर आयिल्ल्या वान्याच्या मुकुट-ज्योती या दर्शनान आल्हादीत जाल्ल्या कोगुळाचो मधूर स्वर कानार येवंक पडटालो.

ल्हवू ल्हवू दिसाचो पयलो पार सोंपलो, आनी शांती आनी जीवानंद थंय पावलीं. कल्याणीन शांतीक म्हळें, "तुमीं आमकां दुडवां विणें विकतीं घेतलीं. आतां आमच्या भुरग्या चो पत्तो सांगून हो उपकार पुराय करात."

जीवानंदाच्या तोंडाकडेन पळोवन शांतीन म्हळें, "आतां म्हाका न्हिदपाक जाय. गेले आठ पार हांव उबींच आसां. दोन राती म्हाका न्हीद लागली ना. हांव पुरूष !"

कल्याणी मातशी हांसली. महेंद्राक पळेवन जीवानंदान म्हळें, "हो भार म्हजेर आसा. तुमी लोक पदचिन्ह गांवांत वचात, भुरगें तुमकां थंयच मेळटलें.

जीवानंद त्या भुरग्याक हाडचे खातीर निमाईच्या घरा गेलो. तें काम तितलें सोपें नासलें.

निमाईन पयलीं आंवडो गिळ्ळो ती आनी तोंड धांपून वोगी रावली. मागीर ती हेवटेन तेवटेन पळेंवक लागली. आनी मागीर हुडके हुंडकेत रडूंक लागली. तेन्ना जीवानंदान म्हळें, "तूं रडटा कित्याक ? भुरगें तर चड पयस वचना. जेन्ना तुज्या मनांत येतले तेन्ना तुज्यान तांच्या घरा वचून पळेंवन येता ;

निमाईन आपले पोले फुगयले ; आनी म्हळें, " भुरगें तुमचेंच आसा. ताका तुमी घेवन वचात ? म्हजें कितें ?" अितलें उलोवन निमायन ते सुकुमारीक हाडून रागान जीवानंदाच्यां सामकार धपाकरून उडयली ; आनी आपुण जमनीचेर बसून पांय पातळून रडूक लागली. तेन्ना जीवानंदान तो विशय थंयच सोडलो ; आनी हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो गजाली करपाक सुरवात केली. पुण ताका लागून निमाईचो राग न्हिवलो ना. निमाजेकडेन ती उठली आनी सुकुमारीचे कपडे खेळणींवस्ती सगळयो हाडून जीवानंदा मुखार शेवटून मारूंक लागली. सुकुमारी बाबडी आपुण त्यो वस्तू अकटांय करून सारक्यो मांडूंक लागली. ती निमाईक विचारूंक लागली, " आई, खंय वचचेले गे ?" निमाईच्यान हें सगळें सोंसूंक जायना जालें. ती सुकुमारीक वोंटयेंत घेवून रडत रडत थंयच्यान गेली.

## 3

पदचिन्ह गांवांत उबारिल्ल्या नव्या कोटांत आयज महेंद्र, कल्याणी,

जीवानंद, शांती, निमाई, निमाईचो घोव, सुकुमरी, हीं सगळीं एकटांय जाल्लीं. पुण शांती मात अजून नवीनंदाच्या भेसांत आसली. जे राती तिणें कल्याणीक आपणाल्या आश्रमांत व्हेल्ली, तेच राती तिका सांगून दवरिल्लें कि नवीनानंद, हीं वायल असा म्हणपाची गजाल तिणें आपल्या घोवाक सांगची न्हय. एका दिसा कल्याणीन नवीनानंदाक आपले कुडींत भितर येवपाचें आपोवणें दिल्लें. देखून नवीनानंद थंय आसलो. नौकरांनी ताका आडायलो; पुण ताणें तांचें कांय आयकलें ना.

शांतींन भितर वचून कल्याणीकडेन विचाल्लें, "कित्याक आपोंवक धाडिल्लें ?"

कल्याणीन विचारलें, "शेवटीं ह्या पुरूषवेशांत तूं कितलो तेंप म्हणून रावतली ? आमीं दोगांय मेकळेपणीं एकामेकांक भेटूंक शकनांत, उलोंवक मेळना. आतां तुका म्हज्या घोवा सामकार प्रगट करून दाखोंवची पडटली."

नवीनानंद चिंतेस्त जालो. बरोच वेळ कांयच उलयलो ना. निमाणेकडेन ताणें म्हळें, तांतूंत साबार अडचणी आसात, कल्याणी !"

त्यो दोगूय ह्या विशया संबंदान उलोंवक लागल्यो. हेवटेन ज्या नौकरांनी नवीनानंदाक भितल्ले कुडींत वचपाचो आडायल्लो ताणीं महेंद्राक वचून सांगलें कि 'नवीनानंद जबरदस्तीन भितल्ले कुडींत गेला ; आमी ताका आडायलो पुण ताणें कशेंच आयकले ना' ! महेंद्राक कुतूहल दिसलें आनी तो कल्याणीचे भितल्ले न्हिदच्या कुडांत गेलो. पळे जाल्यार, थंय नवीनानंद उबो आशिल्लो आनी कल्याणी ताच्या आंगार हात दवरून व्याघ्रांबराची गांठ सोडीत आसली. हें पळेवन महेंद्राक अजाप जालें आनी भंयकर राग आयलो.

नवीनानंद ताका पळेवन हांसलो आनी हांसत म्हळें, "कितें, गोसाव्या, संतानांचेरूय तुजो दुबाव आसा ?"

महेंद्रान जाप दिली, "भवानंद ठाकुर विस्वाशी आशिल्ले?"

नवीनानंदान दोळे फाटीं वळून म्हळें, "कल्याणीन भवानंदाच्या आंगाक हात लावन व्याघ्रांबराची गांठ केन्ना सोडिल्ली काय कितें?" अशें म्हणून शांतीन कल्याणीचो हात दांमून धल्लो. तिका व्याघ्रांबर सोडूंक दिलें ना.

महेंद्रान म्हळें, "तें आंगावेलें काडीना जाल्यार कितें जातलें, व्हय ?"

नवीनानंद : तुमी म्हजेर अविस्वास दाखयल्यार जाता, पुण कल्याणीचेर अविस्वास कसो ?

आतां जाल्यार महेंद्र सामको गोंदळून गेल्लो. ताणें म्हळें, "हांवें तिचे विशीं खंय अविस्वास दाखयला ?"

नवीनानंद : अविस्वास दाखयलो ना जाल्यार अशे म्हजे फाटीं फाटीं तुमी कित्याक आयल्यात तर ?

महेंद्र : कल्याणीकडेन कितें तरी गरजेचें उलोवपाचें आसलें. देखून हांगा आयिल्लों हांव.

नवीनानंद : तशें जाल्यार, आतां वचात तर. म्हाकाय कांय गजाली उलोवपाच्यो आसात. तुमी वचात, पयलीं हांव म्हजी गजाल सोपयतां. तुमचें तर घर हें -- तुमी हांगा सदां येवूंक शकतात. हांव तर मोटे मुष्किलेन अेकदां आयलां.

महेंद्राक पिंजरयांत काडिल्ले भशेन जालें. ताका कांयच समजना जालें. ताचें उलोवप तर अपराध्याचें अशें दिसनासलें. कल्याणीची वागणुकूय विचित्र आसली. ती व्यभिचारी बायले वरी पळून गेल्ली नासली आनी लजेनूय पडूंक नासली. परती जाल्यार ती भितल्ल्या भितर हांसताली. त्या भायर जे कल्याणीन त्या रूख्या पोंदा अितले सहजतायेन वीख खावन उडयल्लें ती अपराधी आसूंक शकताली, व्हय ? महेंद्राच्या मनांत हे असले विचार घोळटाले त्या वेळार शांतीन महेंद्राची अवस्था पळेवन मुमुरखींच हांसत कल्याणीकडेन अेक चंचल कटाक्ष मारलो. तेन्ना सगळो काळोख पयसावन गेलो.

महेंद्रान पळेलें कि हो रमणीचो कटाक्ष. तेन्ना धाडस करून ताणें नवीनानंदाच्या खाडाक हात घालो आनी तें सट्ट करून ओडलें. अडेच्यो तिच्यो खाड-मिरयो सोंपिपणी ताच्या हातांत आयल्यो. त्याच वेळार संद सादून कल्याणीन तिच्या व्याघ्रबराची गांठ सोडून उडयली. व्याघ्रबरूय गळून पडलें.

तेन्ना महेंद्रान शांतीक विचारलें, "तूं कोण ?"

शांतीन सांगलें, "श्रीमान नवीनानंद गोस्वामी."

महेंद्र : तूं निखट्टीं फटोगपणां. तूं बायल, व्हय?

शांती : आतां आसां.

महेंद्र : तशें जाल्यार, हें सांग पळेंवया. तूं बायल आसून सदां जीवानंदाच्या सांगातान कित्याक रावता ?

शांती : तुमकां हें सांगची ना हांव.

महेंद्र : तूं बायल म्हणपाची जीवानंदाक खबर आसा, व्हय ?

शांती : हय तर.

हें आयकून महेंद्र दाबडो नितळ काळजाचो मनीस, सामको उदास जालो. ही ताची आवस्थाकाय कल्याणीचे नदरेंत भरली आनी तिच्यान सांवरूं नज जालें. तिणें म्हळें, "ही जीवानंद गोस्वामीची धर्मपत्नी, शांती देवी !"

अेक खिणभर महेंद्राचो चेरो उजळून आयिल्ले भशेन फुल्लो. पुण रोखडेंच ताचेर सांवळी पडिल्ले भशेन जाली. कल्याणीक तें समजलें. तिणें म्हळें, "ही ब्रह्मचारीण आसा."

## 4

उत्तर बंगाल मुसलमानांच्या चपक्यांतल्यान सुटून आयिल्लें. पुण खंयचोच मुसलमान हें मान्य करपाक तयार नाशिल्लो. ते आपल्याच मनाक फटयताले. ते म्हणटाले, "खंयच्या तरी लुटेऱ्यांनी हो गोंदळ मातयला. आमीं तर तांकां बरें प्रशासन दीत आसांव." ही परिस्थिती अजून कितलो काळ चलतली आसली तें कोणाच्यानूच सांगूं नज आसलें. पुण ह्याच काळार देवाचे येवजणेन वॉरेन हॅस्टिंग्स कलकत्त्याक गवर्नर-जेनरल आसले. पुण ते स्वता आपल्याक भ्रमांत दवरपी मनीस नासले. तशें आशिल्लें जाल्यार आयज भारतांत इंग्लेजांचें साम्राज्य खंय आसतलें आसलें ? अशें आसून, आनीक वेळ वगडायनासतना संतानांक चेपून उडोंवचे खातीर म्हणून, मेजर एडवर्डस नांवाचो दुसरो सेनापती नवें सैन्य घेवन थंय रूजू जालो.

एडवर्डसान पळेलें कि हें येवरोपी पद्धतीचें झूज नासलें. दुस्मानाकडेन एक संघटीत अशें सैन्य नासलें. तांच्या हातांत एक लेगित शार नासलें, तांची राजधानी अशी कांय नासली, तांचें कॉट अशें दिसनासलें. पुण तरी आसतना तांच्या ताब्यांत सगळें-सगट आसाशें दिसतालें. ज्या दिसा, जे सुवातेर ब्रिटिश फौजी आसतालो, त्या दिसापुरती ती सुवात तांच्या ताब्यांत आसताली. दुसरे दिसा, ब्रिटीश सैन्य थंयच्यान उठून गेलें म्हणटकीर चोंयवशीं 'वंदे मातरम्' गीत आयकूं येतालें. एका रातयांत मुंया भशेन अितले लोक खयच्यान भायर सरतात, तें सायबांच्या ध्यानांत येनाशिल्लें, आनी ज्या गांवांनी ब्रिटिशांची सत्ता मान्य केल्ली आसली ते गांव ते लासून उडयताले, वा ब्रिटिश सैनीकांचे ल्हान पंगड आदळ्ळ्यार तांकां देखना फुडें नश्ट करून उडयताले. निमाणेकडेन सोद घेतकीर सायबांक अशें कळून आयलें कि ह्या लोकांनी पदचिन्हांत आपलें कॉट बांदलां आनी थंय ताणी आपलीं शस्त्रां आनी धन-दवलत एकटांय हाडून सांठो केल्लो आसा. देखून तें कॉट आपल्या ताब्यांत घेवपाकूच जाय म्हणपाचें सायबान थारायलें.

पदचिन्ह गांवांत कितले संतान आसतले काय म्हणपाची म्हायती ताणीं आपल्या गुप्तचरांकडल्यान मेळोवपाचो प्रयत्न चलयलो. सायबाक जी म्हायती मेळ्ळी ताचेवयल्यान कोटाचेर घुरी घाल्यार शाणपणाचें था चें ना, अशें ताका दिसुन आयलें. मनांतल्या मनांत ताणे एक हिकमतीची मांडणी करची थारायली.

माघ पुनव लागीं आयिल्ली. तांची छावणी जंय आसली तिचे लागसारूच न्हंयेचे देगेर एक जात्रा भरपाची आसली. ह्या वेळची जात्रा खाशेल्या थाटामाटान जावपाची आसली. हरशीं हे जात्रेक लाखांनी लोक एकटांय येतालो. ह्या वर्सा ह्या प्रदेसाचेर वैष्णवांचें राज्य जाल्ल्यान हे जात्रेंत आपलो भपको व्हडल्या

प्रमाणान दाखोवचो म्हणपाचें वैष्णवांनी थारायल्लें. हाका लागून सगळे संतान थंय येतले म्हणपाचो संभव आसलो. मेजर अॅडवर्डसान येवजीलें कि पदचिन्ह गांवची राखण करपी चडशें सैनीक जात्रेक येतले. त्याच वेळार अकस्मात पदचिन्ह गांवचेर घुरी घालून तें कोट हातासचें पडटलें.

असो विचार करून मेजरान अशें जाहीर केलें कि "आमी जात्रेचेर घुरी घालतले. सगळे वैष्णव अेका जाग्यार सांपडिल्लयान अेका दिसा भितर आमी दुस्मानांचो विभाड करून उडयतल्यांव. हांव वैष्णवांची जात्रा भरोंवक दिवचो ना."

ही खबर सगळ्यां गांवां गांवांनी पसरून गेली. ती आयकना फुडें जो जो संतान ज्या ज्या जाग्यार आसलो तो तो रोखड्या-रोखडो सशस्त्र जावन जात्रेचे राखणे खातीर झुजतलो म्हणपाच्या हेतान धांवत गेलो. माघ पुनवेच्या दिसा न्हयेंचे देगेर सगळे संतान अेकटांय येवन जमले. अिंग्लेजांच्या नशीबान महेंद्रय त्या जाळांत शिरकल्ले. ताणे पदचिन्हाच्या कोटांत सामके थोडे सैनीक दवरून, चडशें आपणालें सैन्य आपल्या वांगडा घेतलें आनी ते जात्रेक हाजीर रावपाक म्हणून तो भायर सरलो.

हें सगळें घडून येवचे आदीं शांती आनी जीवानंद पदचिन्हांतल्यान भायर सरून गेल्लीं. तेन्ना झुजाची कांयच सुलूस लागूंक नाशिल्ली. त्या दोगांयक झुजांत कांय रस उरूंक नासलो. माघ पुनवेच्या पवित्र दिसा शुभ म्हुर्ताचेर न्हयेच्या पवित्र पाणयांत प्राण-त्याग करून प्रतिज्ञा-भंग केल्ल्या म्हापातकाचें प्राचीत करपाचें त्या दोगांयनी थारायल्लें आसलें. पुण तेवटेन वेना आसतना वाटेरूच ताणी आयकलें कि जात्रेंत अेकटांय जाल्ल्या संतानां लागीं अिंग्लेज फौजीचें व्हडलें झूज जावपाचें आसा. तेन्ना जीवानंद शांतीक म्हणूं लागलो, "तशें जाल्यार, आमी झुजांतूच मरूंया. बेगीन वच."

तीं वेगान झपझपीत पावलां मारून फुडें गेलीं. तांचो रस्तो अेके उंचाये वेल्यान वेतालो. थंयच्यान तांकां दिश्टी पडलें कि सकयल्या वटेन पयशिल्ल्यान अिंग्लेजांचें अेक शिबीर वा छावणी बसयल्ली आसली. शांतीन ती पळेना फुडें म्हळें, "आतां मरपाच्यो खबरो बंद करात. म्हणात 'वंदे मातरम्'!"

## 5

मागीर ताणीं अेकामेकाच्या कानांत कितें तरी सांगलें. उपरांत जीवानंद रानांत अेके वटेन वचून लिपलो. शांतीय दुसरे वटेन लिपली. आनी अेक गूढाचें कार्य करपाक तीं तयार जालीं.

शांती मरचे खातीर म्हणून भायर सरिल्ली. पुणून मरच्या वेळार स्त्रीवेश घालून मरचें अशें तिणें थारायिल्लें. महेंद्रान सांगिल्लें तिचो दादल्याचो भेस फटोवपाचो आसलो. देखून मरतना अशेंच फसोवन मरचें म्हळ्यार तिका योग्य दिसनासलें. देखून तिणें आपलो बायलेवेश आशिल्लो बेताचो पेटारो आपल्या सांगातान हाडिल्लो. त्या पेटाऱ्यांत तिचें सगळें सामान आशिल्लें. आतां नवीनानंदान तो पेटारो उगतो केलो आनी ती आपलो वेश बदलूंक लागली.

तिणे कपलाचेर तिकली लायली. त्या काळावेले चालो प्रमाणें तिणें आपल्या चंद्रीमा सारक्या मुखकमळार कोंग-या कोंग-या केंसाच्यो बटो सोडल्यो आनी हातांत सारंगी घेवन अेके वैष्णवीच्या रूपकारान ती अिंग्लेजांचे छावणींत भितर सरली. तिका पळेना फुडें थंयचे दाट काळ्या-किट्ट मिश्यांचे अिंग्लेजां सैनीक सामके पिश्या भशेन जाले. तांतल्या कोणें अेकल्यान तिका टप्पा गावपाक मागलें; कोणें गझल गावपाक फर्मायलें; कोणे राधेविशीं पदां म्हणपाक मागलें जाल्यार कोणें कृष्णाचीं. कोणे तिका तांदूळ हाडून दिले जाल्यार आनीक कोणें दाळ दिली. कोणे तरी मिठाय हाडून दिली. कोणें पैसो दिलो जाल्यार कोणें पावली दिली. वैष्णवीन आपल्या तेजाळ दोळ्यांनी शिबीराचेर बारकायेन नदर मारली आनी मागीर ती चालीक लागली. वेता आसतना, शिपायकांनी विचारलें, 'आतां परती केन्ना येतलें' तिणे जाप दिली, 'सांगूंक जायना म्हज्यान. म्हजें घर हांगाच्यान खूब पयस आसा. शिपायकांनी प्रस्न केलो, "चड पैस आसा ?" तिणें म्हळें, "म्हजें घर पदचिन्ह गांवांत उरता." त्या दिसांनी मेजरसायब पदचिन्हाचीच सोदपूस करीत आसले म्हणपाची अेका शिपायकाक खबर आसली. तो तिका सायबां लागीं घेवन गेलो. मेजरसायबा मुखार पावना फुडें वैष्णवीन गोड हांशें तोंडार खेळोवन तीख नदरेचो कटाक्ष ताचे वसल्यान उडयलो. तो बाण घेवन सायबाची तकली सामकी गिरगिरूंक लागली. मागीर खंजरीचेर थाप मारून ती गांवूंक लागली :

"म्लेच्छनिवहनिधने कलयसि करवालम्"

सायबान विचाल्लें, "बीबी, तुजें घोर खोंय आसा?"

वैष्णवी उलयली, "हांव बीबी न्हय, हांव वैष्णवी. म्हजें घर पदचिन्ह गांवांत आसा."

सायब : Where is that Eadsin - Padsin? थंय अेक घोड आसा?

वैष्णवी : घर, न्हय? थंय जायतीं घरां आसात.

सायब : घर न्हय, घड . . . घड . . .

शांती : हांव समजलीं! तुमी गढ म्हणूंक सोदतात, न्हय?

सायब : येस्, येस्, घड?

शांती : व्हय सायबा, गढ आसा, वरोच व्हडलो गढ.

सायब : कितली लोक आसतली तांतूंत?

शांती : गढांत कितलो लोक आसतलो काय म्हुण विचारता? आसून आसत वीस-पन्नास हजार.

सायब : Nonsense ! अेका घडांत दोन-चार हजार मनश्यांनी रांवूंक जाता? ते सगळे अजून थंयच आसात ? कि थंयच्यान गेले ?

शांती : थंयच्यान भायर खंय वेतले, सायब ?

सायब : जात्रेक गेलेनांत ? तूं केन्ना आयिल्लें थंयच्यान ?

शांती : काल, सायबा.

सायब : ते लोक थंयच्यान आयज भायर सरले आसतले.

शांतीन मनांतल्या मनांत म्हळें, तुजें श्राद्ध हांवें केलें ना जाल्यार म्हजो हो सगळो नखरो फुंकट गेलो म्हणपाचो. कोले-भालू तुजें कापिल्लें बोड केन्ना खातलें तें हांव पळयतलीं. आनी मागीर, उग्तेपणान, सायबाक आयकूंचें अशें तिणें म्हळें, "सायब, तुमी म्हणटात तशें जालांय आसत. ते सगळे लोक थंयच्यान आयज भायर सरल्यातूय असंये. म्हाका जाल्यार सगली खबर सारकी कळ्ळी ना. हांव तर वैश्णवी जावन असां. गीतां पदां म्हणत घरां घरांनी भीक मागत भोंवून पोट-भरपी हांव. म्हाका सगळी खबर कशी आसतली ? उलोवन गावन म्हजो ताळो पडला. म्हाका किंतें तरी फूल ना पाकळी दिवन उडयात, सायबा. म्हणटकूच मागीर हांव चल्लीं म्हज्या मार्गान. पुण तुमी म्हाका बरें इनाम दिलें जाल्यार हांव परवां येवन तुमकां सगळी खबर सांगीन."

सायबान सट्ट करून अेका रूपयाचें नाणें काडून तिचे कडेन उडयलें आनी म्हळें, "बीवी, परां नाका, आयचे राती म्हाका खबर मेळूंक जाय."

शांतीन म्हळें, "चल मेल्ल्या ! म्हाका वैश्णवी म्हण, बीवी कित्याक म्हणटा ?"

एडवर्डस : परां नाका, आयचे आयज आमकां खबर मेळपाक जाय, समजलें !

शांतीन : बंदूक उंश्याकडेन घेवन सोरो पियेवन सांसवांचें तेल नाकांत घालून तूं न्हीद. आयजच हांव धा कोस चलत वचूं आनी परतीं येवन आजच तुका कशी खबर दिवूं ? ' छिचंदर खैंचे कडली !

एडवर्डस : छिचंदर तूं कोणाक म्हणटा ?

शांती : व्हडल्या शूर वीराक, जेनरल सायबाक.

एडवर्डस : आमी . . . आमच्यानी व्हडले जेनरल जांव येता. क्लायवा भशेन. पुण आयज कशाय भशेन म्हाका खबर कळपाक जाय. आमी शंबर रूपया बक्षीस दितले.

शांती : शंबर दियात ना जाल्यार हजार दियात. वीस कोसांचें अंतर ह्या

दोन पांयांनी कशेंच कापूंक जावचें ना.

एडवर्डस : घोडयार बसून गेल्यार ?

शांती : म्हाका घोडो चलोंवक येतालो जाल्यार हांव ही सारंगी वाजयत तुमचे लागीं भीक मागचीं आसलीं, व्हय ?

एडवर्डस : तुका फुडें वोंटयेंत बसोवन घोडयावेल्यान व्हेलें जाल्यार कशें ?

शांती : वोंटयेंत बसून वचूं ? म्हाका लज-बीज आसा काय ना ?

एडवर्डस : मोटी कटकटी मू रे ही ? पांचशीं रूपया दितलों.

शांती : कोण घेवन वेतलो म्हाका ? तुमी स्वता ?

हें आयकून, जाप म्हणून, सायबान उबो आशिल्ल्या लिंडले नांवाच्या एका अिंग्लेज तरनाटयाकडेन बोट दाखोवन म्हळें, "कितें, लिंडले, तूं वेतलो मू?"

लिंडलेन शांतीचें सोबीत रूप पळेवन खोश्येन म्हळें, "बरे भाशेन !"

एक व्हडलो आरबी घोडो तयार करून हाडलो. लिंडले तयार जालो. शांतीक आदार दिवन तो घोडयाचे फाटकुळेर बसोवपाक करतालो. अितल्यान शांतीन म्हळें, "शी, बाबा ! अितल्या लोकाच्या सामकार ? म्हाका कितें अिल्लीय लज मर्याद ना काय कितें ? पयलीं ह्या छावणीच्या भायर वचूंया."

लिंडले घोडयार बसलो. घोडो ल्हवू ल्हवू चलूंक लागलो. शांती घोडयाचे फाटीं वचूंक लागली. अशे रितीन तीं दोगांय छावणीच्या भायर गेलीं.

भायर गेल्या उपरांत, अेकांतांत, शांतीन लिंडलेच्या पायांचेर पांय दवरून आपणाक उखलून घेवन घोडयाचे फाटीर उडी घेतली आनी ती बसली. लिंडले हें पळेवन अजापून उदगारलो, "तूं तर लापिठ घोडेस्वार आसा ?"

शांतीन म्हळें "आमी असले घोडेस्वार आसांव कि तुमच्या सारकेल्यांच्या सांगातान बसपाक म्हाका जाल्यार लज दिसपाची. शी ! तुमी रिकाबाचेर पांय दवरून घोडयार चडटात ?"

आपणाली बडाय दाखोवची म्हणून लिंडलेन रिकाबाचेर आशिल्लो आपलो पांय सोडलो. रिकाबावेलो ताचो पांय काडिना फुडें शांतीन त्या मूर्ख अिंग्लेजाचे गोमटेक हात घालो आनी ताका सकला धुकल्लो. मागीर शांती वेवस्तीत घोडयार बसली आनी टांच मारून फुडें गेली. तो आरबी घोडो वाऱ्याच्या झपझपीत वेगान तुरतुरीत धांवत सुटलो. चार वर्सां संतान सैन्या वांगडा राविल्ल्यान शांती घोडयार बसपांत सामकी तरबेज जाल्ली. घोडेस्वारीचो अभ्यास करूंक नाशिल्लो जाल्यार तिका जीवानंदा सांगातान रावूंक जावचें नासतें. सकला पडून लिंडलेचो पांय मोडिल्ल्यान तो थंयच पडून रावलो. शांती तुफाना सारक्या वेगान घोडयार बसून धांवत सुटली.

ज्या अरण्यांत जीवानंद लिपून दशिल्लो आसलो थंय वचून शांतीन ताका सगळी खबर सांगली. जीवानंदान म्हळें, "तशें जाल्यार, हांव रोखडया रोखडो

वचून महेंद्राक शिटकायर्ता. तूं जात्रेक वचून सत्यानंदाक सगळी खबर सांग. तूं घोडेस्वारीनूच वच. ताका लागून प्रभूंक रोखडचा रोखडी खबर कळून येतली." अशें म्हणून दोगांय जाणां दोन वेगळ्या दिशांनी गेलीं. शांती परती अेक फावट नवीनानंद जाली म्हणपाची सांगची गरज ना.

## 6

एडवडर्सूय पक्को अिंग्लेज आसलो. ताणें दर नाक्याचेर आपले मनीस मांडून दवरिल्ले. तांचेकडल्यान ताका रोखडीच खबर कळ्ळी कि वैष्णवीत लिंडलेक घोडचा फाटीवेल्यान धुकलून सकला उडयला आनी अपुण घोडचार बसून ती खंय तरी गेल्या. हें आंयकना फुडें एडवडर्सान तिडकीन फणफणून म्हळें, "सैतानाचें पोर खैंचे कडलें ! तंबू कवळात."

तो हुकुम आयकना फुडें तंबूंच्या खूंटयाळचांचेर टक टक, खट खट करीत अशे घाव पडूंक लागले. पळेतां पळेतां म्हळचार कुपांनी मातिल्ली अमरावती सारकी वस्त्रनगरी अंतर्धान पावली. सगळें सामान गाडयांनी घालें. दादले घोडयांर बसले वा पांयदळान चलूंक लागले. हिन्दू, मुसलमान, गोरे - सगळे खांदार बंदूक मारून धपधपीत चालीक लागले. तोफांच्यो गाडयो घरघरीत खणखणीत बोवाळ करीत भायर सरल्यो.

हेवटेन महेंद्र संताना सैन्य घेवन जात्रेक वचपाक भायर सरिल्ले. त्या दिसा सांजवेळा महेंद्रान मनांतल्या मनांत विचार केलो, " आतां जाल्यार दीस पडत आयलो. रातीक हांगाच्च थारिल्लें बरें आसलें."

अशें आसून थंयच छावणी उबारची म्हणपाचें थारायिल्लें. वैष्णवां लागीं तंबू नाशिल्ले. रुखां सांवळे पोंदा गोणपाट वा गोजडचो हांथरून ते तांचेर आड पडले. थोडेशें हरिचरणामृत पियेवन ताणीं ती रात सारली. जी भूक उरिल्ली ती सपनांत आप-आपल्या वैष्णवीचें अधरामृतपान करून ताणीं भागयली. छावणी बसोवपाक फावो तसली अेक सुवात आसली. ती अेक व्हडली बाग आसली. तांतूंत आंबे, पणस, बाभूळ, चिंच, असले रुख आसले. महेंद्रान हुकूम सोडलो, "हांगाच छावणी बसोंवयात." ते बागे लागींच अेक दोंगुल्ली आसली. तिचेर चडचें म्हळचार भोव अवघड आसलें. महेंद्राच्या मनांत अेकदां असो विचार आयलो कि हें दोंगुल्लेचेर छावणी बसयल्यार बरें जातलें. ती सुवात पळेवन येवपाचें ताणें येवजिलें.

घोडचार बसून महेंद्र ल्हवू ल्हवू दोंगुल्लेचेर चडूंक लागले. थोडें अंतर चडून गेल्या उपरांत ताचे नदरेक आयलें कि अेक तरणो झुजारी वैष्णव सैन्यांत

भितर सरला आनी म्हणटा, "चलात, दोंगुल्लेचेर वचात."

अजाप जावन सगळचांनी विचारलें, "कित्याक सांगशी ?"

तो झुजारी अेके मातयेचे दोंगुल्ले तेंगशेर चडून उबो रावलो आनी म्हणूं लागलो, "चलात, ह्या चान्न्या राती त्या पर्वता तेंगशेवेल्यान नव्या वसंताच्या ताज्या रसरशीत फुलांचो परमळ घेत घेत आमकां आयज दुस्मानांकडेन झूज करचें पडटलें." संतानांनी पळेलें कि तो सेनापती जीवानंद जावन आसलो.

तेन्ना 'हरे मुरारे' - चो नारो गाजयत सगळे संतान भाले उखलून धांवत वयर गेले. ते जीवानंदाचे फाटोफाट झपझपीत दोंगराचेर चडूंक लागले. अेक सशस्त्र घोडो अेका सैनीकान हाडून जीवानंदाक दिलो. पैशिल्ल्यान हो देखावो पळोवन महेंद्र अजापान थटाकलो .तो मनांत विचार करूं लागलो, "हें आनीक कितें तर? हांगां सांगल्या शिवाय हे सगळे वयर कशे चडूंक लागले?"

असलो विचार करीत महेंद्रान घोडयार चाबुक मारलें आनी ताका वळून धेवन तो दोंगरावेल्यान सकला येवूंक लागलो. संतानसैन्याचे आघाडीचेर जीवानंदाक पळेवन तागें विचारलें, "जालां तरी कितें? हो आनीक कसलो आनंद ?"

जीवानंदान हांसून म्हळें, "आयज व्हड आनंदाचो दीस ! दोंगराचे पलतडी एडवर्डस सायब आसात. जो पयलो दोंगुल्लेचेर पावतलो ताचेंच जैत जातलें !"

त्या उपरांत जीवानंद संतान-सैन्याक उलो मारून आड्डलो, "तुमी म्हाका वळखतात, व्हय ? हांव जीवानंद गोस्वामी. हांवें अेकल्यान हजारां दुस्मानांचो जीव काडला."

हें आयकना फुडें आपणाल्या प्रचंड आवाजान रान मैदान घणघणून उडोवन त्या सगळचांनी अेका ताळयान सांगलें, "आमी तुमकां वळखतात. तुमी जीवानंद गोस्वामी."

जीवानंदान सांगलें, "म्हणात, हरे मुरारे !"

तो नारो म्हणत हजारांच्या ताळयान रान घुंवघुंवून उठलें.

जीवानंदान म्हळें, "दोंगुल्लेचे पलतडी दुस्मान मांडिल्ले आसात. आयज राती हे दोंगुल्लेचेर संतान-सैन्य झुजतलें. वयर मळब आनी सकला रात साक्षी घेवन ते झुजतले. सडसडीत फुडें वचात. जो पयलो दोंगुल्लेचेर पावतलो तोच जिखूंक पावतलो. म्हणात, 'वंदे मातरम् !"

'वंदे मातरम्' - ची मधूर रासवळ ध्वनी सगळयाक घुंवघुंवूंक लागली. संतान-सैनीक ल्हवू ल्हवू दोंगुल्लेचेर चडूंक लागले. पुण अवचित ताणीं भयभीत जावन पळेलें कि महेंद्रसिन्ह तुरतुरीत वेगान दोंगरावेल्यान शींग फुंकीत येतालो. घोडयाच वेळान दोंगराच्या माथ्यार निळया मळबाचे फाटभूयेचेर गोळंदाजां

सैंत अिग्लेजांवो तोफखानो विसूंक लागलो. वैष्णवांचें सैन्य उंच ताळ्यान गावूंक लागलें :

"तुमि विद्या तुमि भक्ति
तुमि माँ बाहुते शक्ति
त्वं हि प्राणा : शारिरे।

पणून अिग्लेजांच्या तोफांच्या गरजनांत त्या म्हागिताचीं सुरेल उतरां चिड्डून गेलीं. शेकड्यांनी संतान घायाळ जावन मरून पडले. घुडाम धुडुम धुम जालें. दधीचीच्या हाडां अस्थींची फकाणां मारीत समुद्राच्या ल्हारांक उणीं लेखून अिग्लेजांच्यो तोफो फारपेट करून उजो वोंकूंक लागल्यो. शेतकामत्यांच्या विळ्या मुखार पिकून तयार जाल्लें धान्या-गोटयाचें शेत जशें कचाकच कापून वेता, ते भाशेन संतान-सैन्याचे कुडक्यान कुडके जावन जमनीर पडूंक लागले. जीवानंद आनी महेंद्र, हांचे राखणे सांबाळावे प्रयत्न निर्फळ जांवक लागले. दोंगरादेल्यान गडगडन येतल्या फातरां खडपां भाशेन संतान-सेना दोंगरादेल्यान फाट करून पाती देंवूक लागली. कोण खंय पळून गेलो ताची कांयच खबर मेळ्ळी ना. ह्या वेळार अेकदम सगळ्यांक काबार करचे म्हणच्या हेतान 'हुर्रे हुर्रे' अश्यो बोबो मारीत गोऱ्यांची पळटण दोंगरावेल्यान सकला धांवत आयली. आपल्या बदुकांच्यो सुरयो वयर काडीत झपझपीत वेगान जशी पर्वतादेल्यान फुटून भायर सरिल्ली वरीष्ट न्हंय घोंघ्या भाशेन धांवत सुट्टा तशी अिग्लेज फौज दोंगुल्ले देल्यान देंवून पळून वेतल्या संतानांचे फाटीक तुरतुरीत धांवूंक लागली. जीवानंद फकत अेकदां महेंद्राक भेटले. तेन्ना तागें म्हळें, "आयज सगळें सोंपलें. चल, हांगाच मरूंया आमी."

महेंद्रान जाप दिली, "आमी मरून झुजांत जैत जोडून दिल्लें जाल्यार व्हडा खोशयेन हांव मरतलों आसलों. कारण नासतना मरचें, हो वीर धर्म न्हंय"

जीवानंद : हांव जाल्यार व्यर्थूच मरतलों. पुण झुजांत मरतलों.

आनी मागीर वळून जीवानंदान खणखणीत आवाजान सांगलें, "हरिनामाचो जयघोष करीत जे कोण मरूंक सोदतीत ताणीं म्हज्या वांगडा येवचें."

ह्या उल्याक जायत्या जाणांनी साद दिवन फुडें पावल मारलें. जीवानंदान फुडें सांगलें, "अशें न्हय. देवा मुखार सोपूत घेयात कि आमी जीते जीवे परतून वच्चेनांत."

जे लोक फुडें सरिल्ले ते आतां फाटीं सरले. जीवानंद निर्शेलो आनी तागें म्हळें, "कोणूच येवचेनांत मू ! तशें जाल्यार हांव अेकलोच फुडें वेतां."

घोडयाचे फाटीर आनीक थोडो वरसो रावन फाटीं उबो आशिल्ल्या महेंद्राक उलो करून जीवानंदान म्हळें, "भावा, नवीनानंदाक तुमी सांगात कि हांव चल्लों. आतां फकत परलोकांत आमची भेट जातली."

वीर जीवानंद अितलें उलोवन आपल्याचेर लोखणांचो पावस पडटना घोडयार बसून वेगान फुडें सरलो. दाव्या हातांत भालो, उजव्या हातांत बंदूक आनी वोंटांर 'हरे मुरारे' चे सणसणीत नारे. त्या धाडसाक कांय अर्थ उरंक नासलो. तरी आसतना 'हरे मुरारे! हरे मुरारे!' अशें गायत जीवानंद दुस्मानांच्या व्यूहांत घुसूंक लागलो.

पळून वेतल्या संतान सैनीकांक उलो मारून महेंद्रान सांगलें, "तुमी परतून वचून जीवानंद गोस्वामींक पळेयात. पळयलें म्हूण तुमी मरचेनांत."

जायत्या जाणांनी फाटीं वळून पळेलें तेन्ना तांकां जीवानंदाचें अदभुत सामर्थ्य पळेवपाक मेळ्ळें. पयलीं तांकां रानांत पडिल्ले भशेन जालें. पुण मागीर तांणीं म्हळें, "जीवानंदाकूच कशें मरचें तें कळटा, आनी आमकां कळना? चलात, जीवानंदा सांगातान आमीय वैकुंठाक वचूंया."

हें आयकतनांच कांय संतान पळटा ते परते वळून आयले. तेन्ना व्हडलो गोंदळ जालो. तितले म्हणसर जीवानंद दुस्मानाचे फौजींत वचून पाविल्लो. ताच्या उपरांत तो संतानां मदल्यां कोणाकूच दिसलो ना.

हेवटेन संपूर्ण झुजा-मळार संतानांक अशें दिसलें कि कांय संतान परते वेताले. सगळयाकूच अशें दिसलें कि संतानांचें जैत जालें आनी ते दुस्मानांचो सामको विभाड करचे खातीर म्हणून तांचे फाटीक लागल्यात. तेन्ना संतानांचें सगळें सैन्य, 'मारात! मारात!' म्हणून आड्डून अिंग्लेजांच्या सामकें आंगार पडलें.

तेवटेन अिंग्लेजांचे फौजींत मोटो गोंदळ जाल्लो. आतां अिंग्लेजांचे शिपायक झुजपाचो प्रयत्न करीनासतना दोनूय कुशींनी पळून वचूंक लागले. गोरे सैनीकूय आपल्या बंदुकांच्यो सुरयो वयर करून छावणीचे दिशेन पळूंक लागले. हेवटेन तेवटेन पळेल्या उपरांत महेंद्रांक दिसलें कि दोंगराच्या माथ्यार कितलेशेच संतान-सैनीक अेकटांय जाल्ले आसात, आनी ते मोटे शूरतायेन सकला वचून अिंग्लेजांच्या सैन्याच्या आंगार पडटात. तें पळेतानाच महेंद्रान संतानांक उद्देशून म्हळें, "संतानांनो, थंय पळेयात; तेंगशेचेर प्रभू सत्यानंद गोस्वामीचो बावटो उबता. आयज मधुकैटभ विनाशी स्वता मुरारी झुजामळार उतरिल्ले आसात — तेंगशेर अेक लाख संतान आसात. उठात. हरे मुरारे म्हणत दुस्मानांचेर धांवत वचून घुरी घालात. अेका लाखा वयर संतान आसतले!

हाच्या उपरांत 'हरे मुरारे'-चो जयघोष करीत सगळो वाठार घुंवघुंवूंक लागलो. समेस्त संतान 'भियेव नाका' म्हणून ललित ताल ध्वनींत मिसळून गेल्या शस्त्रांच्या खणखणाटान सगळया जीव-प्राणांक विमोहीत करूंक लागले. महेंद्राचें सैन्य सडसडीत वयर चडूंक लागलें. खडपांक आदळून वेतल्या झरीच्या घसघश्या भशेन राजसेना स्तंभीत जावन भयभीत आनी अस्वस्थ जाली. ह्याच वेळार

पंचवीस हजार संतान सैनीक घेवन सत्यानंद ब्रह्मचारी तेंगशेवेल्यान समुद्राच्या लोटा सारके अिंग्लोजांचे फौजीच्या आंगार पडले. दया माया नासलना झूज जालें.

दोन खडपां मदीं जेन्ना संघर्ष जाता आनी तातूंत जशी मूस चिड्डून मरतात तशींच वयल्यान आनी सकयल्यान, दोनूय कुशींच्यान येतल्या संतान-सैन्याक लागून राजाची सैना चिड्डून काबार जाली.

वॉर्रेन हेंस्टींग्साक ही खबर वचून सांगपी असो अेक्लोय मनीस जीतो उल्लो ना.

# 7

पुनवेची रात आसली. तें भिरांकूळ झुजामळ शांत-सवस्तकायेन सुस्तेंल्लें. घोडयांच्या गडगडाटाचो आवाज, बंदुकांचो कडकडाट, तोफांचो सर्वव्यापी गडगडाट, हांवे पैकीं कसलोच आवज आतां शिल्लक उरूंक नासलो. कोंगूच 'हुर्रे' म्हणनासले जाल्यार कोण्णूच हरिनामाचो आवाज करीनासले. फकत कोले, येवलां, सुणां आनी गीडांचो आवाज आयकूंक येतालो. घायाळ जावन पडिल्ल्या जायत्या जाणांच्यो बोबो हुयेली आयकूंक येताल्यो. कोणाचे हात तुटून पडिल्ले, कोणाची तकली कापिल्ली, कोणाचे पांय कातरून गेल्ले, कोणाच्या ताळटार घाय पडिल्ले. कोण घोडयांच्या पांयां पोंदा माड्डून गेल्लो. कोण भावय जाल्यार कोण बापूय म्हणून हाय हूय करतालो. कोण उदक जाय म्हुण मागतालो जाल्यार कोण आपुण बेगीन मेल्यार पुरो म्हणून आडुतालो. बंगाली, अिंग्लेज, मुसलमान, सगळे अेकटांय अेके राशीर पडिल्ले. जीवे आनी मेल्ले, मनीस आनी मोनजात, सगळे अेकामेकांत मिसळून दाटयेन दाळिल्ले आसले. त्या माघ म्हयन्याचे पुनवे राती कडकडीत थंडी पडिल्ली. चान्न्याच्या धव्या-फुल्ल पिठा सारक्या उजवाडान झुजामळ सामकें भंयकर दिसतालें. थंय वचपाचें धाडस कोणाकूच जाय नासलें.

कोणाकूच धाडस जांवचें नासलें खरें, पुण मध्यान-राती अेक बायल त्या झुजामळार भोंवत आसली. हातांत अेक चूड घेवन ती त्या प्रेतांचे राशींत कितें तरी सोदीत आशिल्ली. दरअेक मडयाच्या तोंडाकडेन चूड व्हरून ती ताचें तोंड बारकायेन पळेताली आनी थंयच्यान मागीर दुसऱ्या मडयाकडेन वेताली. अेकाध्ये सुवातेर दादल्याचो कूड मेल्ल्या घोडया पोंदाक पडिल्ली दिसल्यार ती तरनाटी हातांतली चूड जमनीर दवरताली आनी दोनूय हातांनी त्या घोडयाक कुशीक सारून त्या दादल्याक सुटावो करून काडी. मागीर आपुण जाका सोदतां ताचें तें प्रेत न्हय म्हणपाचें पळेवन ती चूड घेवन दुसरे कडेन वेताली. अशे रितीन ती सोदीत सोदीत संपूर्ण मैदानाचेर भोंवली. पुण ती जाका सोदताली तो

तिका खंयच सांपडलो ना. तेन्ना उबगून येवून ती चूड शेवटून उडोवन त्या प्रेतांनी भरिल्ले आनी रगतान माखिल्ले जमनीर पडून हातपांय धाडावन बडोवन भळभळा रडूंक लागली. ती शान्ती आसली. ती जीवानंदाचें मडें सोदीत आशिल्ली.

ती हुंडक्या हुंडक्यानी रडटाली, तेन्ना अत्यंत मधूर आनी करूण ध्वनी तिच्या कानार पडलो. कोण तरी म्हणटालो, "उठ, धुवे, रडूं नाका." शांतीन मान वयर करून पळेलें. तिका अशें दिसलें कि तिचे सामकार चान्न्या उजवाडान अेक भव्य आकाराचो, जटाजूटधारी म्हापुरूस उबो आसलो.

शांती उठून उबी रावली. जो आयिल्लो तागें म्हळें, "रडूं नाका, धुवे! जीवानंदाची कूड हांव सोदून दितां. तूं म्हज्या सांगाता यो."

अशें म्हणून तो म्हापुरूस शांतीक घेवन झुजामळावेल्या मदल्या भागांत गेलो. थंय कितलीशीच प्रेतां अेकामेकाचेर पडिल्लीं आसलीं. शांतीच्यान सगळच्यांक कुशीन काडून पळोवक जावूं नासलें. बळीश्ट म्हापुरसान ते राशींतलें अेक शव उस्तून काडलें. शांतीन वळखलें ; तीच जीवानंदाची कूड आसली. ताज्या सगले कूडीचेर घाय आसले आनी ती रक्तबंबाळ जाल्ली. शांती सामान्य बायले भशेन मोट-मोटयान रडूंक लागली.

तें पळेवन त्या म्हापुरसान म्हळें, "रडूं नाका, धुवे! जीवानंद मेला दिसता तुका? मन थीर शांत करून ताची कूड तपासून घेवन पळे. आदीं नाडी धरून पळे."

शांतीन प्रेताची नाडी हातांत धरून पळेली. ती तर मुळांतूच चलनासली. त्या म्हापुरसान सांगलें, "हड्डयाचेर हात दवरून पळे."

काळजा हड्डयचेर हात दवरून शांतीन पळेवन घेतलें. थंय कसलीच हालचाल नासली. सगळें थंड किरांव जाल्लें.

त्या म्हापुरसान नव्यान म्हळें, "नाखा लागीं हात दवरून पळे. थोडो तरी स्वास-उस्वास चलता जाल्यार सोदून काड."

सांगलां त्या प्रमाणें शांतीन करून पळेलें. हास्कार-हुस्कार बंद पडिल्लो.

ताणें परतें सांगलें, "आनीक अेक फावट पळे! तोंडांत बोट घालून पळे, थोडी तरी ऊब आसा जाल्यार पळे!"

ताच्या तोंडांत बोट घालून शांतीन थाव घेवन पळेलो. तिणें म्हळें, "कांयच कळना." ती अशेन व्याकुळ जाल्ली.

म्हापुरसान दाव्या हातान जीवनंदाचे कुडीक स्पर्श केलो. ताणें शांतीक लेखून म्हळे, 'तूं भिरांतीन सगळी काचाबूल जाल्या ; देखून तुका कांय समजना. ताचे कुडींत अजून धग आसूंक जाय, अशें म्हाका दिसता. परतें अेक फावट पळेवन घेतिल्लें बरें!"

शांतीन परत अेक फावट ताची नाडी धरून पळेली. खऱ्यांनीच माशी गती जाणोवताली. अजापान तिणें ताच्या हृदयार हात दवरलो ; तें मात्शें धडधडटालें. नाखा मुखार बोट धरलें. मात्सो ल्हव, मंद श्वास चलतालो. तोंडा भितर थोडीशी उब लागली. अजापून तिणें विचारलें, "जीव आसलो कि तो आतां येंवक लागला ?"

ताणें म्हळें, "अशें केन्ना घडटा, धुवे ? तुज्यान हांकां उखलून ते तळयेकडेन व्हरूंक जातलें ? हांव वैज आसां. हांचे वयर कितेंय वखद-विसंद करतां."

शांती जीवानंदाक सहजतायेन आपल्या हातां-भुजांनी उखलून ते तळयेकडेन गेली. वैजान सांगलें, "ताका थंय व्हरून ताचेवैलें सगळें रगत धुवून पुसून काड. हांव वखद घेवन येतां."

जीवानंदाक तळयेचेर व्हरून तिणें ताच्या आंगावेलें रगत धुवून-पुसून काडलें. अितले म्हणसर वैद्यराज रानांतल्यो वाली आनी पानां मुड्डून तयार केल्लो लेप घेवन आयलो आनी ताणें तो लेप सगळ्या घायांचेर लायलो. ते उपरांत जीवानंदाच्या सगळ्या आंगाचेर तो भौन भौन हात ओडूंक लागलो. थोडच्या वेळान अेक लांब-दीर्घ स्वास सोडून तो उठून बसलो ! ताणें अजापून शांतीच्या तोंडाकडेन पळेलें आनी विचारलें, "झुजांत कोणाचें जैत जालें ?"

शांतीन सांगलें, "तुमचेंच जैत जालां. ह्या म्हात्म्याक प्रणाम करात."

आनी, तेन्ना वळून पळेल्यार तीं दोगांय अजाप जालीं आनी अेकामेकाक पळेंवक लागलीं. थय कोणूच नाशिल्लो. प्रणाम कोणाक करपाचो ?

लागींच जैतीवंत संतान सैन्याचो बोवाळ आयकूंक येतालो. पुण शांती हाल्ली ना. जीवानंदूय उठलो ना. दोगांय त्या उजळ्या उजवाडच्या चान्न्यांन लकलकून वेतल्या तळयेच्या सपणांचेर तीं ओगी बसून रावलीं. वखदाच्या चमत्कारान जीवानंदाचे घाय रोखडें पेखून येताले. ताणें म्हळें, "शांती ! वैजाच्या वखदांत गूण तर मोठो अजापभरीत आसा म्हणूंक जाय. म्हजे कुडींत आतां अिल्लीय दूख उरली ना. अिल्ली लेगीत थकावट शिल्लक उरली ना. जंय वचपाचें थंय वच. तो आवाज आयक, संतानांचो जैताचो उल्हास आयकूंक येता."

आतां थंय वच्चे न्हय आमीं, शांतीन म्हळें, आतां आवयचें काम पुराय जालें ; देस संतानांचो जालो. आमकां राज्याचो वांटो नाका. आतां थंय कित्याक वचपाचें ?

जीवानंद : जें आमीं जिखून घेतलां तें आमच्या हातां-भुजांनी राखून दवरूंक जाय.

शांती : ताची राखण करपांक महेंद्र आसा. स्वता सत्यानंद आसात. तुमी प्रायश्चीत पाळचें म्हणून संतान-धर्मा खातीर कुडी-त्याग केल्लो. ते परते जोडिल्ले कुडीचेर संतानांचो आतां कसलोच अधिकार उरलो ना. संतानांचे नदरेन आमीं

मेल्यांत. संतानांनी ह्या वेळार तुमकां पळेल्यार ते म्हणटले कि जीवानंद झुजाच्या वेळार प्रायश्चीताचे भंय-भिरांतीन लिपून बशिल्लो. आतां जैन जाल्लें पळेवन राज्याचो वांटो मागचे खातीर तो आयला !"

जीवानंद : हें कितें उलयता तूं, शांती ? लोका तोंडाक भियेवन आमीं आमचें कार्य सोडून दिव येता ? आवयची सेवा, हें म्हजें कार्य. कोणेंय कितेंय म्हळें जाल्यार लेगित हांव म्हजी मातृसेवा करीत रावतलों.

शांती : मातृसेवेचेर आतां तुमचो कांयचअधिकार ना. कित्याक तुमी मातृसेवे खातीर आपले कुडीचो परित्याग केल्लो आसा. मातेची सेवा करपाची सद तुमकां परती मेळ्ळी जाल्यार तुमच्या प्रायश्चीताचें कितें जातलें ? मातृसेवे पसून वंचीत रावचें म्हळचारूच प्रायश्चीताचो मुखेल भाग जावन असा, ना जाल्यार फकत उणाक प्राणांचो त्याग करचो म्हळचार कितें मार व्हडली गजाल जाली ?

जीवानंद : शांती, धर्माचो आनरोस तुका समजता ? हांव म्हजें प्रायश्चीत अर्दवट सोडपाक ना. संतानधर्मातूच म्हाका खरेलें सुख दिसता. त्या सुखा पसून म्हाका वंचीत दवरतलों. पुण हांव वेतलों खंय ? आवयची सेवा सोडून घरांत सुख भोगूंक म्हाका जाल्यार जमचेलें ना.

शांती : हांव तुमकां तशें कर म्हणटां काय कितें? शी ! आतां आमीं दोगांय ग्रहस्थाश्रमी उल्लीं नांत. आमीं अशींच संन्याशी रावूंया. मरसर ब्रह्मचार्याचें व्रत पाळूंया. चलात, आमीं देसभर भोंवून तीर्थयात्रा करूंया.

जीवनंद : आनी मागीर कितें?

शांती : मागीर हिमालयांत खंय तरी खोंप बांदून आमी दोगांय देवाची अराधना करूंया ; आनी मातेचें कल्याण जावचें अशें देवा लागीं वरदान मागूंया.

दोगांय उठलीं आनी अेकामेकाच्या हातांत हात घालून ते चान्न्या राती अनंतांत विलीन जावन गेलीं.

हाय ! परतीं येतलीं, काय ना? जीवानंदा सारको पूत आनी शांती भशेन धूव, हाकां तू परती तुज्या गर्भांत धारण करतली, व्हय?

## 8

सत्यानंद ठाकूर कोणाकूच कांयच सांगनासतना झुजा-मळा वेल्यान आनंदमठांत परते आयले. थंय मध्यानरात्री विष्णू मंडपांत बसून ते ध्यानस्त जाले. ह्या वेळार ते वैद्यराज थंय आयले. तांकां पळेना फुडें सत्यानंदांनी उठून तांकां प्रणाम केलो.

वैद्यराजान सांगलें, "सत्यानंद, आयज माघ पुनव."

सत्यानंद : चलात तर, हांव तयार आसां. पुण, हे महात्म्या, म्हज्या अेका दुभावाचें फाव ते भशेन समाधान करात. हांवें ज्या खिणा झूज जिखून संतान धर्माक आपल्या दुस्मानां मेकळो केलो, त्याच खिणा म्हाका परत वचपाचो आदेश तुमी कित्याक दितात?

जे आयिल्ले ताणी म्हळें, "तुजें कार्य पुराय जालें. मुसलमानांचें राज्य विभाड जाल्लें आसा. आतां तुका हांगासर कांयच करपाचें उरलें ना. कारण नासतना जीवाची वाट लावपात निखालूस गरज ना."

सत्यानंद : मुसलमान राज्याचो विभाड जालो; पुण हिन्दू राज्य अजून कांय जाल्लें ना. आतां लेगित कलकत्त्यांत अिंग्लेज बळीश्ट आसात.

ते : हिन्दू राज्य हे पावटीं येवचें ना. तूं हांगा रावलो जाल्यार गरजे-अर्था विणें मनश्याची हत्त्या जातली. देखून तूं वच.

हें आयकतनांच सत्यानंद व्याकूळ जाले. ताणी म्हळें, "हे प्रभू! हिन्दू राज्य थापचें नांत जाल्यार कोण राजा जातलो, मुसलमान?"

ताणी म्हळें, "ना. राजा जातलो अिंग्लेज!"

हें आयकून सत्यानंदांल्या दोनुय दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो धारो व्हांवूंक लागल्यो. वयर लायिल्ल्या मातृरूपाचे जल्मभूंयचे प्रतिमेकडेन वळून, हात जोडून, गळो भरून येवन ताणी म्हळें, 'हाय माँ! म्हज्या हातांतल्यान तुजो फावो तसो उद्धार करूंक पावलो ना. तूं आतां परती म्लेच्छांच्या हातांत पडटली. ह्या आपल्या संतानांचो हांतूंत कितें अपराध आसा म्हणून समजूं नाका, हाय! आयज झुजा-मळार म्हाका कित्याक मरण आयलें ना?"

वैद्यराजान सांगलें, "सत्यानंद, असो व्याकूळ जावूं नाका. तुजे बुद्धिच्या भ्रमांन तूवें दस्युवृत्ति वरवीं धन - गिरेस्तकाय जमयली आनी तिच्या नाडचार तुवें झुजांत जैत जोडलें. पापाचें फळ केन्नाच पवित्र आसना. देखून तुमचेकडेन देसाचो उद्धार जावचो ना. त्या भायर जें घडून येतलें तें बरेंच जातलें. अिंग्लेजांचें राज्य. जालें ना जाल्यार संतान धर्माचो परतो उद्धार करपाचो संभव ना. म्हापुरसांनी जशें हें सगळें समजून घेतलां ते भशेन तुमीय समजून घेयात. ध्यान दिवन आयकून घेयात. तेत्तीस कोटी देव-देवतांची पुजा म्हळ्यार संतान धर्म न्हय; तो फकत अेक लौकीक धर्म जावन आसा. ताच्या प्रभावाक लागून जो खरेलो सनातन धर्म आसा - जाका म्लेच्छ हिंदू धर्म म्हणटात - ताचो लोप जाल्लो आसा. खरेलो हिन्दू धर्म जाल्यार गिन्यानात्मक आसा, कर्मात्मक न्हय. तें गिन्यान दोन जिनसांचें आसा. भायलें आनी भितरलें. जें भितरलें गिन्यान आसा तेंच संतान धर्माचें प्रधान आंग जावन आसा. पणून आदीं भायल्या गिन्यानांचो उदय जाल्या शिवाय अंतर्मुखी गिन्या


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No: 000196

नासता. स्थूल किते आसा तें समजल्या बगर सूक्ष्म किते आसा तें जाणा जावपाक जायना. ह्या देसांत हालींच्या काळार कितलींशींच वर्सां जालीं भायल्या गिन्यानाचो लोप जाल्लो आसा. देखून खरेल्या सनातन धर्माक परतो जागोवपाक पयलीं लौकीक गिन्यानांचो प्रचार करपाचें गरजेचें जावन आसा.

आयज ह्या देसांत लौकीक गिन्यानाचे नांव – निशाण दिसना. तें गिन्यान दिवक शकतलीं अशीं मनशा नांत. आमीं ह्या असल्या लोक शिक्षणांत प्रवीण जाल्ले नांत. देखून भायल्या देसांतल्यान आयिल्लें भौतीक गिन्यान मेळोवन हाडचें पडटलें. अिंग्लेज लोक भौतीक गिन्यानांत बरेंच पाटांफुडे जाल्ले आसात; लोकशिक्षणाचे बाबतींत व्हडले निपूण जाल्ले आसात. देखून हांव अिंग्लेजांक राजा करतलों. अिंग्लेज शिक्षणा वरवीं ह्या देसांतले लोक भौतीक गिन्यान मेळोवन घेवन अध्यात्मीक गिन्यान मेळोवपाक तयार आनी लायक जातले. मागीर संतान धर्माचो प्रचार करपाक कांय आडखळी उरच्यो नांत. तेन्ना खरेलो धर्म आपशींच परतो उजळून उठ्लो. हें जो मेरेन घडचें ना तो मेरेन हिन्दू गिन्यानवंत, गुणेस्त आनी बळीश्ट जांवचे नांत, तो मेरेन अिंग्लेज राज्य उरतलेंच. अिंग्लेज राज्यांत लोक सुखी जातले – निष्कंटक धर्माचरण करतले देखून, हे बुद्धिमंता, अिंग्लेजांकडेन झूज करपाचो विचार सोडून दी आनी तूं म्हजे फाटल्यान यो.

सत्यानंदांनी म्हळें, "हे म्हात्म्या ! अिंग्लेजांचें राज्य थापचें हेंच तुमचें उद्दिश्ट आसलें जाल्यार, ह्या वेळार अिंग्लेजांचे राज्यूच ह्या देसाच्या हिताचें आसा जाल्यार, मागीर आमकां सगळचांक ह्या मनीतपणाभायल्या झुजांत तुमीं किन्याक घुसपावन उडयले ?

त्या म्हापुरसान सांगलें, "अिंग्लेज ह्या वेळार वेपारी जावन आसात. दुडू मेळोवन घेवपाची हीच तांची मोख आसा. राज्यशासनाचो भार ते आपणाल्या माथ्यार घेंवूक सोदिनांत. संतानांच्या हे बंडायेक लागून तांकां राज्यप्रशासनाचो भार उखलचोच पडटलो. कित्याक राज्यशासन नासल्यार दुडू – आडको अेकटांय करपाचें काम जाल्यार जांवचें ना. अिंग्लेजांक हो राज्यभिषेक फावो जांवचो म्हणूनूच संतानांचें हें बंडु घडोवन हाडलां. आतां, चल, तुका गिन्यानाचो लाव मेळून जाल्या उपरांत तुज्यान स्वता हें सगळें समजून घेंवूं येतलें."

सत्यानंद : हे म्हातमन ! म्हाका गिन्यान-लावाची आस्त ना. म्हाका गिन्याना कडेन कांयच कर्तव्य ना. हांवें जें व्रत घेतलां तेंच हांव पाळटलों. म्हजी मातृसेवा भवती अढळ उरूं, असो म्हाका आशिर्वाद दियात.

म्हापुरूस : व्रत तर सुफळ जाल्लेंच आसा. तुवें मातेचें कल्याण सादलें. अिंग्लेजांचें राज्य थापचे खातीर तुवें हातभार लायला. आतां तूं झुजाचो विचार सोडून दी. लोकांक शेतकामत करपाची प्रेरणा मेळोवन दी. लोकांची भरभराट

जांवदी.

हें आयकून सत्यानंदांच्या दोळ्यांतल्यान जश्शो काय उज्या किट्ट्यो भायर उपळूक लागल्यो. ताणी जाप दिली, "मातेक दुस्मानांच्या रगतान भिजोवन हांव तिका शस्यश्यालिनी करून उडयतलों."

म्हापुरूस : दुस्मान म्हळ्यार कोण गा? आतां कोण दुस्मान उरलो ना. अिंग्लेज जाल्यार आमचे अिश्ट राजा जावन आसात. आनी अिंग्लेजांकडेन झूज करून शेवटीं जैतीवंत जावपा येदें सामर्थ्य कोणाच्यांत आसा ?

सत्यानंद : तेदें सामर्थ्य नासल्यार हांव ह्याच जाग्यार मातेचे मूर्ती सामकार जीव दितलों.

म्हापुरूस : तूं अज्ञानांत मरतलो काय कितें ? चल, आदीं गिन्यानाचो लाव मेळोवन घे. हिमालयाचे तेंगशेर मातृमंदीर आसा. थंय हांव तुका मातेची मूर्ती दाखयतलों.

अशें म्हणून त्या म्हापुरसान सत्यानंदाचो हात धरलो. कितें ती अपूर्व सोबाय ! त्या भव्य विष्णू मंदिरांत चतुर्भूज मूर्ती मुखार, मंद उजवाडान दोन म्हाप्रतिभापूर्ण पुरूषमूर्ती सोबून दिसतालो. ताणीं अेकामेकाचे हात धरिल्ले. कोणें कोणाक धरिल्लो ? गिन्यान्यान भक्तीचो हात धरिल्लो. धर्मान कर्माचो हात धरिल्लो. आत्मविसर्जनान प्रतिश्ठेचो हात धरिल्लो. कल्याणीन शांतीचो हात धरिल्लो. सत्यानंद म्हळ्यारूच शान्ती आनी म्हापुरूष म्हळ्यार कल्याणी. सत्यानंद म्हळ्यार प्रतिश्टाय, येस. म्हापुरूस म्हळ्यार आत्मविसर्जन.

आत्मविसर्जन येवून प्रतिष्ठेक घेवन गेलें.

**


WORLD KONKANI CENTRE LIBRARY

परिशिष्ठ –

वन्दे मातरम्

सुजलां सुफलां मलयज-शीतलां
सस्य-श्यामलां मातरम् ।

शुभ्र-ज्योत्स्ना -फुलकित-यामिनीम्
फुल्ल-कुसुमित-द्रुमदल-शोभिनीम्
सुहासिनीं सुमधुर-भाषिणीम्
सुखदां वरदां मातरम् ।।

कोटिकोटि-कण्ठ-कलकल-निनाद-कराले
कोटिंकोटि-भुजैर्धृत-खर करवाले
के बले मा तुमि अबले !

बहुबल-धारिणीं नमामि तारिणीं
रिपुदल-वारिणीं मातरम् ।।

तुमि विद्या तुमि धर्म्म
तुमि हृदि तुमि मर्म्म
त्वं हि प्राणा : शरीरे ।

बाहुते तुमि मा शक्ति
हृदये तुमि मा भक्ति
तोमारइ प्रतिमा गडि
मन्दिरे मन्दिरे ।

त्वं हि दुर्गा दशप्रहरण-धारिणी
कमला कमल-दल-विहारिणी
वाणी विद्यादायिनी
नमामि त्वां
नमामि कमलां अमलां अतुलां
सुजलां सुफलां मातरम्
वन्दे मातरम् ।।

श्यामलां सरलां सुस्मितां भूषितां
धरणीं भरणीं मातरम् ।।

आनंदमठ ही स्फुर्तीवंत कादंबरी, परकी सत्तेच्या गुलांपणांतल्यान देसाक सुटका फावो करुंक सोदतल्या कांय देसभक्त तरनाट्यांच्या साहसी कर्तुपां भोंवतणी विणल्या. आनंदमठ म्हळ्यार रानाचे खोटायेंत बसयल्ले तांगेलें गुपीत कॉट, जंयच्यान ते परकी सत्ते आड सतत झूज चलयतात. ही कादंबरी 1773–आंत बंगालांत जाल्ल्या सन्याशी उठावाच्या घडणुकांचो उपयोग करता आनी तांकां राजकी–धर्मीक वळन दिता. आनंदमठ म्हळ्यार मनीसपणाच्या मोग, त्याग आनी देसभक्तीची खतखतीत काणी. तांतलो आशय भोवूच प्रखर राष्ट्रवादी. तांतलें 'वन्दे मातरम्' हें भक्ती–गीत भारती देसभक्तांक आनी स्वतंत्रताये झुजाऱ्यांक भोवूच प्रेरणा दितालें आनी राष्ट्रगीताच्या पांवड्यार पावलें.

बंकिमचंद्र चटर्जी (1838–1894) हांकां बंगाली साअित्यांतले अेक व्हडांतले कादंबरीकार मानतात. ते वरीहट सरकारी अधिकारी आसले. 'राजमोहनाची घरकान्न' (1865) ही अिंग्लेजींत बरयल्ली आनी वांट्यां वांट्यांनी नेमाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ली तांची पयली कांदबरी, उपरांत ते आपले बंगाली आवय–भाशेकडेन वळ्ळे तांतूंततानी आनी 'दुर्गेशनंदिनी' ही अितिहासीक आनी म्हत्वाची कादंबरी बरोवन 1865 आंत उजवाडायली. उपरांत साबार कादंबरी उजवाडाक आयल्यो, देखील. 'कपतकुंडला' (1866); 'मृनालिनी' (1869), 'आनंदमठ' (1884) आदी. तांचे कल्पनेचो व्यांप, दिश्यव्याची विशालताय नाजूक सोबीत शैली आनी शक्तीवंत सबाव–चित्रणां भोवूच ओडलायणी उतरली.

SAHITYA AKADEMI
REVISED PRICE Rs. 65-00

Anandmath (K
ISBN 81 - 7201 - 042 - 7